**A. उतर आनी प्रती उतर :** ***Response Drill :***

| | | | |
|---|---|---|---|
| उ. | धवो घोडो धांवता. | प्र. | धवो घोडो धांवता. |
| उ. | आमचो ––––––– – | प्र. | आमचो घोडो धांवता. |
| उ. | –––––सोंसो––––– | प्र. | |
| उ. | –––––सोंशे––––– | प्र. | |
| उ. | ––––– –––––बसतात. | प्र. | |
| उ. | –––बरे––––––––– | प्र. | |
| उ. | –––बरो –––––––– | प्र. | |
| उ. | ––– ––– –––पालो खातात. | प्र. | |
| उ. | –––गाय ––––––– | प्र. | |
| उ. | ––– धवी ––– –––––– | प्र. | |
| उ. | ––– ––– घोडो –––––– | प्र. | |

**B. कंसांत दिल्लीं क्रियापदां योग्य रितीन वापरून वाक्यां पूर्ण करात :** ***Fill in the blank with an appropriate form of the verb given in the bracket :***

**देखीक** : वाटेर पालो ––– (आस) जापः वाटेर पालो आसा.

1. वाटेर भुरगे ––––– (आस)
2. वाटेर गाडो ––– (आस)
3. बाजारांत सामान ––– (मेळ)
4. बाजारांत आंबे ––––– (मेळ)
5. गाड्यार हारसो ––– (मेळ)
6. गाड्यार चणे ––– (आस)
7. पसऱ्यार चाचो पालो –––- (मेळ)
8. सोंसो पालो ––– (खा)
9. घोडे पालो ––––– (खा)
10. हांव सामान ––––– (घे)
11. आमी सामान ––––– (घे)

**C. पैल्या खणांत दिल्ल्या वाक्यां प्रमाणें बाकिचीं वाक्यां पूर्ण करात आनी तींच वाक्यां दुसऱ्या खणांत अनेकवचनांत बरयात :** ***In column one fill in the blanks after the model given above. In column two give the plural forms of all the sentences :***

| एकवचन | अनेकवचन |
|---|---|
| 1. हो एक घोडो. | हे घोडे. |
| —— —— सोंसो. | —— ——— |
| 2. तो म्हजो हारसो. | —— —— ——— |
| ——— ——— पसरो. | —— —— ——— |
| 3. हो पळे चणो. | —— —— —— |
| —— ——डबो. | —— —— —— |
| 4. हो ताचो सदरो. | —— —— ——— |
| ——— ——— घागरो | —— —— ——— |
| 5. थोंटो थंय आसा. | —— —— ——— |
| सोयरो —— —— | ——— —— —— |

D. **शिकपार्चे घोळोप : *Repetition Drill :***

| प्रस्न | जाप |
|---|---|
| वाटेर कोण मेळतात? | वाटेर भुरगे मेळतात. |
| लोक खंय आसा? | लोक बाजारांत आसा |
| शीलान कसलो घागरो–पोलको घाला? | शीलान निळो घागरो–पोलको घाला. |
| शीला किते घेता? | शीला हारसो आनी पोवाचो डबो घेता. |
| बाजारांत किते आसा? | बाजारांत सामान आसा. |
| शाणूमाम कोण? | शाणूमाम एक पसरकार. |
| तो किते दिता? | तो चणे दिता. |
| भाई किते घेता? | भाई चाचो पालो आनी दुदाचो डबो घेता. |
| भाई कितले रुपय दिता? | भाई पन्नास रुपय दिता |
| सोंशेकारा कडें किते आसा? | सोंशेकारा कडें सोंशे आसात. |
| सोंशे किते खातात? | सोंशे पालो खातात. |
| थंय कोण बसला? | थंय एक थोंटो बसला. |
| सोयरो किते दिता? | सोयरो आंबे दिता. |
| चोर किते करता? | चोर सोयऱ्याचें सामान चोरता. |
| चोरा फाटल्यान कोण धांवतात? | चोरा फाटल्यान लोक आनी पोलीस धांवतात. |

# पाठ 4 : चौथो पाठ

## सोयरो

– नमस्कार, रवी.
– नमस्कार मामा, यो. तुजी सत्री आनी व्हाणो हांगा दवर. यो, हांगा बस. आईक आपयतां. आई, मामा आयला.
– शाणू , आयलो रे?
– ताई, तुका देव बरो दीस दींव. तुमी कशीं आसात?
– आमी सगळीं बरीं आसात. तुजीं घरचीं कशीं आसात?
– बरीं आसात. तुजी भावज तुजी खबर घेता. ताई, ही तुका भाजी आनी सांगो. रवी, तुका आनी रेखाक हो हालवो घे. रेखा खंय आसा?
– बाबा आनी रेखा बाजारांत गेल्यांत.
– शाणू , तुका काफी हाडतां. तूं हात – पांय धू.
– मामा, घे चकल्यो खा. आई काफी हाडता.
– शाणू , काफी घे. तुजो धंदो कसो चलता?
– बरो आसा. माल बरो खपता.
– रवी, ही फांती व्हरून शीलाक दी.
– ताई, शीला कोण?
– शीला आमच्या रेखाची इश्टीण. रवी, चानयेक आंब्याची शीर घाल. तिचो पांदरो सावळेंत दवर.
– ताई, ती कोंबी तुमची? ती मिरसांगो खाता.
– ना, ना ती आमची न्हय. तिका आमूड.
– शाणू , तुज्या भुरग्यांक आतां सुटी? तीं कितें करतात?
– तीं मावशेगेर गेल्यांत. त्यो पळे मुयो. तांची रांग भितर वेता. भितर नेवऱ्यो आसात?
– आंब्याच्यो शिरो आसात. तुका जाय?
– नाका, घरा जायते आंबे आसात. तुमची जात्रा केन्ना गो?
– आज तारीक कितली तर?
– मामा, मामा, आमची जात्रा सात तारकेक.
– येता त्या सोमाराक?
– हय, तूं , भुरगीं आनी बायल येयात.
– बरें तर, येतां हांव.
– यो.

## उतरावळ : VOCABULARY

मामा (m) uncle [maternal]
सत्री (f) umbrella
व्हाणो (f) slippers, chappals
दवर (tv) keep
ताई (f) sister [elder]
देव बरो दीस दींव = Good Day.
कसो, कशी, कशें = how
भावज (f) sister-in-law
खबर (f) news
भाजी (f) leafy vegetable
सांग (f) bean
हालवो (m) halva, a type of sweet
हात (m) hand, arm
पांय (m) foot, leg
धू (tv) wash
चकली (f) wheel-shaped eatable
धंदो (m) business, profession
माल (m) goods
खप (tv) sell, exhaust
फांती (f) plaited flowers
चानी (f) squirrel
शीर (f) slice
पांदरो (m) cage
सावळी (f) shade
कोंबी (f) hen
मिरसांग (f) chilli
आमूड (tv) drive away
सुटी (f) holidays, vacation
मूय (f) ant
रांग (f) row, line
मावशी (f) mother's sister
नेवरी (f) sweet with filling
जात्रा (f) pilgrimage, feast
केन्ना (adv) when
तारीक (f) date
कितली (adj) how much (f)
सात (adj) seven
सोमार (m) Monday

**GRAMMAR NOTE :**

A number of Konkani feminine nouns form their plural by adding —ओ to the root, e.g. वाट : वाटो. In the case of feminine nouns ending in —ई in the singular, when —ओ is added the ending becomes —यो, e.g. चानी : चानयो.

| Singular | Plural | Meaning |
|---|---|---|
| वाट | वाटो | way |
| गाय | गायो | cow |
| बडी | बडयो | stick |
| गाडी | गाडयो | cart |

## शिकपार्चे घोळौप : REPETITION LESSON

– शाणूमामा, नमस्कार.
– रवी तूं? आयलो? बस, आज तुका सुटी आसा?
– हय मामा, आनी रेखाची सुटी आट तारकेक.
– तुजी आई कशी आसा?
– बरी आसा.
– बस, मामी चा हाडता. आंब्याच्यो शिरो घे.
– हो आंबो बरो आसा.
– आमची जात्रा आट तारकेर. तूं आनी रेखा येयात.
– हय मामा, आमी येतात.

**A. वाक्यां अनेकवचनांत घालात** ***Form the plural :***

| | |
|---|---|
| 1. हांगा एक मूय आसा | हांगा मुयो आसात. |
| 2. चानी शीर खाता | चानयो शिरो खातात. |
| 3. ती आमची मावशी. | |
| 4. भुरगो चकली खाता | |
| 5. तो धंदो करता. | |
| 6. थोंटो नेवरी खाता | |
| 7. मावशी सांग हाडता. | |
| 8. भावज सत्री दिता. | |
| 9. कोंबी मिरसांग खाता | |
| 10. मूय आंबो खाता | |
| 11. चली व्हाण घालता. | |

**B. रिकामे जागे भरात :** ***Fill in the blan .s :***

| प्रस्न | जाप |
|---|---|
| 1. तो कोण? | तो म्हजो मामा. |
| 2. रवी कितें खाता? | ---------- |
| 3. ---------- | रेखा फांती माळता. |
| 4. कोंबी कितें खाता? | ---------- |
| 5. ---------- | आई चा हाडता. |
| 6. ---------- | मुयो भितर वेतात. |
| 7. मावशेगेर कोण गेल्यांत? | ---------- |
| 8. जात्रा केन्ना आसा? | ---------- |

9. ----------                                  हालवो रवीक दिता.

10. चानी कितें करता?                          ------------

C. **वाक्यां जोडातः** ***Match the following:***

| A | B |
| --- | --- |
| 1. तुजी सत्री आनी व्हाणो | a. पांदरो सावळेंत दवर. |
| 2. तुजी भावज | b. बरो खपता. |
| 3. शीला आमच्या रेखाची | c. भाजी आनी सांगो. |
| 4. चानयेचो | d. तुजी खबर घेता. |
| 5. तुमची कोंबी | e. सात तारकेक आसा. |
| 6. मुयांची रांग | f. आतां सुटी? |
| 7. आमची जात्रा | g. शीर घाल. |
| 8. ताई, तुका घे | h. जात्रेक येयात. |
| 9. शाणू , तुजो धंदो | i. दीस दींव. |
| 10. तूं भुरगीं आनी बायल | j. मिरसांगो खाता. |
| 11. चानयेक आंब्याची | k. हांगा दवर. |
| 12. तुका देव बरो | l. कसो चलता? |
| 13. शाणू , तुज्या भुरग्यांक | m. भितर वेता. |
| 14. म्हजो माल | n. इश्टीण. |

# पाठ 5 : पांचवो पाठ

## मावशेगेर

आट तारकेच्यान आमकां सुटी पडली. धा तारकेर हांव, भाई आनी उमा बोरये मावशेगेर गेलीं. मावशेलीं भुरगीं सुरेश आनी लता आमची वाट पळेतालीं. तीं खोशी जालीं. लतान म्हाका कारवांचीं फुलां माळूंक दिलीं. सुरेशान आमकां तोरां दिलीं, आनी शेजारच्या लुवीसान बोरां दिलीं.

आमी एकामेकाच्यो खबरो उलयतालीं, तेन्ना देवळा थावन मावशी आयली. मावशेन आमची खबर घेतली, आनी आमी आइचो रकाद दिलो. भाईन मावशेक आइची भेट म्हण एक साडी दिली. मावशेन आमकां भितर व्हेलीं. आमी कपडे बदलले.

सुरेश आनी लुवीसा वांगडा [illegible]ाई [illegible]ळार गेलो. लतान म्हाका आनी उमाक आपली इश्टीण तेरेजागेर व्हेलीं. तागेर एक कोंबी आसा. ताणें आमकां तांतयां दिलीं. ताच्या घरा फाटल्यान गोठो आसा. थंय गोरवां आसात. दोन गायो, दोन पाडकां, तीन म्हशी, आनी दोन म्हसरां आसात. शेतांत रेडे चरतात. उमा रेड्यांक भिलें. शेता देगेक ल्हान–ल्हान खडपां आसात. आमी तांचेर बसलीं. एक प[illegible]ूक धांवत सुटलें. तेरेजाचे मांयन ताका आडायलें, आनी दावें लायलें.

लागींच एक कपेल आसा. ताचे [illegible]ार सोबीत [illegible] आसा. तांतूं सोबीत फुलां आसात. हांवें एक फूल काडलें आनी तेरेजाक दिलें. तेन्ना भाई, सुरेश आनी लुवीस आयले. लुवीसान आमकां पेरां आनी जांबळां दिलीं. आमी मळार [illegible]ठनी खेळलीं. उपरांत भेंडयांनी खेळत घरा आयलीं.

मावशेन आमकां आंब्याचीं कापां आनी पणसाचें साट दिलें. उपरांत भिंडांचें सरबत दिलें. आमी चार दीस मावशेगेर रावलीं आनी खूप मजा केली.

**उतरावळ : VOCABULARY**

आट तारकेच्यान = from the [date] 8th
सुटी पडली = holidays began
वाट पळेतालीं = were waiting for
खोशी (adj) happy
फूल (n) flower
माळ (tv) wear [in the hair]
तोर (n) green mango
शेजारी (m) neighbour
बोर (n) jujube berry
देवूळ (n) temple
रकाद (m) regards, compliments
भेट (f) present
साडी (f) saree
भितर (adv) inside
कपडे (m) clothes
व्हेलीं = took [along]

बदल (tv) change
वांगडा (adv) together with
व्हाळ (m) stream
तांतीं (n) egg
गोठो (m) stable
गोरूं (n) cattle
दोन (adj) two
पाडकां (n.pl) calves, heifers and steers
म्हशी (f.pl) she buffaloes
म्हसरां (n.pl) buffalo calves
शेत (n) field
रेडो (m) he buffalo
चर (iv) graze
भी (iv) fear, be afraid of
देग (f) margin
ल्हान (adj) small
खडप (n) rock
पाडूक (n) calf
आडाय (tv) stop
दावें (n) halter [for cattle]
लागींच (adv) close by
कपेल (n) chapel
मुखार (adv) in front of
सोबीत (adj) beautiful
पोरसूं (n) garden
काड (tv) take, pluck
पेर (n) guava
जांबळ (n) jambul berry
मळार = on the open ground
मिठानी खेळ = type of game
उपरांत (adv) afterwards
भेंडयांनी खेळ = type of game
कापां (n) mango preserve
साट (n) jackfruit preserve
भिंडां (n.pl) kokum
सरबत (n) sherbet, squash, drink
चार (adj) four
राव (iv) stay, wait
खूप (adj) plenty, a lot
मजा (f) fun

## शिकपाचें घोळौप REPETITION LESSON

शीला : उमा, आमी मावशेगेर खूप मजा केली न्हय?
उमा : हय, म्हाका लताची इश्टीण खूप आवडली.
शीला : म्हाकाय बी आवडली.
उमा : त्या शेतांत कितलीं गोरवां आसलीं न्हय? म्हाका त्या गोरवांचो खूप भंय दिसलो.
शीला : उमा, तुका तेरेजाली कोंबी आवडूं ना?
उमा : हय आवडली. पूण तेरेजाक त्या गोरवांचो भंय कसो दिसना?
शीला : घरांतल्या गोरवांचो कोणाक भंय दिसता?
उमा : म्हाका तेरेजालें पाडूक आवडलें. ताचो भंय दिसना. आमी मावशेगेर चारच दीस रावलीं. आनी केन्ना मावशेगेर वेतात?

शीला : आगोस्तांत शाळेक सुटी पडता.   तेन्ना आमी मावशेगेर या.
उमा : हांव आईक सांगतां.

## GRAMMAR NOTES:

1. A good number of konkani nouns in the neuter gender form their plural by adding –आं to the singular. The Sandhi rules that apply here and elsewhere are:

(a) ई + any vowel other than ई becomes य + the vowel

(b) ऊ + any vowel other than ऊ becomes व + the vowel. Rule (b),however, does not apply if ऊ is preceded by more than one consonant. Thus we see in the following examples thatऊं can be replaced by आं if preceded by two consonants:

| Singular | Plural | Meaning |
|---|---|---|
| घर | घरां | house |
| गोरूं | गोरवां | cattle |
| वासरूं | वासरां | calf |
| तांतीं | तांतयां | egg |




2. The simple past tense (or the preterite) of a Konkani intransitive verb is formed as in the following paradigm:

| | Singular | | | Plural | | |
|---|---|---|---|---|---|---|
| | Masc. | Fem. | Neu | Masc. | Fem | Neuter |
| 1st | गेलों | गेलीं | गेलें | गेले | गेल्यो | गेलीं |
| 2nd | गेलो | गेली | गेलें | गेले | गेल्यो | गेलीं |
| 3rd | गेलो | गेली | गेलें | गेले | गेल्यो | गेलीं |

Konkani transitive verbs have only the 3rd person in the perfective tenses, viz. simple past tense, present perfect and past perfect. The transitive verbs in the perfective tenses take the instrumental form for the subject, and the object agrees with the verb in gender and number.

**A. वाक्यां जोडून बरयात : *Structural Table Drill :***

<table>
<tr><td rowspan="4">गोठ्यांत<br>शेतांत<br>आमचे मावशेगेर<br>ताच्या घरा फाटल्यान<br>थंय मळार</td><td>एक</td><td>गाय<br>वासरुं<br>म्हसरूं<br>पाडूक</td><td>आसा</td></tr>
<tr><td rowspan="3">दोन<br>तीन<br>चार<br>पांच<br>आट<br>धा</td><td>वासरां<br>म्हसरां<br>पाडकां</td><td>आसलीं<br>आसात</td></tr>
<tr><td>गायो<br>म्हशी<br>कोंबयो</td><td>आसल्यो<br>आसात</td></tr>
<tr><td>रेडे<br>पाडे<br>कोंबे</td><td>आसात<br>आसले</td></tr>
</table>

**B. देखीक दिल्ल्या वाक्यां प्रमाणें सकैल सुचयल्लीं उतरां घेवन वाक्यां करात : *Substitution Drill : Recast sentence using the suggested word appropriately in the new sentence:***

1. लुवीसान आमकां आंबे दिले.
2. पेरां: लुवीसान आमकां पेरां दिलीं.
3. तेरेजान
4. म्हाका
5. फुलां
6. पेर
7. तांतीं
8. मावशे
9. ताका
10. काप
11. चा
12. मामान
13. पैशे
14. आमकां

**C. सुचयल्ल्या प्रमाणे रिकामे जागे भरून वाक्यां सुदारात :** ***Fill in the blank with a suggested word at a time, and recast the sentence as in the example (No.1) :***

1. ---------फूल सोबीत आसा. ( तें, आमचीं)
   तें : तें फूल सोबीत आसा.
   आमचीं : आमचीं फुलां सोबीत आसात.
2. थंय -----गोरूं आसा. (एक, चार, बरीं)
3. घरा फाटल्यान ------पोरसूं आसा. (एक ल्हान, सोबीत, तुमचें)
4. शेतांत -----चरतात. (गायो, एक रेडो, तीन म्हशी, गाय आनी वासरूं)
5. आमी ------ खालीं. ( पेरां, गोड जांबळां, आंबो, पणसाचें साट)
6. हांवें -----काडलें. (एक फूल, आंबो, पेरां, जांबळां)
7. मावशेन आमकां ------दिलीं. (कापां, साट, चा, चकल्यो)
8. सुरेशान ------ तोरां दिलीं. (आमकां, म्हाका, तेरेजाक, बाबाक)
9. सुरेशान आमकां ------ दिले. (आंबे, पैशे, चणे, घरे)
10. एक ----- धांवत सुटलें. (पाडूक, वासरूं, सुणें, गोरूं)
11. तेरेजाचे मांयन ------ आडायलें. (ताका, वासराक, पाडकाक, म्हसराक, भुरग्याक)
12. आमगेर दोन ------ आसात. (कोंबयो, गायो, म्हशी, गाडयो)

**D. उत्तरांच्या लिंगा प्रमाणे गट करात :** ***Group the following words according to gender:***

तारीक, गोठो, म्हस, फूल, तोर, आंबो, बाजार, जात्रा, खडप, इश्ट, चानी, पांदरो, थोंटो, साट, साडी, भेट, देवूळ, खबर, पोरसूं , सोयरो, शीर, काफी, चकली, म्हसरां, कोंबी, कपेल, व्हाळ, बडी, भाव, भावज, शेत, चणे, डबो, मूय, चा, सामान, घोडो, वासरूं , सोंसो, भुरगीं, भैण, पूत, फांती, रेडो, मामा, आवय, बोर, दावें, सावळी, चोर.

# पाठ 6 : सवो पाठ
## जेवणा मेजार

उमा : ताई, एक जायत आयलें.
शीला : हो पळे रवी येता. आई, जेवण जालें गे? आमकां भूक लागल्या.
आई : हय, जायत आयलें. भजीं तळतां आनी तुमकां वाडतां.
शीला : बरें, बरें. हांव मांदन्यांत वचून येतां.
उमा : आई, बाबाय बी येता. जेवपाची तयारी करूं?
आई : हय उमा, मेज निवळ कर, ताट–पेले घे.
उमा : ताई, म्हाका आनी बाबाक हून उदक घाल. तुमी माटांतलें थंड उदक पितलीं मगो?
शीला : हय, हांव उदक काडतां. तूं बाबाक हातपांय धुंवक उदक दी. रवी बाबाक दांडयेवेलो तुवालो हाडून दी.
बाबा : हांवें तुवालो हाडलो. रवी, भायर केळीं दवरल्यांत. चल घेवन यो.
रवी : आई, आजून भजीं जालीं नांत? भूक लागल्या मगे.
आई : जालीं रवी, तांकां जेंवक आपय.
रवी : बाबा, उमा, जेंवक येयात.
उमा : भाई, तूं पयलीं जेवता? आमकांय भूक लागल्या.
रवी : हांवें सकाळीं एकूच पांव खाल्लो.
बाबा : कित्याक रे? सकाळीं तुजे आवडिचो जाम आसललो न्हय?
रवी : हय बाबा, शाळेचो वेळ जाल्लो, म्हूण हांवें एकूच पांव खालो.
बाबा : आज नुस्तें ना काय कितें? तवशाचें तोंडाक केलां?
आई : आसा, आसा, शेवटे हाडल्यात.
शीला : आवयस. आई हुमण केलां मगे? म्हाका बेगीन वाड.
रवी : म्हाका तवशाचें तोंडाक नाका.
आई : रवी, तुज्यो सदांच खोडी. शीला, ताका त्या करणांतलो एक पापड भाजून वाड.
उमा : ताई, म्हाकाय बी एक पापड जाय. बाबा, तुका जाय?
बाब : नाका, भजीं बरीं जाल्यांत. रवी, तुका आवडूं नांत?
रवी : हय तर, हांवें कितलीं घेतल्यांत पळे.
आई : उमा, तुवें धाकलें ताट घेतलां. एक थाळो घे, तोंडाक घालतां. तुमची वाटी खंय आसा? थोडें हुमण घालतां.
शीला : बाबा, ही पळे तुजी वाटी. आई, नीताले आईन सुंगटांचीं भजीं केल्लीं. तूं एक दीस कर.
आई : बरें, बरें. रोटयांक लांवक सांजे आवऱ्यांची उसळी करतां. उमा, शीला, तुमी जेवतकच

आवरे सोलात.
शीला : हां, सोलतां.
आई : रवी, सांजवेळा बाजारांत वच. फाल्यांखातीर भेंडे आनी हरव्यो मिरसांगो घेवन यो.
उमा : बाबा, म्हाका कादेर्न जाय. भाईक हाडूंक सांगूं?
बाब : हय, हांव ताका पैशे दितां.
आई : उमा, तूं जेवलें न्हय, तीं केळीं थाळ्यांत घालून हाड.

## उतरावळ VOCABULARY

जेवण (n) meal
मेज (n) table
भूक (f) hunger
भूक लाग = be hungry
भजें (n) bhaja
तळ (tv) fry
वाड (tv) serve food
मांदनें (n) bathing room
वचून ये = visit
तयारी कर = prepare, get things ready
निवळ (adj) clean
ताट (n) plate
पेलो (m) goblet
हून (adj) warm, hot
उदक (n) water
घाल (tv) put, pour, place
माट (m) jar
थंड (adj) cold
पी (tv) drink
काड (tv) take, remove
दांडी (f) clothes stand
तुवालो (m) towel
हाडून दी = fetch, bring
केळें (n) banana, plantain
भायर (adv) outside
दवर (tv) keep, place
आपय (tv) call
घेवन यो = fetch
पयलीं (adv) first
सकाळ (f) morning
शाळा (f) school
पांव (m) loaf of bread
आवडिचो (adj) favourite
जाम (m) jam, preserve
वेळ जाल्लो = it was late
म्हूण (conj) therefore, consequently
नुस्तें (n) fish
ना काय कितें = isn't there
तवशें (n) cucumber
तोंडाक (n) dish, appetiser
शेवटो (m) mullet
हुमण (n) curry
बेगीन (adv) quickly
खोड (f) fuss
सदां (adv)always
करण (m) tin, can, container
भाज (iv, tv) roast, bake
धाकलो / धाकटो (adj) small
थाळो (m) small plate
वाटी (f) [metal] saucer

सुंगट (n) prawn, shrimp
सांज (f) evening
आवरो (m) lima bean
उसळ / उसळी (f) vegetable dish
रोटी / चपाती (f) Indian bread
सोल (tv) peel, dehusk, strip
भेंडो (m) lady finger
हरवी मिरसांग = green chilli
कादेर्न (m) notebook
हय = yes

## शिकपाचें घोळौप REPETITION LESSON

रवी : रमेश, हांव स वरांचेर उटतां. तूं केन्ना उटता?
रमेश : हांव साडेपांचांक उटतां, म्हूण म्हाका एक वर शिकपाक मेळता.
रवी : तुका बरें तर. म्हाका चा घेंवक सुद्दा वेळ मेळना. आमची बस सातांक येता. केन्ना केन्नाय, उमा आनी शीलाक लागून वेळ जाता.
रमेश : हांव सायकलीन वेतां. म्हूण दोनपारां सुद्दा हांव घरा बेगीन पावतां.
रवी : आमची शाळा एकांक सुटता आनी घरा पावतासर देड जाता. केन्ना केन्नाय दोनूय जातात.
रमेश : आज आमी सांजेर पासयेक या. तूं पांचांकूच यो.
रवी : ना रे, आज पावना हांव. म्हाका होमवर्क करूंक जाय.
रमेश : रातचो कर मरे.
रवी : रातचें आमचें जेवण साडे आटांक जाता. शिकूंक वेळ मेळना. तुमी कितल्यांक जेवतात?
रमेश : आमी आटांक जेवतात. आनी रोकडींच न्हिदतात.
रवी : बरें तर, आमी शेनवारा दीस वचूं या.

## उतरावळ VOCABULARY

ऊट (tv) rise, wake up
साडेपांच = 5.30, five and a half
शीक (iv) study
सुद्दा (conj) even
सायकल (f) bicycle
दोनपार (m) noon
दोनपारां (adv) in the afternoon
पाव (iv) reach, arrive
देड (adj) one and a half
केन्ना केन्ना (adv) sometimes
पासय (f) walk, stroll
रात (f) night
साडे आट = 8.30, eight and a half
कितल्यांक = at what time, when
रोकडींच (adv) soon, at once
न्हीद (iv) sleep, go to bed

**GRAMMAR NOTE :**

Konkani neuter nouns ending in –एं form their plural by ›lacing it with an –ई. Some feminine nouns ending in a consonant form their plural by adding –ई to their root. The following table gives examples of such neuter and feminine nouns:

| | Singular | Plural | Meaning |
|---|---|---|---|
| Neuter | केळें<br>बकें | केळीं<br>बकीं | banana<br>Crane |
| Feminine | रात<br>वात | राती<br>वाती | night<br>candle |

**A. प्रस्नांक जापी दियात :** ***Answer the following questions :***

1. रवी केन्ना उटता?
2. तुमी केन्ना उटतात?
3. थंड उदक कोण पितलीं?
4. तुमी कसलें उदक पितात?
5. तुमी आनी कितें पितात?
6. रवी पांवा वांगडा कितें खाता?
7. तुमी पांवा वांगडा कितें खातात?
8. तुवालो खंय आसलो?
9. तुमी दांडयेर कितें कितें दवरतात?
10. पापड कोणाक आवडता?
11. तुमकां कितें कितें आवडता?
12. उमागेर कसलें नुस्तें आसलें?
13. तुमकां कसलें नुस्तें आवडता?
14. रमेश आनी रवी शाळेंत कशे वेतात?
15. दुसरीं भुरगीं शाळेक कशीं वेतात?
16. सांजेर भुरगीं कितें करतात?
17. रवी रातचो कितल्यांक जेवता?
18. तुमी रातचीं कितल्यांक जेवतात?
19. भुरगीं रातचीं कितल्यांक न्हिदतात?
20. तुमी बाजारांतल्यान कितें कितें हाडतात?

**B. सुचयल्लें उतर वापरून वाक्यां करात.** ***Pattern Practice :***

*(Use each of the suggested words appropriately in the given sentence in such a way that it replaces a word of the same part of speech, as shown in the example under No.1.)*

1. हांव मांदन्यांत वेतां. (रवी, कुडींत, बसता)
   देखीक : रवी मांदन्यांत वेता. रवी कुडींत वेता. रवी कुडींत बसता.
2. मेज निवळ कर. (कूड, रिती, दवर)
3. आई नुस्तें तळता. (शीला, भजीं, खाता)
4. रवी शाळेंत वेता. (उमा, बाजारांत, पासयेक)
5. शीला आवरे सोलता. (उमा, सांगो, खाता)
6. रवी शिकूंक बसता. (रमेश, बरौंक, शिकता)
7. रमेश सायकलीन वेता. (रवी, बशीन, चलून, येता)
8. शीला भेंडे हाडता. (उमा, मिरसांगो, कादेर्न, नुस्तें, घेता)
9. आमी सांजेर पासयेक या. (खेळूं , वचूं या, बाजारांत)
10. म्हाका कादेर्न जाय. ( शीलाक, पुस्तक, पेन, दी, हाड)

**C. देखीक दिल्ल्या वाक्यां प्रमाणें क भागांतलीं वाक्यां वापरून नवीं वाक्यां करात :**

*Frame phrases from the words given in column 1 after the models given, in such way that column 2 will have singular and column 3 will have plural expressions. See that the demonstrative agrees in number and gender with the noun it modifies.*

| | क | ख | ग |
|---|---|---|---|
| 1 | तवशीं | तें तवशें | तीं तवशीं |
| 2 | रात | ती रात | त्यो राती |
| 3 | भजें | | |
| 4 | ताटां | | |
| 5 | पेलो | | |
| 6 | दांडी | | |
| 7 | केळें | | |
| 8 | नुस्तें | | |
| 9 | खोड | | |
| 10 | वाटयो | | |
| 11 | सुंगट | | |
| 12 | भेंडो | | |
| 13 | सायकली | | |
| 14 | पेरां | | |

**D. रिकामे जागे भरात :** ***Fill in the blanks :***

1. आज शेनवार आसुनूय आजून ---------------येवना.
2. उमा, मेज ------कर, --------------घे.
3. हांव ---------उदक पितां, आनी बाबा हून -----पिता.
4. बाबाक हातपांय --------उदक दी, आनी पुसूंक ---------दी.
5. हांवें सकाळीं एकूच ------खाल्लो.
6. शीला, ताका करणांतलो एक --------भाजून वाड.
7. ताई, म्हाकाय बी एक पापड --------.
8. बाबा, ही पळे तुजी ----------.
9. रवी, सांजेर -------------वच. उमाक एक ---------हाड.
10. हांव ताका ----- दितां. तूं ---------- एक पेलो दी.
11. बाबा, भाईक ------------हाडूंक सांग.
12. म्हाका तवशाचें ------- नाका.
13. तुजे आवडिचो ----- आसललो न्हय?
14. रोटयांक लांवक ------ आवऱ्यांची ------ करतां.
15. तीं केळीं ------ घालून हाड.
16. आमची ----- एकाक सुटता.
17. आमी ------ पासयेक या.
18. आमचें जेवण रातचें ------ जाता.
19. शिकूंक ------ मेळना.
20. तुमी ------ जेवतात?
21. आमी ----- दीस वचूं या.

# पाठ 7 : सातवो पाठ

## आमचें घर

बोरी हो आमचो सोबीत सुपुरलो गांव. गांवाचे उदेंतेक ल्हान एक कपेल आसा. ताचे दावे कुशीक आमचें व्हडलें घर आसा. घरा भोंवतणीं ऊंच दुरीग आसा. दुर्गाच्या दारार दोन शींव आसात. पोरसांत बरीं बरीं फुलां झाडां आनी फळांचीं झाडां रोयल्यांत. दुर्गाच्या दारार आर्क करून जुयेची वेल चडयल्या. घरा मुखार वांटकुळ्यांनी सदाफुली रोयल्या. मदें रंगा रंगाच्यो दसणी रोयल्यात. वारांदाच्या सकल सोबेचीं झाडां रांगेन लायल्यांत.

पांवड्याच्या दोनी कुशिंनी सुंदर गुलाबाचे वाज दवरल्यात. वयर चडताना बल्कांव. सोप्याच्या पोंदा अपुरबायेचो जिमी बसता. बल्कांवांत कांतयल्लें वोल्तेर आसा. ताचेर सदां पाय बसता. भितर सरताना दारावयर आल्तार दिसता. आल्तारार सायबीण मांयची मूर्त आसा. तिचे मुखार मांय सदांच वाती लायता. उजव्यान व्हड एक साल आसा. सोयऱ्यांक आमी सालांत बसयतांव. रातचो आमी सालांत तेर्स करतांव.

दाव्यान आमची कूड आसा. थंय हांव आनी तेरेज लिसांव करतांव. कुडी भायर वारांद आसा. वारांदांत ल्हानसो पांदरो आसा. तांतूं दोन साळोऱ्यो आसात. भितरली आमची न्हिदपाची कूड. तांतूं दोन बाजो, एक आरमार, आनी एक बरें हारशाचें मेज आसा. हे कुडी मुखार पाय आनी मांयची न्हिदपाची कूड. मदें जेवपाचें साल. सालांत जेवपाचें व्हडलें मेज आसा. मेजा भोंवतणीं आट कदेली आसात. सालाक फाटले वाटेन दोन दारां आसात. दाव्या दारांतल्यान कुजनांत आनी उजव्या दारान न्हाणयेंत वचूं येता.

कुजना फाटल्यान जळवाची खोंप आनी दुकरांचो घूड आसा. ताचे भायर व्हडलें पोरसूं आसा. पोरसांत लांब माड, आंब्याचे मोठे मोठे रूक, पेरी, चिकू, म्हसंग, पणस, निरपणस, अशे जायते रूक आसात. आमी फाटल्या शेतांत मिरसांगो, कांदे आनी भाजिपालो रोयतांव.

अशें आमचें सोबीत घर आमकां खूप आवडता.

**उतरावळ VOCABULARY**

सुपुरलो (adj) small
गांव (m) village
उदेंत (f) East
दावो (adj) left
कूस (f) side
व्हडलो (adj) big
भोंवतणीं (adv) around

ऊंच (adj) high, tall
दुरीग (n) compound wall
दार (n) door
शींव (m) lion
बरो (adj) good
रोय (tv) plant
आर्क (n) arch

जूय (f) variety of jasmine
वेल (f) creeper
चडय (tv) set up, let climb
वांटकुळो (adj) round
सदाफुली (f) periwinkle
मदें (adv) in the middle, at the centre
रंग (m) colour
दसण (f) hibiscus plant
वारांद (m) veranda
सकल / सकैल (adv) below, underneath
सोबेचीं झाडां = decorative plants
रांग (f) line, row
पांवडो (m) step
सुंदर (adj) beautiful, pretty
गुलाब (m) rose
वाज (m) flower pot
बल्कांव (n) balcony, porch
सोपो (m) built-in bench
पोंदा (adv) below
अपुरबाय (f) fondness
कांतयल्लो (adj) carved
वोल्तेर (n) rocking chair
आल्तार (m) altar
सायबीण मांय = Our Lady, Mary
मूर्त (f) statue
उजवो (adj) right
साल (n) hall

तेर्स (m) rosary
कूड (f) room
लिसांव (n) lesson
साळोरी (f) mvnah
न्हिदपाची कू = bedroom
बाज (f) bed, cot
अ रमार (f) cupboard
हारसो (m) mirror
जेवणाचें साल (n) dining hall
कदेल (f,n) chair
फाटले वाटेन = at the back of
कुजीन (f) kitchen
जळव (m) firewood
खोंप (f) hut
लांब (adj) long, tall
घूड (m) sty
माड (m) palm, coconut tree
मोठो (adj) fat, thick
चिकू (m) chickoo, sapota
म्हसंग (m) drum-stick tree
पणस (m) jackfruit
निरपणस (m) breadfruit
रूक (m) tree
कांदो (m) onion
भाजिपालो (m) leafy vegetable
आवड (iv) like




## शिकपाचें घोळोप REPETITION LESSON

— लुवीस, तूं खंय रावता?
— हांव बोरये रावतां. रवी, तुजें घर खंय?
— म्हजें घर मडगांवा लागीं, नावेले. आमच्या घरा कुशीक शेत आसा.

– आमच्याय घरा कुशीक शेत आसा. तशेंच, एक ल्हान दोंगुरली आनी न्हंय आसा. आमकां एक व्हड पोरसूं आसा.

– आमच्या घरा मुखार रस्तो. आमकां पोरसूं करूंक मेळना. आमी तेरासाचेर वाजांनी झाडां रोयल्यांत. घरा फाटल्यान केळी मात रोयल्यात.

– तुमकां बरें तर, तेरासाचेर खेळुंकूय मेळता. आमकां तेरास ना. आमचें घर नळ्यांचें.

– आमचें घर धाकटें, तिनूच कुडिंचें. तुमचें केदें?

– आमचें घर व्हडलें. तीन कुडी, दोन सालां, एक कुजीन, एक न्हाणी. शिवाय घरा मुखार बल्कांव, आनी वारांदय आसा.

– आवयस, तर तुमी कितलीं जाणां रावतात?

– पाय एकलो, मांय, म्हजी भैण आनी हांव. आमी चार जाणां आनी आमचें किर्याद रावतांव. पूण सुटयेंत तीव आनी ताचीं भुरगीं येतात. आमी उबाळांत घरा भायर आंगणांत न्हिदतांव.

– आमी तेरासाचेर न्हिदतात.

### उतरावळ VOCABULARY

राव (iv) stay
दोंगुरली (f) hillock
न्हंय (f) river
रस्तो (m) road, street
तेरास (m) terrace
केळ (f) banana tree
नळो (m) roof tile
किर्याद (n) servant
तीव (m) uncle
आंगण (n) courtyard

**A. प्रस्नांक जापी दियातः** ***Answer the questions :***

1. लुवीसाच्या घरा भोंवतणीं कितें आसा?
2. तांच्या वारांदाच्या सकल कितें आसा?
3. पांवड्यांच्या दोनी वाटेन कसले वाज दवरतात?
4. जिमी खंय बसता?
5. लुवीसागेर आल्तार खंय आसा?
6. सोयऱ्यांक खंय बसयतात?
7. लुवीस आनी तेरेज लिसांव खंय करतात?
8. न्हिदपाचे कुडींत कितें कितें आसा?
9. माड खंय रोयतात?

10. शेतांत कितें कितें रोयतात?
11. उबाळांत खंय न्हिदतात?
12. तुमच्या घरा वयर कितें आसा?

**GRAMMAR NOTE**

Konkani adjectives can be of two kinds : declinable and indeclinable. Examples of indeclinable adjectives are व्हड, ल्हान, लांब. Declinable ones have the same endings as in the general paradigm. Numerals denoting persons, however, have their peculiar endings as shown below :

| Singular | | | Plural | | |
|---|---|---|---|---|---|
| Masc | Fem. | Neuter | Masc. | Fem. | Neuter |
| बरो<br>काळो | बरी<br>काळी | बरें<br>काळें | बरे<br>काळे | बऱ्यो<br>काळ्यो | बरीं<br>काळीं |
| एकलो | एकली | एकलें | दोग<br>तीग/तेग<br>चौग | दोगी<br>तिगी/तेगी<br>चौगी | दोगां<br>तिगां/ तेगां<br>चौगां |

**B. सुचयलां तशीं वाक्यां करात :** ***Structural pattern practice :***

1. तीं फळां बरीं आसात. (गोड, ल्हान, व्हड)
2. फुलां सोबीत दिसतात. (सुंदर, बरीं)
3. आमचो तेरास ऊंच आसा. (व्हड, रूंद, लांब)
4. जिमी आमचो पेटो ल्हान. (सुंदर, आपुरबायेचो, धवो, बरो दिसता.)
5. बल्कांवांत जिमी आसा. (वोल्तेर, कदेल, साळोरी, सोपो)
6. कुडींत वाज आसा. (आरमार, हारसो, मेज, बाज)
7. रूक लांब आसात. (मोठे, ऊंच, व्हड)
8. भायर व्हडलें पोरसूं आसा. (फाटल्यान, मुखार, दाव्यान, उजव्यान)
9. फाटल्या शेतांत कांदे रोयतात. (भाजिपालो, मिरसांगो, भेंडे)
10. घरा भोंवतणीं रूक आसात. (फुलां झाडां, शेतां, रस्ते)

**C. विशेशणां घालून वाक्यां पूर्ण करात : *Fill in the blanks with appropriate adjectives:***

1. आमचो --------गांव.
2. उदेंतेक -------कपेल आसा.
3. घरा भोंवतणीं -----दुरीग आसा.
4. पोरसांत ---------फुलां झाडां आसात.
5. सोप्या पोंदा ------ जिमी बसता.
6. बल्कांवांत --------वोल्तेर आसा.
7. वारांदांत ------ पांदरो आसा.
8. सालांत --------- जेवपाचें मेज आसा.
9. पोरसांत ------ माड आसात.
10. आंब्याचीं ------झाडां आसात.
11. मेजा भोंवतणीं ----- कदेली आसात.
12. पांदऱ्यांत ------साळोऱ्यो आसात.
13. आम[illegible]चें घर चड ---[illegible]-.
14. आमचें घर --------- कुडिंचें.
15. आमी घरांत ------ जाणां रावतांव.

**D. कंसांतलें योग्य उतर घेवन जागो भरात : *Fill in the blank with an appropriate word from the bracket:***

1. पोरसांत व्हडले ---------आसात. (झाडां, पेरी, माड)
2. सोयऱ्यांक ---------बसयतांव. (रुकार, सालांत, सोप्यापोंदा, मेजार)
3. दुर्गाच्या दारार दोन ------आसात. (शींव, फूल, पायमांय, न्हाणयो)
4. पोरसांत बरीं ------ आसात. (मेज, फुलां, आरमार, वोल्तेर)
5. पांदऱ्यात ---------द[illegible] (वाती, मेजां, चानयो, तेर्स)
6. रवीचें------व्हडलें. (घर, आरमार, फुलझाडां, आंब्याचीं कापां)
7. सोप्याच्या पोंदा ------ बसता. (सोयरो, पेटो, घरकान्न, बाबा)
8. जळवाची ------- घरा फाटल्यान आसा. (तेरास, खोंप, साल, आरमार)
9. सुटयेंत तीव आनी ताचीं -------- येतात. (केळीं, झाडां, भुरगीं, साळोरी)

# पाठ 8 : आटवो पाठ

## दोतोरागेर

सुटयेच्या दिसांनी सुरेश रवीगेर आसलो. रवीन आनी सुरेशान आट दीस खूप मजा केली. रवीन ताका आख्खें मडगांव दाखयलें. ताका मोंती दोंगरार व्हेलो, कोलव्यां वेळेर भोंवडायलो. घरा फाटल्या व्हाळार ते सदां न्हाताले आनी मजा करताले. शीला आनी उमाय तांच्या वांगडा फिरतालीं.

एक दीस सकाळीं सुरेश उटलो ना. रवी उटलो, तोंड धुलें. चा पियेंवचो वेळ जालो तरी सुरेश उटलो ना. उमा ताका उटौंक गेलें. ताचें पांगरूण काडपाक उमान हात घालो. ताचें आंग ताका बरेंच हून लागलें. उमान आवयक उलो मारलो. आवयन सुरेशाच्या कपलार हात दवरून पळेलें. ताचें आंग खतखततालें. तेन्नाच सुरेशान दोळे उगडले. दोळे तांबडेच दिसताले. ताचे हातपांय फोडताले, तकली उसळताली, नाक चोंदललें आनी ताका उस्वास काडूंक येना आसलो. तिणें रवीच्या बाबाक सांगलें.

रवी आनी ताच्या बाबान सुरेशाक दोतोरागेर व्हेलो. दोतोरान ताका बांकाचेर न्हिदायलो. ताची नाडी तपासली. ताच्या तोंडांत तेर्मामित्र दवरलो. ताका चड जोर आसलो. मागीर दोतोरान स्टेतोस्कोप कानाक लायलो आनी ताची छाती आनी फाट तपासली. ताका खोंकूंक लायलें. जीब भायर काडूंक लायली आनी दोळे उगडून पळेले. पोट दांबलें आनी खंय दुकता तें विचारलें.

उपरांत सुरेशाक रवी बरोबर भायर बसयलो. दोतोरान रवीच्या बाबाक सांगलें, 'भुरग्याक फ्लू जाला. जोर चड आसा. हांव थोड्यो गुळयो दितां, तांतूं जोर रोकडोच देंवतलो. एक दोन दीस ताका पेज वाडात. थंड उदक पिंवक दिनाकात. दोन दिसांनी जोर कमी जायना तर परत येवन सांगात.'

रवी आनी ताच्या बाबान सुरेशाक घरा हाडलो. सुरेश आतां बाजेर न्हिदून आसतालो. रवीक एकट्याक खेळूंक वचूंक वाज येतालो. सुरेशा लागीं बसून काणयांचीं पुस्तकां वाचून दाखयतालो. उमा आनी शीला सुरेशाक कितें जाय नाका तें पळेतालीं. चडशीं ताच्याच म्हऱ्यांत बसून रावतालीं. रवीक आनी सुरेशाक खंय खंय भोंवपाक जाय आसलें, व्हाळार वचून पोंवपाक जाय आसलें. पूण सुरेशाच्या जोरान तांकां कांयच करूंक मेळलें ना.

**उतरावळ VOCABULARY**

| | |
|---|---|
| वेळ (f) beach | न्हा (iv) bathe oneself |
| दाखय (tv) show | वांगडा (adv) with |
| भोंवडाय (tv) take someone around | फीर (iv) roam, wander |

तोंड (n) face, mouth
पांगरूण (n) coverlet
आंग (n) body
कपल (n) forehead
खतखत (iv) boil, be very hot
दोळो (m) eye
उगड (tv,iv) open
तांबडो (adj) red
फोड (iv) ache
तकली उसळता = head is aching
नाक (n) nose
चोंद (iv) block
उस्वास (m) breath
दोतोर (m) doctor
बांक (m) bench
नाडी (f) pulse
तपास (tv) examine
तेर्मामित्र (m) thermometer
जोर (m) fever
स्टेतोस्कोप (m) stethoscope
कान (m) ear
लाय (tv) place, attach, apply
छाती (f) chest
फाट (f) back
खोंक (iv) cough
जीब (f) tongue
पोट (n) stomach
दांब (tv) press
दूक (iv) pain, ache
उपरांत (adv) after, afterwards
गुळी (f) pill
रोकडें (adv) at once
पेज (f) conjee
वाज ये = be fed up, be bored
म्हन्यांत (adv) by the side of
पोंव (iv) swim

**शिकपाचें घोळौप** REPETITION LESSON

– नमस्कार, दोतोर वाज.
– नमस्कार, तूं रे सुनील. यो बस. कितें खबर? घरांत कशीं आसात?
– सगळीं बरीं आसात. तुजें कशें चल्लां? धुवेची चीट बी आयल्या?
– व्हय, कालूच आयल्या. फुडल्या म्हैन्यांत येता खंय. तुजें तोंड कित्याक बावलां रे? कितें जालें?
– कितें सांगूं? जिवाक बरेंच दिसना. कमर दुकता आनी पांय फोडतात. सकाळीं उटताना घुंवळशी येता. कामार लक्ष लागना.
– इतल्या वेगीं म्हतारो जालोय?
– वाज, बेश्टींच फकाणां करूं नाका. खरेंच म्हाका त्रास जातात. तूं तपासता काय ना?
– चल, चल बाबा. तुका ना म्हणूं येता? जीब भायर काड पळौंया. दोळे दाकय, मात्शें वयर पळ्य. आतां बांकार न्हीद.
– आवयस, हें पळे न्हिदताना उटताना असो त्रास जाता.

– तूं आतां भिऊं नाका. तुका खडखडीत बरो करतां. मागीर तुका धांवपाक परयान जातलें.
– धांवपाक सोड सारकें चलपाक जाताशें कर.
– हात असो कर, प्रेसांव पळौंया. तुजें प्रेसांव मात्शें चड आसा. बाकी सगळें बरें आसा.
– तें आनी कशें जालें?
– तूं चड काम करताय. फायली घरा सुद्दा हाडून बसताय. आतां तुजे पिरायेक इतलें काम झेंपना.
– कितें करूं? भुरग्यांक वयर काडनाका?
– आरे, तुजो जीव पैलो. म्हजें आयक. आज थावन चड काम करूं नाका. रातची न्हीद खळयनाका. जेवणांत मीठ उणें कर. लोणी, तेल, नुस्तेंय बी उणें कर. तुका भाजिपालो आनी फळां बरीं. हांव बरौन दितां त्यो गुळ्यो दिसाक तीन फावट घे. येंवच्या सोमारा तुजें प्रेसांव तपासतलों.
– बरें तर, तुका देव बरें करूं.
– तुज्या कामा विशीं सांगलां तें विसरनाका.
– बरें बरें.

## उतरावळ VOCABULARY

चीट (f) letter
म्हैनो (m) month
फुडलो (adj) next, coming
तोंड बावलां = look depressed
जीव (m) life
कमर (f) waist
घुंवळ (f) giddiness
म्हातारो (m) old man
बेश्टेंच (adv) without reason
फकाणां कर = tease
त्रास (m) trouble
त्रास जातात = find it difficult
खडखडीत (adv) lively
प्रेसांव (n) blood pressure
पिराय (f) age
काम (n) work
काम झेंपना = unable to work
न्हीद खळ्य = miss sleep
मीठ (n) salt
लोणी (n) butter
तेल (n) oil
उणें (adv) less
तीन फावट = thrice, three times
सोमार (m) Monday
विशीं (pp) about, regarding
विसर (iv) forget

**GRAMMAR NOTES :**

1. With the exception of a few feminine nouns, nouns having the same singular

and plural forms are of the masculine gender. Examples are : पूत, son, नातू grandson, फातर stone.

2. The noun forms we have considered up to now are called *direct* forms which are used as Nominative Case, and for nouns treated as non-living beings, as Accusative Case. Most of the other cases are formed by adding case suffixes. These case suffixes are added to the stem called the *oblique*. The oblique forms of nouns, adjectives and pronouns are shown in the following table :

| | | **Singular** | | | **Plural** | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|
| | | **Masc.** | **Fem.** | **Neuter** | **Masc.** | **Fem.** | **Neuter** |
| Noun | Direct | घोडो | बडी | केळें | घोडे | बडयो | केळीं |
| | Oblique | घोड्या | बडये | केळ्या | घोड्यां | बडयां | केळ्यां |
| Noun | Direct | नातू | कात | चेडूं | नातू | काती | चेडवां |
| | Oblique | नातवा | काती | चेडवा | नातवां | कातीं | चेडवां |
| Pronoun | Direct | तो | ती | तें | ते | त्यो | तीं |
| | Oblique | त्या | ते | त्या | त्या | त्या | त्या |
| Adjective | Direct | बरो | बरी | बरें | बरे | बऱ्यो | बरीं |
| | Oblique | बऱ्या | बरे | बंऱ्या | बऱ्या | बऱ्या | बऱ्या |

3. Case suffixes are placed after the oblique stem. So also are the postpositions (treated later) placed after the oblique stem. The Konkani case endings for noun forms are as follows :

| Case | Singular | Plural |
|---|---|---|
| Accusative | –क | –क |
| Dative | –क | –क |
| Instrumental | –न | –नी |
| Locative 1 | –ंत | –नी |
| Locative 2 | –र/ –चेर | –र/–चेर |
| Vocative | ––– | –नो |

**A. कंसांत दिल्ल्या उतरांक योग्य कुसां लावन वाक्यां पूर्ण करात :** ***Fill in the blanks with appropriate forms of nouns given in the bracket:***

1. ताका मोंती––––––व्हेलो. (दोंगर)
2. उमान –––––– उलो मारलो. (आवय)
3. तिणें ––––– हात दवरून पळेलो. (कपल)
4. आईन रवीच्या ––––––– सांगलें. (बाबा)
5. –––––– ताका बांकाचेर न्हिदायलो. (दोतोर)
6. ताच्या ––––– तेर्मामेत्र घालो. (तोंड)
7. ––––––– रवी बरोबर भायर बसयलो. (सुरेश)
8. –––––– फ्लू जाला. (भुरगो)
9. तो सदां ––––––––न्हिदून आसतालो. (बाज)
10. तूं आतां ––––– न्हीद. (बांक)

**B. सुचयलां तशीं वाक्यां करात :** ***Pattern Practice :***

1. सुरेश बांकार बसला. (वोल्तेर, सोपो, कदेल, बाज)
2. रवीन ताका वेळेर भोंवडायलो. (सुरेश, उमा, भाव, भैण, इश्ट)
3. फुलांचेर पावस पडलो. (झाड, घर, बांक, खोंप)
4. रवीन सुरेशाक घर दाखयलें. (उमा, लुवीस, लता, शीला)
5. भुरग्यांनी आंबे खाले. (चेडूं , बायल, दादलो, चलो)
6. रवीन भुरग्यांक पेरां दिलीं. (इश्ट, चानी, भाव, भैण)
7. त्या घरांत मनशां आसात. (कूड, गांव, पोरसूं , शेत, साल)
8. चल्या, तें कदेल हाड. (भुरगो, चली, मावशी)
9. चलयांनो, हांगा येयात. (चेडूं , भुरगो, चलो)
10. आतांच्या दिसांनी फुलांक चड मोल. (फळ, पुस्तक, वात, केळें, आंबो)

**C. नामपदाचें योग्य रूप घालून वाक्य पूर्ण करात :** ***Fill in the blanks with the correct form of the noun :***

| | |
|---|---|
| 1. घोडो चणे खाता. | –––––––चणे खाले. |
| 2. भुरगीं मजा करतात. | –––––––––मजा केली. |
| 3. सुणें घर राखता. | –––––––––घर राखलें. |
| 4. बायल फुलां काडता. | –––––– फुलां काडलीं. |
| 5. नातू लिसांव करता. | ––––––––– लिसांव केलें. |
| 6. चेडवां शेतांत काम करतात. | –––––– शेतांत काम केलें. |
| 7. चलो उंडे हाडता. | –––––– उंडे हाडले. |

**D. वाक्यां जोडून बरयात : *Structural Table Drill :***

| | | | |
|---|---|---|---|
| चल्या | | आंबो | खालो |
| चलये | | पणस | पळेलो |
| चेड्या | - न | उंडो | हाडलो |
| मनशा | | चिकू | दवरलो |
| दादल्या | | पांव | दिलो |
| बायले | —क | हालवो | आवडलो |
| चेडवा | | पापड | दिसलो |

**E. देखीक दिल्ल्या वाक्यां प्रमाणें सकैल सुचयल्लीं उतरां घेवन वाक्यां करात :** ***Substitution drill:***

1. सुरेशाक मोंती दोंगरार व्हेलो.
2. कोलव्यां
3. उमाक
4. वेळेर
5. भोंवडायलें
6. खेळयलें
7. ताईक
8. पावयली
9. घरा
10. आज्याक
11. आजेक
12. हाडली

# पाठ 9 : नवो पाठ
## इंग्लेज भोंवडेकार




– अशोक, हांगा पावस खंयच्या म्हैन्यांत पडता?
– जून, जुलाय आनी आगोस्त म्हैन्यांत पडता.
– तिनूच म्हैने? आमच्या देसांत वर्स भरय पडता.
– तूं इग्लंडा साकून केन्ना आयलो, तॉमास?
– चौदा दीस जाले. आनी देड म्हैनो उरलो.
– तर तूं पुरुमेंता फेस्ताक आसा?
– म्हळ्यार कसलें फेस्त? तें केन्ना येता?
– हांगाचे इगर्जेचें फेस्त तें. आनी तेरा दीस आसात.
– वीस तारकेर तर. सोळा, सतरा आनी अटरा हे तीन दीस हांव बारदेसांत आसतलों.
– म्हापशांचो बाजार सुक्रारा भरता. तो पळौन यो.
– हां, बरें. हांगा तुमची कोलेज केन्ना सुरू?
– जुनाचे पंदरा तारकेच्यान. पयलें टर्म ओतुब्रांत सोंपता, आनी एक म्हैनो सुटी. दुसरें टर्म नोवेंब्रांत सुरू जाल्लें मार्सांत काबार जाता.
– तुमकां नातालांक सुटी ना?
– आसा तर, एकवीस देजेंब्र ते दोन जानेर मेरेन. तॉमास, ह्या आयतारा तूं कितें करतलो?
– सकाळीं साडे आटांक मीस आसा. दोनपारां रिटान जेवणाक आपयलां.
– तर तूं सांजवेळा मेकळो. पांच वरांचेर आमी कोलव्यां या.
– बरें, आमी परत कितल्यांक येतले?
– आमी आटां भितर येतले. तुका खंय वचूंक जाय?
– खंय ना. रातचो म्हज्या इश्टागेर जेवणाक वेतलों.
– तर आमगेर केन्ना येतलो?
– पयर आयललों न्हय रे?
– पयर चायेक आयल्लो. मंगळारा जेवणाक यो.
– मंगळारा पणजे वेतलों. बुधवारा येतां.
– बुधवारा कितली तारीक येता? हां, णव तारीक. यो, यो तूं.
– बरें तर, चल्लों हांव.

### उतरावळ VOCABULARY

पावस (m) rain — पावस पडता = it rains
म्हैनो (m) month — वर्स (n) year

देड (adj) one and a half
पुरुमेंत = provisions
फेस्त (n) feast
इगर्ज (f) church
काबार जा = close, finish, complete
नाताल (n) Christmas
सुक्रार (m) Friday
आयतार (m) Sunday
मीस (n) Mass
मेकळो (adj) free
परत यो = come back
वचूंक जाय = should go
पयर (adv) day before yesterday
मंगळार (m) Tuesday
बुधवार (m) Wednesday
तारीक (f) date

**शिकपाचें घोळौप** REPETITION LESSON

गुरूजी : आज खंयचो वार?
रवी : आज सुक्रार.
गुरूजी : काल खंयचो दीस?
रवी : काल ब्रेस्तार.
गुरूजी : नासीर, फाल्यां खंयचो दीस?
नासीर : फाल्यां सनवार.
गुरूजी : आनी परां?
नासीर : परवां आयतार, गुरूजी.
गुरूजी : तर अवेरां?
नासीर : एरवां सोमार.
गुरूजी : पयर खंयचो दीस सुमन?
सुमन : पयर बुधवार.
गुरूजी : तर ताच्या आदलो दीस खंयचो?
सुमन : ताच्या आदलो दीस मंगळार.
गुरूजी : रवी, वारांचीं नांवां सांग.
रवी : सोमार, मंगळार, बुधवार, ब्रेस्तार, सुक्रार, सनवार आनी आयतार.
गुरूजी : नासीर, वर्साक कितले म्हैने?
नासीर : वर्साक बारा म्हैने.
गुरूजी : पैल्या म्हयन्याचें नांव कितें?
नासीर : जानेर.
गुरूजी : सुमन, दुसऱ्या आनी तिसऱ्या म्हैन्यांचीं नांवां सांग.
सुमन : फेब्रेर आनी मार्स.
गुरूजी : उरलल्या म्हैन्यांचीं नांवां कोण सांगता?

अशोक : हांव सांगतां गुरूजी.  आब्रील, माय, जून, जुलाय, आगोस्त, सेतेंब्र, ओतुब्र, नोवेंब्र, आनी देजेंब्र.
गुरूजी : अशोक, आज तारीक कितली?
अशोक : आज पांच तारीक.  आमची परिक्षा केन्ना गुरूजी?
गुरूजी : ब्रेस्तारा दीस, इकरा तारकेक.
नासीर : तर आमकां सुटी केन्ना?
गुरूजी : सतरा तारकेच्यान.  येता त्या म्हैन्याचे बारा तारकेक शाळा सुरू.

## उतरावळ VOCABULARY

वार (m) day of the week
ब्रेस्तार (m) Thursday
सनवार (m) Saturday
परां / परवां = day after tomorrow
अवेरां / एरवां = two days after tomorrow
आदलो (adj) previous, former
शाळा (f) school
सुटी (f) holiday
मेरेन (adv) till
परिक्षा (f) test
सुरू = commence

## GRAMMAR NOTE :

**The ordinal numbers** पैलो 'first' दुसरो 'second' तिसरो 'third' and चौथो 'fourth' have their peculiar forms.  Ordinal numbers पांचवो 'fifth' onwards are formed by adding –वो to the cardinal numbers.  All the ordinal numbers are declined like declinable adjectives.

**A. सुचयल्लीं उतरां वापरून नवीं वाक्यां करात :** ***Pattern Practice :***

1. हांव सनवारा शाळेंत वतां.  (मंगळारा, सुक्रारा, बुधवारा)
2. माय म्हैन्यांत सुटी आसता.  (आब्रील, ओतुब्र, देजेंब्र)
3. फाल्यां तारीक चौदा.  (वीस, इकरा, बावीस, एकतीस)
4. एक ते पांच तारीक मेरेन आमची परिक्षा.  (आट ते तेरा, धा ते सतरा, एकुणीस ते तेवीस)
5. काल हांव बाजारांत गेलों.  (पयर, अवेरां, आज, सकाळीं)
6. सोमार ते बुधवार मेरेन जायतो पावस पडलो.  (सुक्रार ते बुधवार, सनवार ते मंगळार)
7. तेरेज आज येतलें.  (परवां, फाल्यां, एरवां)
8. तो जून म्हैन्यांत येतलो.  (मार्स, सेतेंब्र, नोवेंब्र)

आंकडे CARDINAL NUMBERS

1 = एक
2 = दोन
3 = तीन
4 = चार
5 = पांच
6 = स
7 = सात
8 = आट
9 = नव (णव)
10 = धा
11 = इकरा
12 = बारा
13 = तेरा
14 = चौदा
15 = पंदरा
16 = सोळा
17 = सतरा
18 = अटरा
19 = एकुणीस
20 = वीस
21 = एकवीस
22 = बावीस
23 = तेवीस
24 = चोवीस
25 = पंचवीस
26 = सवीस
27 = सत्तावीस
28 = अट्टावीस
29 = एकुणतीस
30 = तीस
31 = एकतीस
32 = बत्तीस
33 = तेत्तीस
34 = चोवतीस
35 = पंचतीस (पस्तीस)
36 = सत्तीस
37 = सात्तीस
38 = आटतीस
39 = एकुणचाळीस
40 = चाळीस
41 = एकेचाळीस
42 = बावेचाळीस
43 = तेवेचाळीस
44 = चोवेचाळीस
45 = पंचेचाळीस
46 = सवेचाळीस
47 = सत्तेचाळीस
48 = अट्टेचाळीस
49 = एकुणपन्नास
50 = पन्नास
51 = एकावन
52 = बावन
53 = तेपन
54 = चोवपन
55 = पंचावन
56 = सप्पन
57 = सत्तावन
58 = अट्टावन
59 = एकुणसाट
60 = साट
61 = एकसट
62 = बासट
63 = तेसट
64 = चोवसट
65 = पंचसट
66 = ससट

67 = सातसट
68 = आटसट
69 = एकुणसत्तर
70 = सत्तर
71 = एकात्तर
72 = ब्यात्तर
73 = तेयात्तर
74 = चोवन्यात्तर
75 = पंचात्तर (पावुणशें)
76 = सात्तर
77 = सत्त्यात्तर
78 = अट्ट्यात्तर
79 = एकुणऐशीं
80 = ऐशीं
81 = एकायशीं
82 = ब्यायशीं
83 = तेयायशीं
84 = चोवरायशीं
85 = पंचायशीं
86 = सायशीं
87 = सत्त्यायशीं
88 = अट्ट्यायशीं
89 = एकुणनव्वद
90 = नव्वद
91 = एक्याण्णव
92 = ब्याण्णव
93 = तेयाण्णव
94 = चोवन्याण्णव
95 = पंचाण्णव
96 = साण्णव
97 = सत्त्याण्णव
98 = अट्ट्याण्णव
99 = नव्याण्णव
100 = शेंबर (शें)

101 = एकशें एक
110 = एकशें धा
125 = एकशें पंचवीस (सवायशें)
150 = एकशें पन्नास (देडशें)
175 = एकशें पंचात्तर (पावणे दोनशीं)
200 = दोनशीं
225 = दोनशीं पंचवीस (सवाय दोनशीं)
250 = दोनशीं पन्नास (अडेजशीं)
300 = तिनशीं
325 = सवाय तिनशीं
350 = तिनशीं पन्नास (साडे तिनशीं)
400 = चारशीं
500 = पांयशीं (पांचशीं)
600 = सयशीं
700 = सातशीं
800 = आटशीं
900 = नवशीं
1,000 = हजार
1,500 = देड हजार
2,000 = दोन हजार
2,500 = अडेज हजार
3,500 = साडे तीन हजार
10,000 = धा हजार
1,00,000 = लाख
10,00,000 = धा लाख
1,00,00,000 = कोटी (क्रूट, करोड)
0.25 = पाव
0.50 = अर्दो
0.75 = पावूण (पावणे एक)
1.25 = सवाय एक
1.50 = देड
1.75 = पावणे दोन
2.25 = सवाय दोन
2.50 = अडेज

2.75 = पावणे तीन
3.25 = सवाय तीन
3.50 = साडे तीन
3.75 = पावणे चार
4.25 = सवाय चार

**B. खाला दिल्ले आंकडे उतरांनी बरयात :** ***Write the following numbers in words:***

| | | |
|---|---|---|
| **2=** | 80 = | 3 = |
| 4 = | 18 = | 5 = |
| 6 = | 40 = | 7 = |
| 8 = | 23 = | 12 = |
| 9 = | 19 = | 16 = |
| 33 = | 90 = | 17 = |
| 13 = | 11 = | 22 = |
| 14 = | 25 = | 26 = |
| 15 = | 30 = | 28 = |
| 21 = | 5 = | 31 = |
| 24 = | 10 = | 27 = |
| 1000 = | 60 = | 32 = |

**C. प्रस्नांक जापी दियात :** ***Answer the following questions :***

1. गोंयांत खंयच्या म्हैन्यांनी पावस पडता?
2. पुरुमेंताचें फेस्त केन्ना?
3. म्हापशांचो बाजार केन्ना भरता?
4. अशोकाची कोलेज केन्ना सुरू जाता?
5. नातालांक कितले दीस सुटी मेळता?
6. आयतारा दीस टॉमासाक कोणें जेवपाक आपयलो?
7. टॉमास अशोकागेर केन्ना जेवपाक वेतलो?
8. आज खंयचो दीस?
9. वरसाक कितले म्हैने?
10. सोमारा आदलो दीस खंयचो?
11. नाताल खंयच्या म्हैन्यांत येता?
12. दुसऱ्या आनी तिसऱ्या म्हैन्यांचीं नांवां कितें?

# केलेंडर

| | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|
| आयतार | – | 7 | 14 | 21 | 28 |
| सोमार | 1 | 8 | 15 | 22 | 29 |
| मंगळार | 2 | 9 | 16 | 23 | 30 |
| बुधवार | 3 | 10 | 17 | 24 | 31 |
| ब्रेस्तार | 4 | 11 | 18 | 25 | –– |
| सुक्रार | 5 | 12 | 19 | 26 | –– |
| सनवार | 6 | 13 | 20 | 27 | –– |

**D. वयर दिल्लें केलेंडर पळौन प्रस्नांच्यो जापी दियात** : ***Looking at the calendar above, answer the following questions :***

1. तेवीस तारीक खंयच्या वाराक येता?
2. सत्तावीस तारीक खंयच्या वाराक येता?
3. ब्रेस्ताराक खंयची खंयची तारीक येता?
4. दोन तारीक केन्ना येता?
5. पंचवीस तारीक केन्ना येता?
6. चौदा तारीक केन्ना येता?
7. सनवाराक खंयची खंयची तारीक येता?
8. आयताराक खंयची खंयची तारीक येता?
9. सतरा तारीक केन्ना येता?
10. अट्टावीस तारीक केन्ना येता?
11. वीस आनी एकवीस तारको केन्ना येतात?
12. धा तारीक खंयच्या वाराक येता?
13. सुक्राराक खंयची खंयची तारीक येता?
14. एकतीस तारीक खंयच्या वाराक येता?
15. सोमाराक खंयची खंयची तारीक येता?
16. अटरा आनी एकुणीस तारको केन्ना येतात?
17. पांच तारीक खंयच्या वाराक येता?

# पाठ 10 : धावो पाठ

## वासपूस

पर्यटन ऑफिसाचें दार उगडून आंजेला भितर सरलें. भायर आसलले दोग तीग भोंवडेकार भितर सरले. आंजेलान तांकां येवकार दिलो आनी तांकां बसूंक सांगलें. केरळा थावन आयलल्या भोंवडेकारान आंजेलाक विचारलें :

– बाय, हांव आजूच पणजे पावलां. आनी चार दीस उरतलों. म्हाका हांगाच्यो वेळो आनी धर्मीक जागे पळौंक जाय.
– टुरीस्ट बशीन गेल्यार उत्तर गोंयच्यो वेळो पळौंक मेळतल्यो. कळंगूट, बागा, हणजुणें आनी वागातोर ह्यो वेळो, आनी मयेंचें तळें तुका दाखयतलीं.
– म्हाका पयलीं कळंगूट वचूंक जाय.
– तशें जाल्यार फेरीन बेतीं वच. थंय टेक्सी मेळता. बशीन वचूंक जाय तर फेरीन मालीं वच. थंय कळंगुटच्यो बशी मेळतात.
– थंय साकून बागा कितलें पैस?
– थंय थावन रिक्शान गेल्यार सात–आट मिनटांची वाट. वेळे वयल्यान चलून गेल्यार सुमार अर्दें वर लागता.

केरळाचो भोंवडेकार गेलो. आनी दोग जाण बेग बेगीन आंजेला म्हऱ्यांत आयले, आनी विचारूंक लागले. एकल्यान विचारलें,

– बाय, म्हाका वेळ जाता. म्हाका मुंबै वचूंक जाय. कशें वचपाचें?
– गाडयेन वचूंक जाय जाल्यार मडगांवां वचूंक जाय. थंय साकून दोनपारां पावणे एकाक आनी रातीं धांक मुंबै वेच्यो गाडयो आसात. बशीन वेचें जाल्यार दोनपारां दोनां उपरांत बशी सुटतात. विमानान वेतलो जाल्यार सकाळची आनी दोनपारांची, अश्यो दोन फ्लायटी आसात.
– गाडयेक रिजर्वेशन करतलों जाल्यार खंय करप?
– हरशीं हांगा करपाक जाता. पूण हांगाचे सीट काबार जाले. मडगांवूच वेचें पडलें.

ताचे कुशीन बसलल्या भोंवडेकारान विचारलें :

– म्हाका बेंगळूर वचूंक जाय. गाडयेची तिकेट आसा?
– व्हय, आसा. तुका कितले सीट जाय?
– म्हाका दोनूच पुरो.
– म्हजे कुशीन बसता तो क्लार्क येंव दी. तो तुका तिकेट दितलो.

इतले म्हणसर, एक अमेरिकन प्रवासी आपलें सामान घेवनूच थंय आयलो. ताका रावपाक होटेल जाय आसलें. ताणें आंजेला कडेन चौकशी केली. आंजेलान रोकडोच फोन केलो आनी ताका रावूंक सुवात मेळौन दिली.

## उतरावळ VOCABULARY

वासपूस (f) enquiry
पर्यटन ऑफीस = tourist office
भोंवडेकार (m) tourist
येवकार दी = welcome
वेळ (f) beach
धर्मीक जागो = place of religious interest
उत्तर (f) North
तळें (n) lake
फेरी (f) ferry
फेरीन = by the ferry
अर्दे वर = half an hour
आयले = came
पावणे = a quarter less than one
पावणे एक = quarter to one
गाडी (f) train, cart, vehicle
कुशीन (pp) by the side of
साकून (pp) from
थावन (pp) from
सुमार (adv) about
पूल (m) bridge
रस्तो (m) road, street
पलतडी (adv,pp) beyond
वयर (adv,pp) above, over
सरळ (adv) straight
वाट (f) way, path
मुखार (adv,pp) in front of
तशें जाल्यार = in that case
वेळ जाता = it is getting late
हरशीं (adv) usually
पुरो = it is sufficient
इतले म्हणसर = in the mean time
प्रवासी (m) traveller
चौकशी (f) enquiry
म्हन्यांत = near, by the side of

**GRAMMAR NOTE :**

Konkani has postpositions just as English has prepositions. The grammatical function of a postposition is the same as that of a preposition. Most of the Konkani postpositions are placed after the oblique forms of nouns. A few of them can be placed after the direct forms of nouns. Occasionally, they can be placed after the case suffix, or even after a verb. Examples of postpositions are given below :

## परसर्ग POSTPOSITIONS

आदीं = before
उपरांत = after
कडे = near, by
कुशीन = by the side of
खातीर / पासत = for, for the sake of, for the purpose of
थावन / साकून / सावन / थाकून = from
पयलीं = before
पोंदा = below
फाटल्यान = behind, from behind
फुडें = in front of
बगलेक = near

बरोबर / सैत = together with
भितर = in, among
मुळांत = below, at the bottom of
लागीं = near
वांगडा = in the company of, with
शिवाय / विणें = without
सकल = under, below
वयर = above

**शिकपाचें घोळोप** REPETITION LESSON

पैलो : म्हाका टुरिस्ट ऑफिसांत वचूंक जाय. खंयच्यान वचूं?

पोलीस : ह्याच रस्त्यान फुडें वच. एक ल्हान पूल मेळतलो. पुला पलतडी वच. थंय उजव्यान वच. फुडें तुका टुरिस्ट ऑफिस मेळतलें.

दुसरो : आल्तिनार वचपाची वाट खंयची?

पोलीस : पयलीं, सरळ इगर्जे कडे वच. इगर्जे मुखार एक रस्तो आसा. तो रस्तो सरळ आल्तिनार वेता.

दुसरो : म्हाका निर्मला कोलेजींत वचूंक जाय.

पोलीस : तशें जाल्यार त्या रस्त्यान सरळ वयर वेतकूच आकाशवाणी केंद्र मेळता. थंय सावन मुखार वेताना, उजव्यान एक रस्तो आसा. थंयच तुका निर्मला कॉलेजिचो बोर्ड दिसतलो.

**उतरावळ** VOCABULARY

पूल (m) bridge
रस्तो (m) road, street
पलतडी (adv,pp) beyond
वयर (adv,pp) above, over
सरळ (adv) straight
वाट (f) way, path
मुखार (adv,pp) in front of
तशें जाल्यार = in that case

**A. कंसांत दिल्ल्या नामपदांचीं सामान्यरुपां वापरून रिकामे जागे भरात :** ***Fill in the blanks with oblique forms of nouns given in the brackets :***

1. ------ आदीं उदक पिवूं नाका. (जेवण)
2. ------ साकून भोंवडेकार आयले. (केरळ)
3. रवी ----- फाटल्यान धांवलो. (घर)
4. ------ सामकार रस्तो आसा. (इगर्ज)
5. मडगांवा ------- बगलेक ताचें घर. (रस्तो)
6. ताच्या ------- कडे पैशे नांत. (पूत)
7. तो गांव ----- लागीं आसा. (दोंगर)
8. ----- पोंदा पेटो आसा. (बाज)

9. अशोक ----- भितर बसला. (कूड)
10. शंकर ----- मुळांत न्हिदला. (रूक)
11. ------ लागीं आमचो सुणो आसा. (फातर)
12. ------ खातीर तो शाळेंत वता. (शिकप)
13. तान ------ शिवाय वचना. (उदक)



**B. वाक्यां करात :** ***Structural Table Drill :***

<table>
<tr><td>मेजा<br>कदेला<br>आरमारी<br>बांका</td><td>वयर<br>पोंदा<br>सकल<br>कुशीन<br>मुखार</td><td>बोल<br>पेन<br>कागद<br>पुस्तक<br>पेन्सील</td><td>आसा<br>आसता<br>दिसता</td></tr>
<tr><td rowspan="2">पुला<br>दोंगरा<br>व्हाळा</td><td rowspan="2">पलतडी<br>कुशीन<br>बगलेक<br>आलतडी<br>लागीं</td><td>गांव<br>रूक</td><td>आसलो<br>आसा<br>दिसता</td></tr>
<tr><td>शेत<br>घर<br>तळें</td><td>आसा<br>आसता<br>आसलें</td></tr>
</table>

**C. कंसांत दिल्लीं उतरां वापरून नवीं वाक्यां करात :** ***Pattern Practice :***

1. राजू मेजा लागीं बसला. (कुशीन, कडे, सकल)
2. घरा भोंवतणीं पोरसूं आसा. (लागीं, फाटल्यान, मुखार)
3. पणजे साकून गाडी आयली. .(थावन, सावन, थाकून)
4. रुका पोंदा भुरगीं आसात. (सकल, बगलेक, मुळांत)
5. रामा सांगाता रवी आयलो. (वांगडा, बरोबर, सैत)
6. दोना उपरांत तूं यो. ( आदीं, पयलीं)
7. नीता खातीर जेवण तयार केलें. (पासत, वांगडा, सांगाता)
8. शंकरा विणें तें काम जायना. (शिवाय)

**D. क आनी ख गट जुळौन पूर्ण वाक्यां करात :** ***Match the following :***

| क | ख |
|---|---|
| 1. रवीच्या इश्टा | a. उपरांत बशी सुटतात. |
| 2. थंय थावन रिक्शान | b. तण खातात |
| 3. आमच्या कपेला | c. व्हड रूक आसात. |
| 4. बशीन गेल्यार दोनपारां | d. फोन केलो |
| 5. गांवच्या व्हाळा लागीं | e. गेल्यार पांच मिनटांची वाट |
| 6. गाय आनी पाडूक | f. जायत्यो बशी मेळतात. |
| 7. म्हजे कुशीन बसता | g. दोन फ्लायटी आसात. |
| 8. आंजेलान रोकडोच | h. लागीं दोन बोल आसात. |
| 9. शीला बरोबर | i. तो क्लार्क येंव दी. |
| 10. मडगांव सावून पणजे वचपी | j. सामकार एक पोरसूं आसा. |
| | k. उमा शाळेंत वेता. |
| | l. सामान घेवन यो. |

**E. प्रस्नांच्यो जापी दियात :** ***Answer the following questions :***

1. केरळाच्या भोंवडेकाराक कितें पळौंक जाय आसलें?
2. बशीन कळंगूट कशें वचप?
3. कळंगुटच्यान बागा चलून वचपाक कितलो वेळ लागता?
4. मुंबय वचपाक मडगांवां कितल्या वरांचेर गाडयो आसात?
5. विमानान वचूंक फ्लायटी केन्ना आसात?
6. अमेरिकन प्रवासी कितें घेवन आयलो?
7. ताका रावपाक कितें जाय आसलें?
8. आल्तिनार वचपाची वाट खंयची?
9. निर्मला कोलेज खंय आसा?
10. आकाशवाणी केंद्रांत खंयच्यान वचूंक जाय?

# पाठ 11 : इकरावो पाठ

## पोशाक

आई : बेगीन न्हायात गो. म्हाका न्हावपाक जाय.

अलका : आई, म्हजें जालें. मात्शी भायली साय हाडून दी. हांव पोलकोच घेवन आयलीं.

आई : आगो हो चुडिदार कोणें उडयला?

नीता : आई, तो उंबळपाक दवरला.

आई : अलका, ही साय घे, आनी सडसडीत भायर यो.

नीता : म्हजी तांबड्या फुलांची साडी खंय आसा?

अशोक : ही पळे, हांवें फेर्र मारून दवरल्या.

नीता : म्हज्या घागऱ्याक कित्याक मारलें ना रे?

अशोक : फाल्यां म्हज्या खोमसाक आनी काल्सांवाक मारताना तुजो घागरो दी.

नीता : काल तुजें बानयान आनी चड्डी उंबळल्या. तीं तुजे दांड्येर दवरल्यांत.

बाबा : बाय, म्हजी पिजाम उंबळपाक जाय.

नीता : दी, मांदन्यांत दवरतां.

अलका : बाय, म्हजे केंस उगय.

नीता : तुजें रिबीन हाड, उगयतां.

अलका : हें रिबीन आनी लिगां घे.

अशोक : म्हगेल्या इश्टालो आज जल्मादीस. तांगेर कितें घालून वचूं?

नीता : पयर घेतला तो धवो सदरो घाल, आनी तुजी ती निळी पेंट घाल.

अशोक : म्हज्या जल्मादिसाक ताणें म्हाका लेंस दिल्लो.

नीता : शाळेंतसून येताना ताका एक पेन घेवन यो.

अशोक : आई, हांव येतां गे.

अलका : हो सदां बेगीन वेता.

आई : तुजो सगळ्याच कामाक वेळ. मागीर शाळेंतूय उसरां पावता.

बाबा : म्हजे मेय बुटांत नांत.

नीता : बाबा, हे घे, आनी हो कोट.

बाबा : हाड, हाड. वेळ जाता. सांजे येताना वेळ जातलो. सुनीलागेर वचून येतां.

आई : सुनीलागेर वेता तर काकागेरूय वचून खबर घेवन यो.

बाबा : बरें तर, हांव येतां.

नीता : अलका, बोटव्यांत पुस्तकां भरलीं? हो पळे, तुजो डबो हांगाच आसा. आई, तुजी शाळा आज केन्ना सुटतली?

आई : आज म्हाका रावनाकात. म्हाका वेळ जातलो.

अलका : बाय, म्हजें सगळें जालें.  यां मुगो?
नीता : आई, फाटलीं दारां धांप.  तुगेली सत्री हांव व्हरतां, तूं म्हजी व्हर.

## उतरावळ VOCABULARY

पोशाक (m) dress, costume
पोलको (m) blouse
साय (f)skirt
उंबळ (tv) wash [clothes]
फेर्र (n) hot iron
घागरो (m) petticoat, skirt
खोमीस (n) shirt
काल्सांव (n) trousers
बानयान (n) banian, undershirt
चड्डी (f) underpants, shorts
दांडी (f) wooden stand for clothes
पिजाम (f) pyjama
केंस (m) hair
उगय (tv) comb
रिबीन (n) ribbon
लीग (n) clip
जल्मादीस (m) birthday
सदरो (m) shirt
पेंट (f,n) trousers
लेंस (m) handkerchief
उसरां (adv) late
मेय (m) socks, stockings
बूट (m) boot
खबर घे = enquire about
बोटवो (m) schoolbag
पुस्तक (n) book
भर (tv) fill
दार (n) door
धांप (tv) close, shut
सत्री (f) umbrella, parasol

## GRAMMAR NOTES :

1. –चो, –ची, –चें, –लो, –ली, –लें, –गेलो,. –गेली, –गेलें are postpositions placed after the oblique forms of nouns. They act as derivative suffixes, turning the nouns into derived adjectives. The derived forms are further declined like the declinable adjectives. Thus घर becomes घराचो and in घराचो खांबो it functions as an adjective.

2. In addressing persons, Konkani uses आरे, आगो, आगे, आगा and the clitics (dependent forms) corresponding to these रे, गो, गे, गा. In using these care must be taken to find out the social acceptability of the forms to a particular group. If there is a doubt, it is better to avoid them altogether.

3. From the verb roots, adverbial forms can be derived by adding –ऊन. These forms denote action as having been completed. Thus we get: काडून घेतलो, करून दिलें, घालून दितां.

## शिकपाचें घोळौप REPETITION LESSON

– गोंयांत दादले कसलो पोशाक घालतात?
– आतां चड करून दादले काल्सांव आनी खोमीस घालतात. शिवाय सदरो, कोट, बुशकोट, कुर्तो, सफारी, होय पोशाक घालतात.
– पयलीं कितें घालताले?
– पयलीं घरांत आंगोस्तर आनी खोमीस, ना जाल्यार वालो न्हेसताले. भायर वेताना पुडवें, जुदी, आनी माथ्याक मुंडासो बांदताले.
– पांयांक कितें घालतात?
– पयलीं चड करून चांबड्याच्यो व्हाणो आनी खडावो घालताले. आतां बूट, रबरी जोतीं, प्लास्टीक आनी चांबड्याच्यो व्हाणो घालतात.
– बायलो कितें घालतात?
– पयलीं बायलो नव वारी कापड न्हेसताल्यो. चलयो घागरो पोलको घालताल्यो.
– आनी आतां?
– चडशो साडयो न्हेसतात. बाकिच्यो विस्तीद, साय–पोलको, चुडिदार, जीन–शर्ट, सल्वार–कमीज आदी घालतात.

## उतरावळ VOCABULARY

दादलो (m) man, male
आंगोस्तर (n) plain dhoti
वालो (m) waist cloth
पुडवें (n) long dhoti
जुदी (f) Indian coat
माथें (n) head
मुंडासो (m) turban
बांद (tv) tie
तोपी (f) cap
चांबडें (n) leather
जोतें (n) chappals, slippers
खडाव (f) sabot
व्हाण (f) slipper
नव वारी कापड = nine-yard saree
कापड (n) long cotton saree
साडी (f) saree
विस्तीद (m) dress, gown
आदी = etcetera

**A. सुचयल्लीं उतरां घेवन नवीं वाक्यां करात :** ***Pattern Practice :***

1. सुण्याचो पांय दुकता. (उमा, अलका, घोडो, सोंसो)
2. हांव काकागेर वेतां. (माया, अशोक, ताई, टॉमास)
3. बाबाली सत्री मोडली. (शाणू , आई, भुरगो, चेडूं)
4. रवी, येता मरे? (उमा, आई, ताई, लुवीस)
5. आमच्या सोयऱ्यांगेलो रेडो मेलो. (काका, मामा, बाबा)

6. अशोक पुस्तक दवरून गेलो. (घे, सोड, विसर)
7. रवीन शीलाचें पेन काडलें. (नीता, सुरेश, चलो, बाय)
8. सुरेशालो भाव घरा गेलो. (नासीर, तेरेज, उमा, चेडूं)
9. रमेशाक चिकवाची फोड जाय. (आंबो, पेर, पोपाय)
10. घराच्यो चावयो खंय आसात? (बाबा, आरमार, कूड, पसरो)
11. आइची सत्री व्हरतां. (नीता, बाबा, आजो, आजी)
12. चलयो घागरो घालताल्यो. (जोतीं, हार, विस्तीद, चुडिदार)
13. म्हजो भाव चांबड्याची व्हाण घालता. (काळी, व्हडली, प्लास्टीक, रबर)

**B. प्रस्नांक जापी दियात :** ***Answer the following questions :***

1. आईन कोणाची साय हाडली?
2. बाबा कोणागेर वेतलो?
3. नीता कसली साडी सोदता?
4. नीतान रवीचें बानयान खंय दवरलें?
5. आज कोणालो जल्मादीस?
6. रवी तांगेर कितें घालून वेता?
7. नीतान कोणाची सत्री व्हेली?
8. अशोकान कोणाची साडी फेर मारून दवरली?
9. नीतान कोणाचे केंस उगयले?
10. अलका पुस्तकां कित्यांत भरतालें?
11. आई कोणाली सत्री व्हरतली?
12. गोंयांत दादले कसलो पोशाक घालतात?
13. चलयो कितें घालतात?
14. बायलो चडशो कितें न्हेसतात?

**C. एकवचनाच्या जाग्यार अनेकवचन, आनी अनेकवचनाच्या जाग्यार एकवचन करात :**
***Provide plural forms if singular ones are given, and vice versa :***

| | |
|---|---|
| 1. आई, म्हजी साय हाड. | आई, ---- ------हाड. |
| 2. ------ -------सोबीत दिसता. | मामागेल्यो गायो सोबीत दिसतात. |
| 3. बोटव्यांत रवीचें पुस्तक घाल. | बोटव्यांत ------ ------ घाल. |
| 4. आई, ---- ------ बंद कर. | आई, फाटलीं दारां बंद कर. |
| 5. बाबा चांबड्याचें जोतें घालता. | बाबा ----- ----- घालता. |
| 6. ------ ------ हांगा आसा. | उमाचे डबे हांगा आसात. |

7. हो कोणाचो पोलको? ------ ------- पोलके?
8. ---- ------ चड्डी. त्यो रवीच्यो चड्ड्यो.
9. नीताची साडी अशोकान थंय दवरली. ------ ------ अशोकान थंय दवरल्यो.
10. ------ ------ खंय आसा? म्हज्यो पिजामी खंय आसात?
11. अशोक ----- ----- फेर्र मारता. अशोक नीताच्या घागऱ्यांक फेर्र मारता.
12. ------ ------ तांबडे. उमाचीं रिबिनां तांबडीं.
13. चली साडी न्हेसता. ------ ------न्हेसतात.
14. ------ ------ घालता. दादले व्हाणो घालतात.

**D. कंसांत दिल्ल्या रुपांतर्ले योग्य रूप घेवन वाक्यां पूर्ण करात :** ***Fill in the blanks with correct forms chosen from the bracket :***

1. अलका, बेगीन न्हावन यो --------- ( रे, गो, गे, गा)
2. ------, नीता तें उदक हाड. (आरे, आगो, आगा, आगे)
3. अशोका ----- बानयान उंबळलां. (लो, ली, लें, ल्यो)
4. बाय, ----- पिजाम उंबळपाक जाय. (म्हजें, म्हजी, म्हज्यो, म्हजो)
5. बाय, -------- केंस उगय. (ताची, ताचो, ताचे, ताच्यो)
6. म्हगेल्या इश्टा --- आज जल्मादीस. (लो, ली, लें, ल्यो)
7. काका -----वचून यो. (लो, गेर, गे, गा)
8. आइ----- सत्री व्हरता. (चो, ची, चें, रे)
9. आई, फाट ------- दारां धांप. (लो, गेलो, लीं, गेर)
10. तांबड्या फुलां----- साडी घे. (चो, ची, चे, च्यो)
11. दादले चांबड्या -------- जोतीं घालतात. (चो, चें च्यो, चीं)
12. अशोका ----- इश्ट घरा आयलो. (चें, लो, गेली, ली)
13. हो कोणा --- चुडिदार? (चो, ची, चें, ल्यो, गेलें)
14. पिशवी ------ मेजार आसा. (ते, त्या, तो, हे)
15. नीतान कोणा ----- साय घाल्या? (ची, चें, चो, च्या)

# पाठ 12 : बारावो पाठ

## बोंडलाचीं जनावरां

पयर आयतारा रमेश आनी ताचो इश्ट सलीम बोंडला गेल्ले. रमेशान आपल्या पुताक सुरेशाक आनी धुवेक लताक, तशेंच सलीमान आपल्या पुताक नासीराक बरोबर व्हेल्लीं. तीं सगळीं जाणां धा वरांचेर बोंडला पावलीं. तीं टेम्प्यान गेल्लीं. म्हणून तांकां कांयच त्रास जालो ना. भायर जायते टेम्पे उबे केल्ले. तांचे फाटल्यान सलीमान आपलो टेम्पो उबो केलो. लता, नासीर आनी सुरेश खोशेन भायर आयलीं.

रमेशान वचून तिकेटी काडल्यो. भितर सरताना दोनी कुशिंनी सोबीत फुलां झाडां पळौंक मेळलीं. दावे कुशीन हरणांचो भाग. थंय तरेकवार हरणां आसलीं : मेरवां, शिंगाडे, आनी सोबीत चितळां आसलीं. भुरग्यांक पळौन हरणां हेवटेन–तेवटेन धांवूंक लागलीं.

उजवे कुशीन साळिंचे पांदरे आसले. एका पांदऱ्यांत एक साळ कोनशाक न्हिदलेली. सुरेशान ताळयो पेटून तिका उटयली. ती कांटे फुलयत उबी रावली. तें पळौन सुरेश धांवलो.

मुखार वेताना एक व्हड जाळ्येची कूड मेळली. ते कुडींत ल्हान ल्हान भाग करून तरेकवार सुकणीं दवरललीं : कवडे, पारवे, बकीं, मोर साळोऱ्यो, शिवाय तरेकवार कीर आसलले. तांच्या वेगवेगळ्या आवाजान तो वाठार भरून गेल्लो. फुडें एके कडेन एक खंदक आसलें, आनी ताचे पलतडी रिकामो जागो. थंयच्यान धुल्ल दिसतालो. म्हणून भुरगीं बारिकसाणेन पळौंक लागलीं. थंय एक व्हडलो रानदुकर माती उस्तितालो. मागीर भुरगीं हती म्हऱ्यांत गेलीं. कान हालयत एक हती आपल्या पिलाक सोंडयेन सांसपितालो. सुळ्या दांतांचो एक हती सोंड हालयत आसलो. नासीरान ताका केळें दिलें.

मुखार मांकडांचो विभाग आसलो. थंय एक वड आसलो. धव्या खाडाचे, तांबड्या सोंडाचे ल्हान व्हड अशे जायते मांकड वडार चडताले, देंवताले. सुरेशान तांकां भिकणां दिलीं. कल्लां काडून ते खातात तें पळौन भुरगीं हांसूंक लागलीं. पेल्यान एक आंस्वेल पांय चाटत बसललें.

फुडें तांकां एक गवोरेडो दिसलो. आनी थंयच एक नाकावेल्या शिंगाचो गेंडो आसलो. मात्शें मुखार वेताना तांकां वागाचो आवाज व्हडल्यान आयकूंक आयलो. लतान भिवून बापायचो हात धरलो. फुडें सरून तांणीं वाग आनी शींव पळेले.

थंय सावन तीं जिवाण्यांच्या पांदऱ्याकडेन आयलीं. दोन व्हड हार आसले. एका हारान झाडाक वेटाळो घाल्लो. कांचेच्या पेटयांनी दुसरे दुसरे तरेचीं जिवाणीं आसलीं. एक लांब नाग फडा करून बसललो. लागींच एक फुर्शें आसलें.

थंय थावन तीं फुलांचे बागेंत आयलीं. थंय पाचव्या तणार बसून तांणीं फळार खालो. तांचे बापूय थंयच बसून गजाली करूंक लागले. तीं तिगांय भुरगीं खेळूंक लागलीं. थोडो वेळ विसव घेतकच तीं घरा येंवक भायर सरलीं.

## उतरावळ VOCABULARY

त्रास (m) trouble, discomfort
उबो कर = park, stop, erect
खोशी (f) pleasure, happiness
हरण (n) deer
तरेकवार (adj) of various types
मेरूं (n) antelope
शिंगाडो (m) deer
चितळ (n) gazelle
हेवटेन–तेवटेन (adv) this way and that
साळ (f) porcupine
कोन्सो (m) corner
ताळ्यो पेट = clap hands
कांटो (m) quill, thorn
फुलय (tv) open up
जाळी (f) wire netting, mesh
सुकणें (n) bird
कवडो (m) turtle dove
पारवो (m) pigeon
बकें (n) crane
मोर (m) peacock
कीर (m) parrot
आवाज (m) sound, noise
वाठार (m) surrounding
खंदक (m) ditch, moat
रिकामो (adj) empty, vacant
धुल्ल (f) dust
बारिकसाणेन (adv) minutely
रानदुकर (m) wild boar
पांय (m) leg, foot
माती (f) mud
उस्ती (tv) dig up
हती (m) elephant
कान (m) ear
सोंड (n) animal face, snout
हालय (tv) shake
पील (n) young one
सोंड (f) [elephant's] trunk
सांसपी (tv) feel, touch
सुळोदांत (m) tusk
मांकड (m) monkey
विभाग (m) section
वड (m) banyan tree
खाड (n) beard
भिकण (n) peanut, jack stone
कल्ल (n) shell, husk
हांस (iv) laugh
पेल्यान (adv,pp) beyond
आंस्वेल (n) bear
गवोरेडो (m) bison
नाक (n) nose
शींग (n) horn
गेंडो (m) rhinoceros
वाग (m) tiger
शींव (m) lion
जिवाणें (n) reptile
हार (m) python
वेटाळो (m) coil
कांच (f) glass
पेटी (f) box
नाग (m) cobra
फडा (f) hood
फुर्शें (n) saw-scaled viper
पाचवो (adj) green
तण (n) grass
फळार (m) light refreshment
खा (tv) eat

गजाल (f) news, gossip
गजाली कर = chat
विसव (m) rest
विसव घे = take rest

## GRAMMAR NOTE :

1. A number of masculine nouns in Konkani have the same direct singular and plural forms. The oblique singular form of these nouns is derived by adding –आ. Thus we have :

| | Singular | Plural |
|---|---|---|
| Direct | वाग | वाग |
| Oblique | वागा | वागां |

2. The past perfect forms of verbs can be formed by adding geminate –ल्ल and the gender suffixes of the perfective tenses. In the speech of many Konkani speakers the geminate –ल्ल is broken up by a *svarabhakti* –अ so that गेल्लो is rendered as गेललो. The paradigm is given below :

| | Singular | | | Plural | | |
|---|---|---|---|---|---|---|
| | Masc. | Fem. | Neuter | Masc. | Fem. | Neuter |
| 1st | गेल्लों | गेल्लीं | गेल्लें | गेल्ले | गेल्ल्यो | गेल्लीं |
| 2nd | गेल्लो | गेल्ली | गेल्लें | गेल्ले | गेल्ल्यो | गेल्लीं |
| 3rd | गेल्लो | गेल्ली | गेल्लें | गेल्ले | गेल्ल्यो | गेल्लीं |

## शिकपाचें घोळौप REPETITION LESSON

नासीर : सुरेश, काल बोंडला कितली मजा केली न्हय?
सुरेश : हय, म्हाका हतिचे सुळे कशे दांतूच याद जातात. तो दांतांनी नाल्ल फोडता खंय.
नासीर : हय, हांवें सर्कशींत पळेलां.
सुरेश : साळिच्या फाटल्या पांदऱ्यांत आसलेली ती कोण रे? चानी कशी दिसताली.
नासीर : ती रे, तिका गार म्हणतात. अब्बान सांगललें मरे?
सुरेश : आंस्वेलाचे केंस कितले लांब न्हय?
नासीर : सुरेश, खरें सांग. तूं शिंवाक पळौन भिलो?
सुरेश : ना, ना, हांव कितें लता रे? तें बाबाचो हात घट धरून रावललें.
नासीर : एका शिंगाचो गेंडो पळेतकच वीट येता न्हय?
सुरेश : शी, ताची याद काडी नाका.
नासीर : हेवटेन पोरसांत गुलाब कितले सुंदर आसले.
सुरेश : लता ते पळौन सामकें पिसावलें.
नासीर : आनी तीं कितले तरेचीं फुलां, अब्बाक तांचीं नांवां सुद्‌दा कळना जालीं.
सुरेश : आमची भोंवडी मात बरी जाली.



## उतरावळ VOCABULARY

याद (f) memory, remembrance
याद आयली = remembered
नाल्ल / नार्ल (m) coconut
फोड (tv) crack, break
गार (f) iguana
अब्बा (m) father
खरें सांग = tell the truth
घट धर = hold tight
वीट येता = feel disgusted
याद काड = remember
पिसाव (iv) be excited, be mad about
मात (adv) only

**A. प्रस्नांक जापी दियात :** ***Answer the following questions :***

1. आयतारा दीस रमेश आनी सलीम खंय गेल्ले?
2. तांचे बरोबर कोण कोण गेल्लीं?
3. हरणांचो भाग खंय आसलो?
4. साळ खंय न्हिदलेली?
5. जाळयेचे कुडींत कितें आसलें?
6. धुल्ल कोण उबयतालो?
7. हती कितें करतालो?
8. मांकड खंय आसलले?
9. आंस्वेल कितें करतालें?
10. लता कित्याक भिलें?
11. हार खंय आसले?
12. फडा करून कोण बसललो?
13. भुरग्यांनी खंय फळार खालो?

**B. सुचयल्लीं उतरां वापरून नवीं वाक्यां करात :** ***Pattern Practice :***

1. शींव पांदऱ्यांत बसललो. (दोन शींव, तीन वाग, आंस्वेल)
2. हरणां धांवूंक लागलीं. (हरण, साळी, गार, मांकड)
3. मांकड झाडार चडतालो. (नाग, फुर्शें, हार, सुरेश)
4. भुरगे भायर तणार नाचताले. (न्हीद, धांव, बस, खेळ)
5. रस्त्यार टेम्पो आसलो. ( मांकड, सुणीं, वाग, गाडी)
6. कीर पांदऱ्यांत खेळताले. (साळोन्यो, सोंशे, चानी, वाग)
7. वागाच्या आवाजान लता भिलें. (सुरेश, आई, भुरगीं, चितळ)
8. थंय सुंदर गुलाब आसले. ( सुकणीं, हरण, हती, फुलां)

**C. लिंगा प्रमाणें उतरांचे गट करात :** ***Group the following words according to gender :***

हरण, शिंगाडो, साय, शेत, पांदरो, कदेल, पोरसूं , मोर, घर, तिकेट, काल्सांव, पुस्तक, कोन्सो, फडा, केळें, फळां, कूड, सत्री, ताळयो, वाठार, हार, आंस्वेल, नुस्तें, सुकणें, शींव, नाक, साडी, कान, पावस, फेर्र, हात, फेस्त, कवडो, बकें, जाळी, जोर, साळोरी, व्हाण, पुडवें, गाय, वालो, दांत, भिकण, गाडी, छाती, मांकड, दोळो, कांटो, वाग, सोंसो, म्हस, वासरूं, तळें, सावळी.

**D. वाक्यां करात :** ***Structural Table Drill :***

<table>
<tr><td rowspan="2">भुरग्यांनी<br>लतान<br>अशोकान<br>बापायन<br>नासीरान<br>आवयन<br>भैणीन<br>ताईन<br>म्हज्या भावान<br>ताणें</td><td>(एक)</td><td rowspan="2">वाग<br>शींव<br>मांकड<br>हती<br>मोर<br>कीर<br>वड<br>नाग<br>नाल्ल<br>हार</td><td>पळेलो</td></tr>
<tr><td>दोन<br>चार<br>जायते<br>खूप</td><td>पळेले</td></tr>
</table>

# पाठ 13 : तेरावो पाठ

## रांदचे कुडींत

अलका : बाय, कितें शिंदता?
नीता : तेंडलीं शिंदतां. आज फ्लावर, तेंडलीं, गाजर आनी बटाट घालून भाजी करतलीं.
अलका : कांदो आनी लसूण तळसून मुगो? हांव कांदे शिंदतां.
नीता : हांवें शिंदले. तूं तेल रांदनीर दवरशी?
अलका : कितलें तेल घालूं?
नीता : दोन कुलेरां घाल, आनी ह्यो मिरसांगो घे.
अशोक : बाय, बाय, बरो वास येता. आज जेवणाक कितें करतलीं तुमी?
नीता : तुका जेवताना कळतलें.
आई : आरे अशोक, बाजारांत वच आनी तिसऱ्यो हाड. आंबली घालून हुमण करुंया.
अशोक : बरे भशेन हाडीन. आनी कितें कितें जाय सांग.
आई : एक कील गोड, पाव कील मिरीं आनी दोन रुपयांची हळद हाड.
नीता : आज सांजेर शिरो करतलीं. तुपूय हाड.
अशोक : बरें आई, हांव येतां.
नीता : आई, सोय चड कांतली. कितें करूं?
आई : आसुंदी. चटणी करुंया. सांजे चपातेक लांवक मेळतली. अलका, तांदूळ सांजवेळा वेंचतलें मुगो, तेन्ना फोवूय वेंच.
अलका : सांजवेळा हांव इश्टिणिगेर खेळपाक वतलें. दी आतांच वेंचतां.
आई : नीता, शिताक आदन दवरलां गो?
नीता : हय, वोदोळ दवरलां.
आई : तशें जाल्यार तें जालां आसतलें. ताणें तोप खंय दवरलो काय? शीत वाळूंक जाय.
नीता : तुजे दावे वाटेन दवरला.
आई : हाणें येवपाक बरो वेळ केलो. ताका इश्ट बी मेळले दिसता.
नीता : ताका इल्लें लिंब्याचें सरबत करूं?
आई : मीठ आनी साकर इल्ली कमीच घाल. ताका खार नाका. ताका मात्सें आंबशें आवडता.
नीता : काल मुळ्याची भाजी अळणी जाल्ली. आई, हो गाजर कुसतलो. कोबी, टोमाट आनी हो गाजर घालून सालाद करुंया.
आई : हाड, तुका गाजर किसून दितां.
नीता : धंय आसा मुगे?
आई : हांवें ताक केलें. इल्लें दवरलां तें तुका पुरो. ती वाटी खंय गो? इल्लें लोणचें काडतां.

## उत्तरावळ VOCABULARY

शींद (tv) cut [vegetables]
तेंडलें (n) gherkin
फ्लावर (m) cauliflower
गाजर (m) carrot
बटाट (m,n) potato
कांदो (m) onion
लसूण (f) garlic
तळस (tv) fry [in a little oil]
तेल (n) oil
रांदन (f) stove
कुलेर (n) spoon
वास (m) smell
वास येता = it gives smell
तिसरी (f) clam
आंबली (f) green mango
हुमण (n) curry
गोड (n) jaggery
पाव कील = a quarter kilogram
हळद (f) turmeric
मिरीं (n) black pepper
रवो (m) soji, semolina
शिरो (m) sheera, sweet preparation
तूप (n) ghee, clarified butter
सोय (f) grated coconut
कांत (tv) grate
चटणी (f) chutney
तांदूळ (m) dehusked rice
फोव (m) beaten rice
वेंच / वींच (tv) sift [cereals etc.]
शीत (n) cooked rice
आदन (n) water for cooking
वोदोळ (adv) sometime back
तोप (m) large cooking vessel
वाळ (tv) strain water
लिंबो (m) lemon, sour lime
सरबत (n) sherbet, sweetened drink
मीठ (n) salt
साकर (f) sugar
खार (adj) salty
आंबसो (adj) sour, sourish
आवड (tv) like
मुळो (m) radish
अळणी (adj) saltless
कोबी (m) cabbage
टोमाट (n) tomato
सालाद (n) salad
कीस (tv) grate
धंय (n) curds
ताक (n) buttermilk
इल्लें (adj) little
वाटी (f) small table vessel
लोणचें (n) pickle

## शिकपाचें घोळौप REPETITION LESSON

फाल्यां आयतार म्हणतकच नीताचे आवयक मात्सो सुशेग मेळतलो. नीता आनी अलका तिच्यो धुवो घरांत आसतल्यो. तीं तिका आदार करतलीं. नीता रुचीक सालाद करता. तें सगळ्यांक आवडता.

फाल्यां बाजारांत अशोक वेतलो. आई गोजड्यो, उमकळत घालतली, करण, शिंशे, लातां,

धुतली. अलका तांदूळ वेंचतलें. फाल्यां नीता गोड शिरो करतलें. ताणें रवो वेंचून दवरला. अशोक ताका तूप हाडून दितलो. फाल्यां दीस भर तांचो बापूय घरा आसतलो. सांजवेळा तांकां फिरूंक व्हरतलो.

**उतरावळ VOCABULARY**

म्हणतकच= that being the case
सुशेग (m) rest, comfort
आदार (m) help, support
रुचीक (adj) tasty
गोजडी (f) quilt
उमकळाय (tv) hang up
शिंसो (m) glass jar
लात (n) tin, can
गोड (adj) sweet
फिरूंक व्हर = take for a stroll

## GRAMMAR NOTES :

1. The Konkani verbs form their definite future tense by adding –तल to the root, and the gender and number inflection as in the perfective tenses.

| | Singular | | | Plural | | |
|---|---|---|---|---|---|---|
| | Masc. | Fem. | Neuter | Masc. | Fem. | Neuter |
| 1st | करतलों | –लीं | –लें | करतले | –ल्यो | –लीं |
| 2nd | करतलो | –ली | –लें | करतले | –ल्यो | –लीं |
| 3rd | करतलो | –ली | –लें | करतले | –ल्यो | –लीं |

2. The second person singular imperative form is the same as the verb root. The 1st and 3rd persons have imperative forms but with a hortative meaning. The optional suffixes are placed within parentheses.

| | | | |
|---|---|---|---|
| 1st | करूं | करूं (या) | Hortative |
| 2nd | कर | करात / करा | Imperative |
| 3rd | करूं (दी) | करूं (दीत) | Hortative |

3. The Konkani personal pronouns have their own peculiar case inflections, as given in the following paradigm :

| | FIRST PERSON | | SECOND PERSON | |
|---|---|---|---|---|
| Case | Singular | Plural | Singular | Plural |
| Direct | हांव | आमी | तूं | तुमी |
| Acc/Dative | म्हाका | आमकां | तुका | तुमकां |
| Instrumental | हांवें | आमी | तुवें | तुमी |
| Locative | म्हजेर | आमचेर | तुजेर | तुमचेर |
| Possessive | म्हजो... | आमचो... | तुजो... | तुमचो... |

THIRD PERSON

| | Singular | | | Plural | | |
|---|---|---|---|---|---|---|
| Case | Masc. | Fem. | Neuter | Masc. | Fem. | Neuter |
| Dir. | तो | ती | तें | ते | त्यो | तीं |
| Acc/Dat | ताका | तिका | ताका | तांकां | तांकां | तांकां |
| Instr | ताणें | तिणें | ताणें | तांणीं | तांणीं | तांणीं |
| Loc | ताचेर | तिचेर | ताचेर | तांचेर | तांचेर | तांचेर |
| Poss. | ताचो... | तिचो... | ताचो... | तांचो... | तांचो... | तांचो... |

**N. B.:** ताचो, ताची, ताचें etc. as possessive adjectives, and their direct and oblique forms in singular and plural are indicated by the three dots placed after each of the possessive forms of personal pronouns.

**A. सुचयल्लीं उतरां वापरून नवीं वाक्यां करात :** ***Pattern Practice :***

1. नीता तेंडलीं शिंदतलें. (तें, आई, ती, अशोक, तो)
2. अलकान तांदूळ वेंचले. (ताणें, तिणें, हाणें, हिणें)

3. अशोक बाजारांत वेतलो. (तो, तुमी, आमी, ते, तीं)
4. नीता फिरूंक वच. (तूं , तुमी, आमी, ते, तीं)
5. आमी चटणी करुंया. (नीता, तुमी, तें, तूं , ती)
6. अशोक, एक कील गोड हाड. (तूं , तुमी, आमी, ते, तो)
7. तुका जेवताना कळतलें. (अशोकाक, तुमकां, तिका, हांकां)
8. हांव इश्टिणिगेर खेळूंक वेतलीं. (अलका, तूं , तो, तें, तीं)
9. तुजे दावे वाटेन दवरला. (ताचे, म्हजे, लताचे, आमचे, तुमचे)
10. तीं आवयक आदार करतलीं. (हीं, तो, ते, आमी, तुमी)

**B. दर वाक्यांत नामाच्या बदला सर्वनाम वापरात :** ***Use a pronoun in place of a noun in each sentence :***

1. नीता भाजी करतलें.
2. आईन सोय कांतली.
3. अशोकाक बाजारांत धाडलो.
4. नीता आनी अलका जेवलीं.
5. भाजी बरी लागता.
6. उमान शीत वाळलें.
7. बाबाचें पेन तांबडें.
8. अशोक आनी उमाचें घर नितळ.
9. आई फाल्यां येतली.
10. बाबा कपडे हाडतलो.

**C. कंसांत दिल्लीं क्रियापदां भविश्य काळांत घालून रिकामे जागे भरात :** ***Fill in the blanks with future tense of the verb given in the bracket :***

1. अशोक घरा ---- (ये).
2. उमा घर नितळ ---- (कर)
3. आई कपडे ------ (उंबळ)
4. भुरगीं सांजवेळा फिरूंक ---- (वच)
5. अलका फोव ---- (वेंच)
6. भुरगीं आपलें घर नितळ ------(दवर)
7. तुका जेवताना ------ (कळ)
8. आज जेवणार बरी भाजी ------ (आस)
9. आमच्या झाडाक फुलां ------ (जा)
10. आई गाजर आनी मुळो ------ (कीस)

11. आमी लोणचें ------ (खा)
12. शीला उदक ------(हाड)

**D. सकयल दिल्ल्या वाक्यांचे तुमीच प्रस्न तयार करून तांच्यो जापी दियात :** ***Frame questions and responses for the following statements :***

**देखीक :** अशोक आज बाजारांत वेतलो.

प्र : आज बाजारांत कोण वेतलो? उ. आज अशोक वेतलो.

प्र : अशोक आज खंय वेतलो? उ. बाजारांत वेतलो.

1. अलका कांदो शिंदतलें.
2. नीता रव्याचो शिरो करतलें.
3. अशोक तूप घेवन येतलो.
4. भुरगीं चटणी चपातेक लायतलीं.
5. अलका इश्टिणिगेर खेळूंक वेतलें.
6. आई शीत वाळतली.
7. बाबा आनी भुरगीं फिरूंक वेतलीं.
8. आई गाजर किसतली.
9. अशोक बाजारांतल्यो तिसऱ्यो हाडतलो.
10. अशोकाक पापड आवडतात.
11. आंबली घालून हुमण करुंया.
12. गाजर घालून सालाद करतां.
13. मुळ्याची भाजी अळणी जाल्या.
14. आई गोजड्यो उमकळत घालतली.
15. अशोक नीताक तूप हाडून दितलो.
16. सांजवेळा अलका आनी नीता फिरूंक वतलीं.

# पाठ 14 : चौदावो पाठ

## गोंयचें वातावरण

फाटल्या तीन वर्सांनी अख्ख्या भारतांत पावस सारको पडूंक ना. ते खातीर सगळे कडेन दुकळ पडलो. ह्या दुकळान गोंयाकूय पिडलें. उदक पियेंवक लेगीत मेळनासलें. अंदू पावस वेळार सुरू जाला. शेतकामती खुशाल आसात. फाटल्या सातोळ्यांत घोग्यांनी पावस पडलो. असोच जर पावस पडत तर ह्या वर्सा दुकळ पडचो ना. शेतकामती खुशालभरीत जातले. तांणीं शेतां कोसून दवरल्यांत. ह्या म्हैन्या भितर सगळ्या शेतांनी थांबे लावन जाल्यार आमचें गोंय पाचवेंचार दिसतलें.

पावस पडूंक लागला पूण आजून वातारवणांत थंडाय ना. आब्रील माय म्हैन्यांत जातालो तो रखरख आजून कमी जांवक ना. उबाळांत आंगांतल्यान घामाच्यो पांवळ्यो देंवताल्यो. त्या दिसांनी एकूच उपाय म्हळ्यार दर्याचे वेळेर वचप. दिसपट्टे थंय जायतो लोक वारें खांवक येताले. दर्याचीं ल्हारां, थंड वारें, हांतूं मन खुशालभरीत जातालें. थंयच्यान घरा येतकूच परत आंग घामान चिकचीक जातालें. आतां सुरू जाला तो पावस पडत रावल्यार बरें थंड जातलें.

आतां हे तीन म्हैने पावसाचे. पावसाच्या दिसांनी मळब कुपांनी काळें जाता. खारवी लोक असल्या दिसांनी व्हडीं दर्यांत सोडी नांत. पावसा दिसांनी दर्याची गाज पयस पयस आयकूंक येता. पावस जर बरो पडलो जाल्यार मुखार वांयगण बरें जातलें. पावस थांबतच रोखडेंच शिंयाचे दीस सुरू जातात. तेन्ना दिसाचें कडकडीत वोत आसता. पूण रातचें खूप शीं खाता. चडश्यो जात्रा शिंया दिसांनी येतात. स्वेटर घालून जात्रेंत फिरूंक मजा येता. बरें शीं पडल्यार आंबे, पणस, आनी काजू रुक बरे चंवरतात. चड हिंवट पडल्यार चंवर गळून पडता. गोंयांत शीं चड तेंप पडना.

मार्स म्हैन्यांत साकून उबाळाचे दीस सुरू जातात. गिमांत रुकांरुकांचेर तरेकवार फुलां फळां येतात. त्याच दिसांनी इंत्रूज, शिग्मो असल्यो रंगीत परबो येतात. ह्या दोनीय परबांक जाण्टे नेण्टे एकामेकाक रंग लायतात.

**उतरावळ** VOCABULARY

अख्खो (adj) whole, complete
वातावरण (n) climate
दुकळ (m) famine
पीड tv) trouble, persecute
लेगीत (adv) even
अंदू adv) this year
शेतकामती (m) farmer
सातोळें (n) week
घोग्यांनी पावस पडलो = it rained cats and dogs, it rained heavily
कोस (tv) plough, cultivate
थांबे लाय = transplant paddy seedlings

पाचवेंचार = green all over
थंड (adj) cool
थंडाय (f) coolness
रखरख (m) blazing heat
उबाळ (m) summer heat, summer
दिसपट्टो (adv) every day
खुशालभरीत (adj) happy
घाम (m) sweat
पांवळी (f) drip
देंव (iv) come down, descend
दर्या (m) sea
ल्हार (n) wave
घामान चिकचीक = sticky with sweat
वांयगण (n) winter crop
शीं (n) cold
कडकडीत (adj) blazing
तेंप (m) period
काजू (m) cashew
चंवर (iv) blossom
चंवर (m) blossom
गळ (iv) fall off
हिंवट (f) mist
मळब (n) sky
खारवी (m) fisherman
कूप (n) cloud
वादळ (n) storm
व्हडें (n) boat
गाज (f) roar, sound
इंत्रूज (m) carnival
शिग्मो (m) Goan Holi
परब (f) festival
रंग (m) colour
जाण्टो (adj) aged, wise
नेण्टो (adj) young, innocent
एकामेकाक = to each other
रंग लाय = throw colour at

**शिकपाचें घोळौप** REPETITION LESSON

– आरे लुवीस, ह्या वर्सा गिमांत तूं कितें करतलो?
– मामा आयलो जाल्यार बाणावळे वचन. ना जाल्यार सदां भशेन नुस्तें गरौंक वचन. तूं कितें करतलो रे सुरेश? म्हजे बरोबर येशी?
– आमगेलीं सोयरीं आयलीं ना जाल्यार येन. तूं थंय कितें करतलो?
– हांव दिसपट्टो थंयच्या इश्टां वांगडा न्हावपाक वेतलों. आमी ल्हारां वांगडा खेळतले. वेळेर फुटबोल खेळतले. नुस्तें धरपाक वेतले.
– परत केन्ना येतलो तर?
– पावस सुरू जातकच येतलों.
– आवय! इतले दीस रावतलो तूं? म्हाका घरचीं धाडचीं नांत.
– तूं कितें करतलो तर?
– हांव दोंगरार वचून काजू , चुरनां, कारांदां आनी भेणसां खातलों. म्हज्या मावशेभावांकूय दितलों.
– तूं वोतांत फिरतलो मरे? काळो मांकड जातलो.

– हरकत ना, पावसांत भिजून परतून धवो जातलों. तुका बाणावळे वोत लागचें ना कितें?
– पूण थंय बरेंच वारें आसा.
– हय, तुका शीं खायत. स्वेटर व्हर.
– आरे म्हाका नातलां दीस रात भर शियांत फिरपाची संवय आसा.

## उतरावळ VOCABULARY

गीम (m) summer
गरय (tv) angle, fish with a hook
चुरन (n) small white berry
जांबूळ (n) jambul, blue-black berry
कारांद (m) caravanda, black berry
भेणस (n) small blue-black berry
हरकत ना = does not matter
संवय (f) habit



**A. वाक्यां करात :** ***Structural table drill :***

| | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|
| शंकर<br>तो<br>नीता<br>उमा<br>तो भुरगो<br>ताचो बापूय | थंय<br>घरा<br>बेगीं<br>फाटीं | आयल्यार<br>गेल्यार | हांव | काम<br>तें<br>सुरू<br>बंद | करीन |
| | | | तूं | | करशी |
| | | | तो<br>ती<br>तें | | करीत |

## GRAMMAR NOTES :

1. Most of the Konkani adverbs are indeclinable. Indeclinable adverbs (e. g. वयर, थंय, चड, बेगीं) are generally placed before the verbs, adjectives or other adverbs they modify. There are also declinable adverbs, which have the same forms as declinable adjectives, and they agree in number and gender with a nominal as if they were adjectives. For example in दिसपट्टो पावस पडलो 'it rained daily' the adverb दिसपट्टो agrees with the noun पावस. Similarly, in तो बरो जेवलो 'He dined well' the adverb बरो agrees with the pronoun तो.

2. The indefinite future verb forms denote uncertainty about the future action. They often occur in conditional constructions.

| | Singular | Plural |
|---|---|---|
| 1st | करीन | करूं |
| 2nd | करशी | करशात |
| 3rd | करीत | करतीत |

3. Konkani uses a number of particles as enclitics (forms dependent on other forms). In this lesson we have come across emphatic particles –च, –य. When the word emphasised ends in a vowel the particle is placed at the end of the word as part of it. But if the word ends in a consonant the vowel –अ– or –ऊ– is placed before –च and –य. For example : शीलाच, ताकाच, तूंच but हातूच, कानूच, दांतच.

Similarly तोय, लताय, म्हाकाय but हाडूय, केंसूय, दांतय.

**B. प्रस्नांक जापी दियात :** ***Answer the following questions :***

1. फाटल्या तीन वर्सांनी भारतांत कितलो पावस पडलो?
2. फाटल्या सातोळ्यांत गोंयांत कितलो पावस पडलो?
3. पावसाळ्यांत शेतांत कितें लायतात?
4. पावसाळ्यांत शेतां कशीं दिसतात?
5. उबाळाच्या दिसांनी लोक वेळेर कित्याक वेतात?
6. पावस बरो पडल्यार कितें जातलें?
7. शिंयाचे दीस कशे आसतात?
8. फळांचे रूक केन्ना चंवरतात?
9. पावसाळ्यांत मळब कशें दिसता?
10. खारवी पावसाळ्यांत व्हडीं कित्याक सोडी नांत?
11. चड शीं पडल्यार तूं कितें करशी?
12. मामा येना जाल्यार लुवीस कितें करीत?

13. लुवीस वेळेर कितें करतलो?
14. सुरेश सुटयेंत कितें करतलो?

**C. फाटीं फुडें दिल्लीं उतरां सारकीं मांडून वाक्यां करात :** ***Frame correct sentences by rearranging the jumbled up words :***

1. कडेन दुकळ पडलो सगळे.
2. लेगीत पियेंवक नासलें मेळ उदक.
3. तयार शेतां तांणीं दवरल्यांत कोसून.
4. घामाच्यो आंगांतल्यान पांवळ्यो देंवताल्यो.
5. बरें पावस रावल्यार जातलें पडत थंड.
6. जात्रा दिसांनी येतात शिंया चडशो.
7. रंगीत शिग्मो त्याच इंत्रूज येतात दिसांनी परबो असल्यो.
8. पयस गाज पयस येता दर्याची आयकूंक.
9. येन आमगेलीं आयलीं ना जाल्यार सोयरीं.
10. बरोबर येशी म्हजे?
11. भिजून परतून जातलों धवो.
12. ल्हारां आमी खेळतले वांगडा.
13. वचून खातलों दोंगरार काजू हांव आनी जांबळां.
14. दिसांनी शियांत फिरतां हांव नातलां.

**D. कंसांत दिल्ल्या क्रियाविशेशणांतलें योग्य तें घेवन वाक्यां पूर्ण करात :** ***Fill in the blanks with appropriate adverbs taken from the brackets :***

1. शेतकामती ------ खुशाल आसात. (सटसटीत, चड, खरें, बरें)
2. फाटल्या दिसांनी ------- पावस पडलो. (सुको, घोग्यांनी, बरें, बेगीन)
3. वांयगण ------ पिकतलें. (पोंदा, वायट, बरें, चिकचीक)
4. घामान आंग ------ जाता. (चिकचीक, थंय, चंवर, पोंदा)
5. ---------- वेळेर न्हावपाक वेतलों. (खंय, बरेंच, दिसपट्टो, भिजून)
6. ------ दर्यार व्हडलें वादळ जाता. (थंय, फाटीं, केन्ना केन्ना, सांगाता)
7. पावस ------- पडूंक ना. ( चिकचीक, भिजून, खुशाल, सारको)
8. उदक पियेंवक -------- मेळ नासलें. (लेगीत, भिजून, चिकचीक, सुको)
9. रखरख ----- कमी जांवक ना. ( आजून, फाल्यां, सकल, वायट)
10. -------- हे तीन म्हैने पावसाचे. ( आजून, आतां, सदां, कित्याक)

# पाठ 15 : पंदरावो पाठ

## बेंगळूर

गेल्ल्या माय म्हैन्यांत आमी बेंगळूर गेल्लीं. थंय आमी म्हजे भैणिगेर रावतालीं. आमी पैले तीन दीस घरांतूच रावलीं. गाडयेंत भुरगीं खंय खंय वचूंक जाय आनी कितें कितें करूंक जाय हाचो बेत करतालीं. पूण आमकां पुरो जाल्ल्यान आमी दोन तीन दीस विसव घेतलो.

सकाळीं हांतरुणार आसताना म्हजी भाची चा हाडून दिताली. मागीर उटून तोंड बींड धुवन, न्हावन जातासर आमकां बरोच वेळ जातालो. तितले म्हणसर भावोजी कामाक वेतालो. मागीर आमी सगळीं नास्तो करूंक बसतालीं. तांचो रांदपी उपीट बरें करतालो. केन्नाय तो पुरयो आनी भाजी करतालो. म्हजीं भाचरां आनी भुरगीं भायर खेळतालीं, आनी आमी भितर खबरो करतालीं. केन्नाय भैणी वांगडा बाजाराक वेतालीं. थंय बरी ताजी आनी सवाय भाजी मेळताली. फळां तर कितलीं सवाय? दिसाक दोन फावट सरकारी केंद्रांनी आमकां जाय तितलें गायचें दूद मेळतालें.

एक दीस सांजेचें भैणीन आमकां नंदी दोंगर पळौंक व्हेलीं. थंय एक व्हडलो पाशाणाचो नंदी आसा. थंय जायते व्हडले व्हडले मांकड खेळताले. भुरग्यांनी तांकां केळीं दिलीं. तांणीं साली काडून भुरग्यांचेर मारल्यो आनी केळीं खालीं. भुरग्यांक खूप मजा दिसली.

भावोजीन आमी आयल्यांत म्हूण चार दीस सुटी घेतली. त्या दिसांनी आमी सकाळीं आटांक भायर सरतालीं तीं बद्द रातचीं घरा येतालीं. आमचो पैलो दीस बेंगळूर पळौपांतूच गेलो. दुसऱ्या दिसा आमी मैसूर गेलीं. थंय आमी टिपू सुल्तानाची कबर पळेली. चामूंड दोंगरार वेताना तर मजाच. वयर वयर गाडी चडता तशी मैसूर शार चड सोबीत दिसतालें. दोनपारचें जेवण जातच आमी प्राणिसंग्रहालय पळेलें. थंय सावन आमी राजवाडो पळौंक गेलीं. आवय! केदो राजवाडो. पळौपाकूच सुमार देड वर लागलें. पांय सामके दुकून गेले पूण मन धादोशी जालें. मागीर आमी वृंदावन गार्डनांत आयलीं. कृष्णराज सागराचे एके कुशीक ही बाग तयार केल्या. तिची सोबाय रातचीच चड. रंगरंगयाळ्या विजेच्या दिव्यां वयल्यान धांवपी उदक पळेताना रंगयाळो व्हाळ कसो दिसता.

एक दीस आमकां भावोजीन हिन्दुस्तान मशीन टुल्स कारखानो दाखयलो. निमाण्या दिसा आमी बाजार भोंवलीं. सुनीलान म्हाका आनी म्हजे भैणीक एकेक रसमी साडी घेतली. ताणें भुरग्यांक जाय जाय तें घेवन दिलें. गोंयांत सोयऱ्यांक दिवपाकूय जायत्यो वस्तू घेतल्यो. भैणीन म्हाका एक प्रेशर पॅन घेवन दिलें. भावोजीन आपल्या साडवाक एक नवी घड्याळ घेवन दिली. आमचे बेंगळूरचे धा दीस कशे गेले ते कळलेच नांत. त्या दिसांची याद करीत करीत आमी गोंयां आयलीं.

उतरावळ VOCABULARY

बेत कर = plan
विसव (m) rest
हांतरूण (n) bedding
भाची (f) sister's daughter, niece
भावोजी (m) sister's husband
नास्तो (m) breakfast
रांदपी (m) cook
उपीट (n) edible made of semolina
पुरी(f) fried edible
ताजो (adj) fresh
सवाय (adj) cheap
दोन फावट (adv) twice
सरकारी (adj) government
दूद (n) milk
पाशाण (m) stone, granite
नंदी(m) Nandi Bull
साल (f) skin, rind
सुटी (f) leave, vacation
बद्द (adv) precisely
कबर (f) grave
शार (n) city
प्राणिसंग्रहालय (n) zoo
राजवाडो (m) palace
मन (n) mind
धादोशी (adj) satisfied
सोबाय (f) beauty
रंगरंगयाळो (adj) multi-coloured
वीज (f) electricity
विजेचे दिवे = electric lights
वयल्यान (adv,pp) over, from above
कारखानो (m) factory
निमाणो (adj) last
रसमी (adj) silk
साडू (m) sister-in-law's husband

**GRAMMAR NOTES :**

1. Past imperfect tense is derived by adding –ताल– and the number and gender suffix as in the perfective tenses, as shown in the following paradigm :

| | Singular | | | Plural | | |
|---|---|---|---|---|---|---|
| | Masc. | Fem. | Neuter | Masc. | Fem. | Neuter |
| 1st | दितालों | दितालीं | दितालें | दिताले | दिताल्यो | दितालीं |
| 2nd | दितालो | दिताली | दितालें | दिताले | दिताल्यो | दितालीं |
| 3rd | दितालो | दिताली | दितालें | दिताले | दिताल्यो | दितालीं |

2. A noun phrase in Konkani consists of a head noun and one or more modifiers placed before the noun. The modifier can be a determiner (i.e. a demonstrative – तीं मेजां, a quantifier – दोन मेजां, an adjective – व्हडलीं मेजां, a participle – दिल्लीं मेजां, a possessive adjective – आमचीं मेजां ) or an adjective phrase, or another clause.

**शिकपार्चे घोळौप** REPETITION LESSON

कमल : पोरुंची आमची बेंगळूरची भोंवडी म्हूण बरी जाली न्हय?

सुनील : व्हय, व्हय, कित्याक जांवची ना. तुजी भैण आनी तूं दीस आनी रात पळे नासताना गजाली करीत बसतालीं.

कमल : आमी कितल्या तेंपान मेळललीं. इतल्या दिसांच्यो खबरो सांगून सोंपतात? तूं रात रात बसून सिगारां ओडीत भावोजी कडेन कसल्यो खबरो करतालो?

सुनील : आगो, दत्ता म्हाका रातचोच मेळतालो. तो म्हजो निखटोच साडू न्हय, इश्टय बी.

कमल : भुरग्यांकूय भोंवडी बरी मानवली. मैसूरची तोखणाय तर आयल्ल्या गेल्ल्यांक आजून सांगतात.

सुनील : व्हय, परतून बेंगळूराक केन्ना या काय म्हूण रवी म्हाका पयर विचारतालो.

उतरावळ VOCABULARY

पोरूं (adv) last year

सिगार (n) cigarette

निखटोच (adv) merely

तोखणाय (f) praise

**A. सुचयल्लीं उतरां वापरून नवीं वाक्यां करात :** ***Pattern Practice :***

1. रवी आंबे खातालो. (हाड, दवर, दी, घे)
2. आमी भैणिगेर वेतालीं. (बस, राव, न्हीद, आस)
3. भावोजी साडी दितालो. (हाड, घे, वीक, धू )
4. म्हजी भाची बाजारांत वेताली. (फीर, नाच, धांव, उलय)
5. गेल्ल्या माय म्हैन्यांत तो गेलो. (जून, आगोस्त, सेतेंब्र, आब्रील)
6. पैले तीन दीस विसव घे. (चार, दोन, धा, पांच)
7. दोन तीन दीस आसात. (भुरगे, पाडकां, पुस्तकां, पेनां)
8. ताजी आनी सवाय भाजी मेळता. (पाचविचार, बावकी, तरनी, कंवळी)
9. पाशाणाचो नंदी आसा. (लांकडाचो, फातराचो, तोखणायेचो, गुळगुळीत)
10. रंगीत दिवे लायल्यात. (विजेचे, तरेकवार, तांबडे, चकचकीत)

**B. सकैल दिल्ल्या वाक्यांचे तुमी प्रस्न तयार करून तांच्यो जापी दियात :** ***From the statements given, frame questions and answer them :***

**देखीक :** पैले तीन दीस आमी घरांत रावलीं.

प्र. पैले तीन दीस आमी कितें केलें? — उ. आमी घरांतच रावलीं.

प्र. कितले दीस आमी घरांतच रावलीं? — उ. पैले तीन दीस रावलीं.

1. म्हजी भाची आमकां चा हाडून दिताली.
2. तांचो रांदपी उपीट बरें करतालो.
3. हांव भैणी वांगडा बाजाराक वेतालीं.
4. थंय एक व्हड नंदी आसा.
5. मांकडान साली भुरग्यांचेर मारल्यो.
6. मैसूर शार सोबीत दिसतालें.
7. राजवाडो पळौन आमी धादोशी जालीं.
8. वृंदावन गार्डन रातचें चड सोबीत दिसतालें.
9. सुनीलान म्हाका साडी घेतली.
10. आमी सोयऱ्यांक दिंवक वस्तू घेतल्यो.
11. हांव आनी म्हजी भैण दिसरात गजाली करतालीं.
12. दत्ता म्हजो साडू आनी तसोच इश्ट.
13. भुरग्यांक बेंगळूरची भोंवडी मानवली.

**C. फाटीं फुडें दिल्लीं उतरां सारकीं बरौन वाक्यां करात :** ***Frame correct sentences by rearranging the jumbled up words :***

1. भायर खेळटालीं भाचरां म्हजीं आनी भुरगीं.
2. गेल्लीं म्हैन्यांत आमीं गेल्ल्या बेंगळूर माय.
3. घेतलो पुरो विसव दोन तीन आमकां जाल्ल्यान पूण आमी दीस.
4. कितलीं तर सवाय फळां?
5. नंदी दोंगर सांजचें व्हेलीं भैणीन पळौंक दीस आमकां एक.
6. खूप दिसली मजा भुरग्यांक.
7. आयल्यांत चार घेतली सुटी म्हूण भावोजीन आमी.
8. दीस गेलो पैलो पळौपांतूच बेंगळूर.
9. आमी दिसा भोंवलीं निमाण्या बाजार.
10. घेवन भावोजीन आपल्या घड्याळ एक दिली नवी साडवाक.
11. दिंवक आमी घेतल्यो सोयऱ्यांक वस्तू जायत्यो.
12. लोकाक तोखणाय भुरगीं सांगतात बेंगळूरची सगळ्या.
13. रांदतालो जेवण तो बरें रांदपी.

**D. सकैल्या वाक्यांतलें कुरू केल्लें उतर घेवन आनी दोन वाक्यां करात :** ***Frame two more sentences each with the word in bold letters :***

**देखीक :** भावोजीन आमकां कारखानो **दाखयलो.**

अ : रवीन आमकां सोंसो दाखयलो. आ : ताणें आमकां सिनेमा दाखयलो.

1. आमी प्रणिसंग्रहालय **पळेलें.**
2. निमाण्या दिसा **आमी** बाजार भोंवलीं.
3. **थंय** टिपू सुल्तानाची कबर पळेली.
4. तिची सोबाय रातचीच चड **दिसता.**
5. गेल्ल्या माय **म्हैन्यांत** आमी बेंगळूर गेल्लीं.
6. पैले तीन दीस आमी घरांतूच **रावलीं.**
7. थंय आमी **म्हजे** भैणिगेर रावतालीं.
8. तांचो रांदपी उपीट **बरें** करतालो.
9. **भुरग्यांक** खूप मजा दिसली.
10. थंय जायते व्हडले व्हडले मांकड **खेळताले.**
11. थंय **रंगीत** दिवे लायल्यात.
12. बेंगळूरची **भोंवडी** बरी जाली.
13. तो सिगारां ओडीत **बसला.**
14. हांव आनी म्हजी भैण **गजाली** करतात.
15. पैले तीन दीस विसव **घे.**

# पाठ 16 : सोळावो पाठ
## सलीमाली पार्टी

सलीम : यो, रमेश यो, सुनील खंय पावलो?
रमेश : येतलो तो. आमी भितर बसुंया.
सलीम : हांव जेवणाची वेवस्था करूंक सांगतां. तितले म्हणसर सुनील येतलो.
रमेश : तूं जेवणाचें पळे आनी हांव पिवपाचें पळेतां.
सलीम : म्हाका बियरच सांग.
रमेश : कितें रे, चली जाल्या तुका आनी आजूय बी बियर घेतलो तूं?
सलीम : तुका जाय तशें कर. आज तुमचे मर्जे प्रमाणें करचें पडलें.
रमेश : तुवें सुनीलाक कितलो वेळ दिल्लो?
सलीम : हांवें ताका सारको पावणे आटांकूच पाव म्हणललें.
रमेश : आतां सवाय आट जावन गेलीं. हॉटेल खंयचें तें सारकें सांगललें मरे?
सलीम : हो पळे आयलो.
सुनील : सलीम, माफ कर, हांव पावणे आटांकूच भायर सरललों. वाटेर म्हजी स्कूटर बंद पडली.
रमेश : म्हजीय बी स्कूटर काल बंद पडली आनी ऑफिसाक वेळ जालो.
सलीम : आसूं , यो बस.
रमेश : हांवें सगळ्यांक विस्की सोडा सांगला. हो पळे आयलो.
सुनील : आरे, भाबी आनी बाय कशीं आसात?
सलीम : बायेक मात्शी थंडी जाल्ली. आतां बरें आसा.
रमेश : तुमी भुरग्याक चाळीस दिसांनी नांव दवरतात न्हय?
सलीम : व्हय, आमी ताका फातिमा नांव दवरलां.
सुनील : तुजो धंदो कसो चलता?
सलीम : चलता बरो. हेच दीस म्हज्या धंद्याचे. मागीर पावसांत वोगी बसपाचें आसता.
रमेश : सुनील तुज्या मेवण्याकडे म्हजें एक काम आसा, करीत काय तो?
सुनील : व्हय, व्हय, करतलो. सांगून पळे. सलीम तुजेंय बी काम आसा म्हणतालो न्हय? दोगूय बरोबर चलात. हांव ताका सांगतां.
सलीम : सुनील येंवचे आदींच जेवण सांगललें, आजून ताणें हाडूंक ना पळे. परतून सांगपाची वाट पळेता काय?
रमेश : आमचें पिवून जालें काय कितें तें ताका कळूंक जाय न्हय. ते शिवाय तो कशें हाडीत?
सलीम : हांव ताका सांगतां.
सुनील : हांगाची बिर्याणी मात बरी जाता आं. वासारूच भूक वाडता.

सलीम : तुजी आवड हांव जाणां.  तो बिर्याणी हाडता.  हांगा दवर रे.  चल, रमेश सुरू करुंया.
रमेश : हय रे सुनील, तूं हे ताका वळकता?
सुनील : कोणाक?
रमेश : तो पळे कोन्शाक बसला तो.  आजून पियेत आसा.
सुनील : ना, म्हाका ताची चड वळक ना.
रमेश : हय रे सलीम, तुजो चलो कितें शिकता?
सलीम : अंदू सातवेक तो.  तुजोय चलो सातवेक न्हय?
रमेश : ना, आटवेंत.  ह्या आयतारा म्हजी बायल तुमगेर येतली, भाबीक मेळूंक.
सलीम : तूंय बी यो.
रमेश : पळेतां म्हाका जमता जाल्यार.
सुनील : सलीम, तुजें जेवण बरें जालें.  आनी अशेंच केन्ना आपयतलो?
सलीम : हरशीं जाय तेन्ना दितां तुमकां, पूण असल्या कारणाक न्हय.  बरें तर, मेळचे केन्नाय.

### उतरावळ VOCABULARY

वेवस्था (f) arrangement
वेवस्था कर = make arrangements
मर्जी (f) pleasure, wish
तुजे मर्जे प्रमाणें = as you wish
बंद पड = go out of order
भाबी (f) sister-in-law
थंडी (f) cold, hay fever
वळक (tv) recognise
वोगी बस = sit quiet, be jobless
मेवणो (m) brother-in-law
जमता = can manage, is possible
केन्नाय = sometimes

### शिकपार्चे घोळौप REPETITION LESSON

तो पळे सलीम हॉटेलांत बसून इश्टांची वाट पळेता.  हो पळे, रमेश येता.  सुनील कित्याक येंवक ना काय?  तोय येंवचो आसा.  हे तिगूय जाण लागशिले इश्ट.  सलीम शारांत येता तेन्ना ते ह्याच हॉटेलांत मेळतात.  आज सलीम आपल्याक चली जाल्या म्हूण इश्टांक पार्टी दिता.

तो पळे सलीम उटलो.  जेवणाची तयारी करूंक सांगूंक वेता.  हेवटेन रमेश विस्किची ऑर्डर दिता.  आरे, सुनील कसो येता पळे, खरशेत, खरशेत.  ताणें स्कूटर हाडूं ना.  विबाडली काय?  आतां तिगूय इश्ट एक जाले.  आतां तांची पार्टी आनी गजाली सुरू जाल्यात.

### उतरावळ VOCABULARY

लागशिलो (adj) close, intimate
खरशे (iv) pant
विबाड = get spoilt

## GRAMMAR NOTES :

1. आस– 'be' and जा– 'become' are used as periphrastic auxiliary verbs and can be conjugated like other verbs. They are used with any verb form to express possibility and futuribility. Thus for example : मेलो आसत 'He might have died.' मेला जायत 'He might be dead.' मरतलों आसलों 'I would have died.'

The progressive is expressed by adding आस– and its different forms after the verb stem made of the verb root and suffix –त or –ईत. For example : तो धांवत आसा 'He is running.' तो मारीत आसलो 'He was beating.'

2. There are modal auxiliaries used as enclitics (dependent forms) after the infinitive to change the mode of the verb. Thus we have : नज 'should not', येता 'can', जाय 'should', नाका 'do not'.

3. There are semi-auxiliaries used after the adverbial forms of verbs in –ऊन or with the infinitive. They are कर 'do', घाल 'put', काड 'take', मार 'strike', घे 'take', वच 'go', सर 'move', पाव 'reach'. For example : लासून गेलो 'burnt completely'; चलून वच 'go walking'; मरुंक पावलो 'came to be dead'; जेंवक बसलो 'sat down to eat'; मोडून घालो 'broke it up'.

4. The present perfect tense in Konkani has its own peculiar endings as shown in the following paradigm, where the optional forms are given in italics:

| एकवचन | | | अनेकवचन | | |
|---|---|---|---|---|---|
| पुल्लींग | स्त्रीलींग | नपुंसकलींग | पुल्लींग | स्त्रीलींग | नपुंसकलींग |
| गेलां | गेल्यां | गेलां | गेल्यात<br>*गेल्यांव* | गेल्यात<br>*गेल्यांव* | गेल्यांत<br>*गेल्यांव* |
| गेला<br>*गेलाय* | गेल्या<br>*गेल्याय* | गेलां<br>*गेलांय* | गेल्यात | गेल्यात | गेल्यांत |
| गेला | गेल्या | गेलां | गेल्यात | गेल्यात | गेल्यांत |

**A. प्रस्नांक जापी दियात :** ***Answer the following questions :***

1. जेवणाची वेवस्था कोणें केली?



2. पिवपाची वेवस्था कोणें केली?
3. सुनीलाक येंवक वेळ कित्याक जालो?
4. हे तीग जाण इश्ट थय कित्याक जमले?
5. ते पयलीं कितें पियेले?
6. सलीमाचे चलयेक कितें जाल्लें?
7. तिका कितल्या दिसांनी नांव दवरलें?
8. ताका कितें नांव दवरलें?
9. सलीमाचो धंदो कसो चलता?
10. सुनीलाच्या मेवण्याकडे कोणाक काम आसलें?
11. सुनीलाची भूक कशी वाडली?
12. रमेशाची बायल आयतारा खंय वेतली?
13. सलीमाचो चलो कितें शिकता?
14. सलीम आपल्या इश्टांक आनी केन्ना आपयतलो?

**B. पालवी क्रियापदां घालून वाक्यां पूर्ण करात :** ***Fill in the blanks with appropriate auxiliary verbs :***

1. सलीम इश्टाची वाट पळेत ----------
2. आज तुमचे मर्जे प्रमाणें करचें----------
3. स्कूटर नासलेल्यान म्हाका चलून येंवचें------
4. जेवणाची वेवस्था करूंक -----
5. मागीर पावसांत वोगी बसपाचें------
6. व्हय, व्हय, करतलो. हांव सांगून ----------
7. सुनील येंवचे आदींच जेवण तयार करूंक---------
8. बिर्याणिच्या वासान म्हजी भूक वाडत------
9. कोन्शांत बसललो मनीस आजून पियेत -------

**C. वाक्यां जोडून बरयात :** ***Match the following :***

| क | ख |
|---|---|
| 1. म्हजीय बी स्कूटर | आजय बी बियर घेतलो तूं? |
| 2. आमचें पिवून जालें काय कितें | दिसांनी नांव दवरतात न्हय? |
| 3. हांव पावणे आटांकूच | आसा म्हणतालो न्हय? |
| 4. सलीम, तुजेंय बी काम | म्हज्या धंद्याचे. |
| 5. चली जाल्या तुका आनी | आटांकूच पाव म्हणललें. |
| 6. हांवें ताका सारको | तुमगेर येतली. |
| 7. तुमी भुरग्याक चाळीस | तें ताका कळूंक जाय न्हय? |
| 8. हेच दीस | भायर सरललों. |
| 9. सुनील, तुज्या मेवण्याकडे | बंद पडली आनी वेळ जालो. |
| 10. ह्या आयतारा म्हजी बायल | म्हजें एक काम आसा. |

# पाठ 17 : सतरावो पाठ

## रेडियो

आज सांजे म्हजे आवडिची कार्यावळ रेडियोचेर आसा. दर सोमाराक ही कार्यावळ आसता. हांव ती केन्नाच चुकयनां. हरशीं आयताराचें आनी ब्रेस्ताराचें नाटक सोडल्यार रातचो आमचो रेडियो बंदूच आसता. भुरग्यांक तर रेडियो आवडच ना. दोनपारची विवीद भारती मात तीं केन्नाय आयकतात. पूण म्हाका तीं पदांच आवडनांत.

म्हाका सकाळीं साडेसंक लागतात तीं भक्तिगितां खूप आवडतात. तांतूं सगळ्या भासांतलीं आनी धर्मांचीं पदां आयकूंक मेळतात. तांचे पैकी मीरा भजनां म्हाका चड आवडतात.

म्हज्या घोवाक गितां बितां आवडनांत. ताका फकत जाय खबरो, चड करून बिबिसिच्यो. आतां टिवीक लागून रातचो तो रेडियोक हात लायना. आमगेर टिवी नासली तेन्ना भुरग्यांक पदां आयकूंक सगळो वेळ रेडियो जाय आसलो. म्हाका हात लांवक मेळनासलो. आतां रेडियो म्हज्याच वांट्याक आयला.

आयतारा दीस सकाळीं टिविचेर आनी रेडियोचेर बऱ्यो कार्यावळी आसतात. भुरग्यांक दीस भर टिवी जाय. ते खातीर भायर रेडियो लांवक मेळना. म्हूण हांव पयलींच रेडियो रांदचे कुडींत हाडून दवरतां. मागीर काम करतां करतां म्हाका रेडियो सुशेगाद आयकूंक मेळता.

दोनां उपरांत हांव भुरग्यांक टिवी लांवक दिनां. त्या वेळार तांकां शिकपाक बसयतां. मागीर सिनेमा लागतकूच भुरगीं म्हाका आयकनांत. तेन्ना हांवय तांकां सिनेमा पळौंक दितां. आमचीं शेजारचींय आमगेर सिनेमा पळौंक येतात. भायलें साल भरून वेता. सांजेचे टिविचेर शिक्षणीक पाठ आसतात. तेन्ना हांव भुरग्यांक मुद्दम टिवी लावन बसयतां. रेडियोचेरूय सांजेचो पाठ आसता. पूण त्या वेळार भुरग्यांक खेळूंक जाय आसता. टिवी हाडत पासून भुरग्यांचें लक्ष वाचपाचेर ना. म्हूण हांव रातचें भुरग्यांक अर्दें वर तरी वाचूंक बसयतां.

सकाळीं रेडियोचेर "विचार धारा" आसता. तांतल्यान आमकां बरे विचार आयकूंक मेळतात. केन्नाय खंयच्याय दोतोरांचीं ना जाल्यार शेतकी तज्ञांचीं उलौपां आसतात. ही कार्यावळ सगळ्यांक बरी. शास्त्रीय संगीत, पश्चिमी संगीत, लोक गितां, भजनां, सिनेमांतलीं गितां, असलें जायतें संगीत आयकूंक मेळता. भुरग्यां खातीर, तशेंच तरणाट्यां खातीर खास कार्यावळी आसतात. बायलां खातिरूय खास कार्यावळी आसतात. विज्ञान, इतिहास, भुगोल, वकिली, ह्या आनी असल्या साबार विशयांचेर उलौपां आयकूंक मेळतात. दिसाक जायते फावट सांगतात त्या खबरांतल्यान सगळ्या संसाराच्यो घडणुको आमकां कळतात. रेडियो हें एक करमणुकिचेंच न्हय तर गिन्यान वाडौपी साधन. टिवी सुद्दा करमणूक आनी माहिती दिवपी साधन. आतांच्या काळार टिवी सांगाताच विडियोय वापरतात. देखून घरांतूच बसून जाय जाय ते सिनेमा पळौंक मेळतात. इतलेंच न्हय, तर लग्ना सारके समारंब विडियो रेकोर्ड करून जाय तेन्ना पळौंक मेळतात.

## उतरावळ VOCABULARY

कार्यावळ (f) programme
चुकय (tv) miss
नाटक (n) play, drama
कार्यक्रम (m) programme
विवीद भारती = Indian music programme of popular songs
पद (n) song
साडे स = six thirty
भास (f) language
गीत (n) song
भक्तिगीत (n) devotional song
धर्म (m) religion
तांचे पैकी = among them
भजन (n) religious song
खबर (f) news
म्हज्या वांट्याक आयला = I have the monopoly of, I am the only one using it
सुशेगाद (adv) without any hindrance, at one's own sweet will
वांटो (m) share
आयक (tv) hear, listen
टिवी लाय = put on the TV
शेजारी (m) neighbour
शिक्षणीक (adj) educational
मुद्दम (adv) on purpose
वाच (tv) read
लक्ष (n) attention
विचारधारा = name of a radio programme, [lit. stream of thought]
उलौप (n) speech
विचार (m) thought
शेतकी (n) agricultural
तज्ञ (m,f) expert, specialist
शास्त्रीय संगीत = classical music
पश्चीम (f) west
लोक गीत = folk song
तरणाटो (adj) young, youth
विज्ञान (n) science
इतिहास (m) history
भुगोल (m) geography
वकिली (f) law [as profession]
साबार (adj) various
विशय (m) subject
संसार (m) world
घडणूक (f) event, happening
करमणूक (f) entertainment
गिन्यान (n) knowledge
वाडय (tv) increase, grow
साधन (n) means, instrument
माहिती (f) information
लग्न (n) marriage
समारंब (m) ceremonial occasion
जाय तेन्ना = whenever

## शिकपाचें घोळौप REPETITION LESSON

रमाबाय : सुशीलाबाय, कोण उलयता गे मोठ्यान?
सुशीलाबाय : आगे, रेडियो तो. बरें नाटकुलें लागलां.
रमाबाय : तुमी आजून रेडियो बी लायतात? आमी टिवी हाडत पासून रेडियो लायनांत.

सुशीलाबाय : रेडियोचेर केन्नाय गरजेची माहिती सांगतात.

रमाबाय : पूण आमकां वेळ मेळना.

सुशीलाबाय : टिवी भाशेन रेडियो आयकूंक वेळ वगडावना. कामां करतां करतां आयकूंक मेळता.

रमाबाय : हय गे, पूण भुरग्यांक सदां टिवी जाय. आतां आमी विडियो हाडला. सदां रातचो एक एक सिनेमा लायतात.

सुशीलाबाय : सदां सिनेमा पळौप बरें न्हय. शिकतात केन्ना तर तीं?

रमाबाय : टिवी आनी विडियो म्हळ्यार तांच्या शिकपाक आडकळ.

सुशीलाबाय : पूण गिन्यानूय वाडयता न्हय? अमूक वेळ शिकूंक, तमूक वेळ टिवीक अशे वांटे करून दिंवक जाय.

### उतरावळ VOCABULARY

मोठ्यान (adv) loudly
नाटकुलें (n) playlet
सदां (adv) daily
गरज (f) need, necessity
वगडाव (iv) lose
वगडाय (tv) lose
आडकळ (f) hindrance
अमूक...तमूक (adj) precise, particular one

## GRAMMAR NOTES:

**1. Negatives :** Konkani verb forms have parallel negative forms. The basic paradigm of the negative verb forms is like आसां. This paradigm is used for some of the tenses like : present करी नां, preterite गेलों नां, future करचों नां.

| | Singular | Plural |
|---|---|---|
| 1st | नां | नांत (नांव) |
| 2nd | ना (नाय) | नांत |
| 3rd | ना | नांत |

The negative forms of the verb आस– are derived by placing न before आस–. Thus we get forms like नासतां, नासलो, नासतालों, नासललो. The present and past perfect tenses derive their negative forms by combining the infinitive and नां and नासलों respectively. The imperative derives its negative by combining the infinitive, and नाका in the singular and नाकात in the plural, e. g. करूं नाका, करूं नाकात.

2. **Infinitive :** The infinitive can be formed by adding –ऊंक , –पाक, or –च्याक to the verb root. If the verb root ends in a vowel –व is added to the root before the infinitive ending. Examples करूंक, करपाक, करच्याक, घेंवक, दिंवक, घेवपाक

**A. सुचयल्लीं उतरां वापरून नवीं वाक्यां करात :** ***Pattern Practice :***

1. आज सांजे म्हजे आवडिची कार्यावळ रेडियोचेर आसा. (टिवीचेर, होलांत, शाळेंत)
2. दर सोमारा ही कार्यावळ आसता. (आयतारा, सातोळ्यांत, म्हैन्यांत, मंगळाराक)
3. रातची आमची टिवी बंद आसता. (सकाळीं, दोनपारां, सांजे, सोमारा)
4. तांचे पैकी भजनां चड आवडतात. (गितां, नाटकुलीं, खबरो, उलौपां)
5. भुरग्यांक दीस भर टिवी जाय. (खेळ, रेडियो, पुस्तकां, विडियो)
6. पयलींच रेडियो रांदचे कुडींत दवरतां. (न्हिदचे कुडींत, सालांत, वारांदांत, जेवणाचे कुडींत)
7. दोंनां उपरांत हांव भुरग्यांक टिवी लांवक दिनां. (दोनपारां, जेवणा, तिनां, नास्त्या)
8. तशेंच तरणाट्यां खातीर खास कार्यावळी आसतात. (जाण्ट्यां, भुरग्यां, बायलां, शेतकामत्यां)
9. टिवी हाडत पासून भुरग्यांचें लक्ष वाचपाचेर ना. (खेळाचेर, शिकपाचेर, फिरपाचेर, जेवपाचेर)
10. घरांतूच बसून जाय जायते सिनेमा पळौंक मेळतात. (खेळ, कार्यक्रम, विशय, तियात्र)

**B. देखीक दिल्ल्या वाक्यां प्रमाणें प्रस्नांक हयकारी आनी न्हयकारी जापी दियात :** ***Frame affirmative and negative answers to the questions as in the example :***

**देखीक :** दर सोमारा ही कार्यावळ आसता न्हय?
हय, दर सोमारा आसता. ना, दर सोमारा नासता.

1. दोनपारची विवीद भारती आसता?
2. सकाळीं लागतात तीं भक्तिगितां आवडतात काय ना?
3. तुका मीरा भजनां आवडतात?
4. तुमी टिवीक लागून रेडियो सोडला व्हय?

5. रेडियो रांदचे कुडींत दवरतात वा ना?
6. आवय तांकां शिकूंक बसयता काय ना?
7. सांजेचें टिविचेर शिक्षणीक पाठ आसतात काय ना?
8. "विचार धारा" हांतूं बरे विचार आयकूंक मेळतात न्हय?
9. शेतकी तज्ञांचीं उलौपां आज आसात?
10. संसाराच्यो घडणुको आमकां कळतात न्हय?
11. भुरग्यां खातीर केन्नाय कार्यावळी आसतात?
12. टिवी हें एक करमणूक करपी साधन व्हय?
13. लग्ना सारके समारंब विडियोचेर रेकोर्ड करूंक मेळतात काय?

**C. कंसांत दिल्ल्या क्रियापदाचें न्हयकारी रूप वापरून वाक्यां पूर्ण करात :** ***Fill in the blanks with negative forms of the given verbs :***

1. बरीं पदां आयकूंक --------- (मेळतात)
2. भक्ती गितां भुरग्यांक ---------- (आवडतात)
3. आज रेडियोचेर बरें नाटक --------- (लागलां)
4. रेडियो आयकूंक वेळ -------- (वगडावता)
5. विडियोचेर आमी सिनेमा ------- (पळेतात)
6. आमगेर पयलीं टिवी --------(आसली)
7. आमचो रेडियो बंद --------- (आसता)
8. भायर रेडियो लांवक --------- (मेळता)
9. दोनां उपरांत हांव भुरग्यांक टिवी लांवक --------(दितां)
10. केन्नाय दोतोरांचीं उलौपां ---------- (आसतात)
11. टिवी हाडत पासून भुरग्यांचें लक्ष वाचपाचेर ------ (आसा)
12. टिवीन तांच्या शिकपाक आडकळ --------- (जाता)

**D. सकयल दिल्ल्या वाक्यांनी आयल्लीं न्हयकारी आनी नामकारी रुपां काडून दोन गट करात :** ***Pick out the negative and infinitive verb forms from the following sentences, and form two groups of them :***

1. ही म्हजी आवडती कार्यावळ.
2. रेडियोचेर आज मुंबय स्टेशन सारकें आयकूंक येना.
3. आमचो रेडियो सारको करूंक दिला.
4. टिविचेर बरो सिनेमा दाखौंक ना.
5. आमचो रेडियो म्हाका हात लांवक मेळनासलो.
6. ह्या दिसांनी कसलेच बरे कार्यक्रम नासतात.

7. विडियो पळौंक थोड्यांक आवडना.
8. सुटयेच्या दिसांनी हांव भुरग्यांक वाचपाक बसयनां.
9. आज टिविचेर बरी कार्यावळ ना.
10. दोनपारां तांकां सिनेमा पळौंक दिनां.
11. पयलीं रेडियोचेर शिक्षणीक पाठ शिकूंक मेळनासले.
12. बायलां खातीर खास कार्यक्रम आतां नांत.
13. तांचें लक्ष वाचपाचेर ना.
14. आमकां बरे विचार आयकूंक मेळतात.
15. तरणाट्यां खातीर बरे कार्यक्रम नांत.
16. बऱ्यो कार्यावळी रेकोर्ड करूंक मेळनांत.
17. संसाराच्यो घडणुको आयकुपाक मेळनांत.
18. रेडियो आयकुपाक वेळ वगडावना.

**E. सकयल दिल्ल्या वाक्यांनी क्रियापदांचीं न्हयकारी रुपां वापरातः** ***Transform the following sentences by using negative verb forms:***

1. आज सांजे ती कार्यावळ आसा.
2. भुरग्यांक शिक्षणीक कार्यक्रम आवडता.
3. तांचे पैकी मीरा भजनां म्हाका चड आवडतात.
4. आयतारा सकाळीं टिविचेर बऱ्यो कार्यावळी आसतात.
5. सनवारा सांजे बायलां खातीर कार्यावळ आसताली.
6. सुरेशान नवी टिवी हाडली.
7. सुनील सिनेमा पळौंक शारांत गेलो.
8. गेल्ल्या सातोळ्यांत बरें नाटक आसलें.
9. विडियो म्हळ्यार भुरग्यांच्या शिकपाक आडकळ.
10. टिवी पळौंक बरोच वेळ वगडावता.

# पाठ 18 : अटरावो पाठ
## खेळ

सुरेश : लुवीस, आयज येतलो मुरे खेळपाक?
लुवीस : फुटबोल खेळूंक म्हाका आपौंक जाय?
सुरेश : नासीर आनी ताचे वांगडी येतले.
लुवीस : पांडू आनी ताचे सांगाती आसल्यार आमचो खेळ बरो जातलो न्हय, सुरेश?
सुरेश : हय, ह्या आयतारा आमचो पयलो खेळ जुजेच्या पंगडा बरोबर दवरला.
लुवीस : आवय, तांचे बरोबर? बरी प्रेक्टीस करची पडली तर.
सुरेश : आजूच खेळगडी विंचून काडुंया.
लुवीस : तांचो पंगड ह्या वर्सा बरोच घट आसा. तांचो लंबू गोली एकूय गोल जांवक दिना.
सुरेश : हय, गेल्या आयतारा तांणीं नावेलेच्या पंगडाक दोन गोलांनी हरयलो.
लुवीस : आमचो नासीर फोर्वर्ड आसा परयान आमकां भंय ना.
सुरेश : पूण आमकां एक बरो गोली जाय.
लुवीस : आमचो पांडू तितलो वायट ना. पूण ताका बरीच प्रेक्टीस जाय.
सुरेश : सनवारा टिविचेर मोहनबगनचो खेळ दाखयतले खंय.
लुवीस : व्हय, खरें? आमी चुकौंक जायना तर. केन्ना तो?
सुरेश : सदां भाशेनूच, साडेचारांक.
लुवीस : तेन्ना कांयच अडचण येना जाल्यार पुरो.
सुरेश : अडचण आयल्यार सुद्दा आमी खेळ चुकौंक जाय ना.
लुवीस : बाणावले आमच्या काकागेर टिवी आसा, देखून तांकां आंतऱ्या पैऱ्यान दुसरे दुसरे खेळ पळौंक मेळतात. आयतारा साडेचारांक खेळांच्यो खबरो आयकूंक आनी पळौंक मेळतात.
सुरेश : जर आमच्याय घरांत टिवी आसलेली तर आमकांय जाय जाय तेन्ना खेळ पळौंक मेळतले आसले.
लुवीस : म्हाका क्रिकेट पळौंक खूप आवडता. मडगांवां पावलों जाल्यार क्रिकेटची मॅच आसल्यार केन्नाच चुकयनां.
सुरेश : म्हाका तर कबड्डीच चड आवडता. आमच्या इश्कोलांतल्या पंगडांत हांव आसां. ह्या वर्सा आमचो पंगड अमरावती वेतलो.
लुवीस : अंदू आमकां बरो पिटी मास्तर आयला. ते खातीर आमकां नवे नवे खेळ शिकूंक मेळतात.
सुरेश : तूं कितेंय म्हण लुवीस, पूण पयलीं कोंयडेबालांनी खेळताना वेगळीच मजा येताली.
लुवीस : आनी मिठानी खेळताना रे?
सुरेश : तांचें नांव काडूं नाका. लिपच्यानी खेळताना आमी तेरेजाक आनी लताक बरे फटयताले.

लुवीस : आतां तांकां रींग आनी बेडमिंटन दोनूच खेळ लागल्यात.
सुरेश : सुटयेच्या दिसांनी आमच्या वांगडा इस्पिकांनी खेळच्या बदला ताबुलफळें घेवन बसतात.
लुवीस : त्या चेडवांचें सोड. आमी सुटयेंत पेवूंक, गरौंक वचनांत?
सुरेश : गड्ड्यांनी खेळताना पांडू बरीं चिकानां करतालो. गड्डेच लिपौन दवरतालो.
लुवीस : हांवें खो–खो खेळताना ताका बरेंच दिलां. खो दिंवच्या निबान फाटीर थापट घाल्लें.
सुरेश : ह्या वर्सा तर आमच्या नव्या पिटी मास्तरान जायत्यो सर्ती दवरल्यात. हांव 100 मीटर आनी 200 मीटर धांवपाचे सर्तींत वांटो घेतलों. तूं कित्यांत वांटो घेतलो?
लुवीस : म्हाका लांब उडी आनी ऊंच उडी ह्या सर्तिंनी वांटो घेंवक जाय.
सुरेश : पेंवपाचीय सर्त दवरूंक जाय आसली.
लुवीस : पूण आमकां पेंवूंक तळें खंय आसा?
सुरेश : तें आसूं. आयतारा आमची मेच आसा हें तूं विसरनाका.
लुवीस : शाबास! तें विसरतां हांव आनी कितेंय विसरन.
सुरेश : आरे बाबा, कितलो वेळ जालो! चल, आमी खेळपाक या.

### उतरावळ VOCABULARY

आपय (tv) call, invite
आपौणें (n) invitation, call
वांगडी (m) companion, member
सांगाती (m) companion, confrere
पंगड (m) team, group
लंबू (adj) lanky
गोली (m) goalkeeper
हरय (tv) defeat
परयान (adv,pp) until, even
सदां भाशेन = as usual
अडचण (f) difficulty, problem
सुद्दा (adv) even
देखून (conj.) therefore, consequently
आंतऱ्या पैऱ्यान = now and then
इश्कोल (n) school
इस्पीक (f) playing card
पयलीं (adv,pp) formerly, before
कबड्डी, कोंयडेबाल, मिठानी, लिपच्यानी, ताबुलफळें, खो–खो = names of Goan or Indian games
चिकान (n) mischief
गड्डो (m) marble
नीब (n) excuse
फाट (f) back
थापट (n) slap
सर्त (f) race, competition
वांटो घे = participate, take part in
उडी (f) jump

### शिकपाचें घोळौप REPETITION LESSON

आरे बाबा, कितली गर्दी? कितें आसा काय हांगा? आं, कबड्डिची सर्त चलता. गोंयचो पंगड आनी सांगलीचो पंगड हांचे मदें, म्हूण इतली गर्दी. सांगलीच्यो चलयो बऱ्यो

खेळतात खंय. दोन तीन कडेन जिकून आयल्यात. पूण आमचो गट कमी ना. आवय, पळे, पळे! तेरेजान एकट्यान दोगांक बाद केलीं. व्हा, शाबास! तेरेजा, वळीक हात लाय. लायलो. चल, सगळीं बाद तांचीं. आतां शेर्त आमचोच पंगड जिकता.

**उतरावळ** VOCABULARY

गर्दी (f) crowd, rush
जीक (tv) win
गट (m) group, team
बाद (adj) out [in a game]
शेर्त (adv) certainly
शाबास (int) bravo

## GRAMMAR NOTES :

1. Connectives or conjunctions in Konkani are of two kinds:
   (i) Coordinating Connectives:
      a). additive : आनी joins words, phrases or clauses
      b). alternative : वा, की
      c). adversative : पण, पूण
   (ii) Subordinating Connectives :
      a). Single word connectives:
         बगर 'unless'
         जर 'if'
         जर तर 'if'
         की 'so that'
         म्हूण 'since'
         देकून 'therefore'
         जरितर 'although'
         कारण 'for'
         कित्याक 'because'
         तर 'consequently'
      b). Correlative connectives :
         जर . . . तर 'if...then'
         एकूच . . . नातर 'either ... or
         इतलो . . . तितलो 'so much ... that'

2. Konkani interjections are particles that express certain emotions. A few examples are :

   आहा (interest)
   हाय 'ouch'
   शाबास 'bravo'
   आब्बा (surprise)
   आवयगे 'dear me'
   शी 'shame on you'
   चे चे 'tut tut'
   गपचूप 'hush'

**A. वाक्यां करातः *Structural table drill :***

| रवी | आयलो | तेन्ना | | गेलें |
|---|---|---|---|---|
| लुवीस | जेवलो | आनी | लता | आयलें |
| तो | गेलो | देखून | उमा | धांवलें |
| ताचो भाव | बसलो | म्हणून | बाय | उटलें |
| म्हजो घोव | उटलो | तरी | तें | वचूंक ना |
| ताचो बापूय | न्हालो | पूण | शीला | जेवलें ना |
| मामा | न्हिदलो | | | न्हालें ना |

**B. उभयान्वयी अव्यय वापरून रिकामे जागे भरात :** ***Fill in the blanks with connectives:***

1. नासीर ——— ताचे वांगडी येतले.
2. आमचो पांडू तितलो वायट ना, ————— ताका बरीच प्रेक्टीस जाय.
3. आयतारा खेळांच्यो खबरो आयकूंक —————— पळौंक मेळतात.
4. जर टिवी आसली ————— खेळ पळौंक मेळतले आसले.
5. आमकां नवो मास्तर आयला ——————— नवे नवे खेळ शिकूंक मेळतात.
6. तूं कितेंय म्हूण लुवीस, ——————— पयलीं कोंयडेबालांनी खेळूंक मजा येताली.
7. हांव 100 मीटर ———————— 200 मीटर धांवपाचे सर्तींत वांटो घेतलों.
8. गोंयचो पंगड ——————सांगलीचो पंगड हांचे मदें मॅच आसा.
9. दोन तीन कडेन जिकून आयल्यांत, —————— आमचो गट कमी ना.
10. आतां तांकां रींग ————— बेडमिंटन हे दोनूच खेळ लागल्यात.
11. आयतारा ————— सोमारा मेच आसा.
12. तेरेजान वळीक हात लायलो ————— सगळीं बाद जालीं.
13. रवी नवोच आयला ————— बरो खेळता.
14. नासीर फोर्वर्ड आसा ————— आमकां भंय ना.

**C. प्रस्नांक जापी दियात :** ***Answer the following questions :***

1. कोण कोण फुटबोल खेळतात?
2. आयतारा खंयच्या पंगडा बरोबर ते खेळतले?
3. लुवीसाच्या पंगडाक चड प्रेक्टीस कित्याक जाय?
4. फुटबोलाच्या खेळांत गोली कितें करता?

5. सनवारा टिविचेर खंयचो खेळ आसतलो?
6. लुवीस आनी सुरेशाचे आवडिचे खेळ खंयचे?
7. चेडवां खंयचे खेळ खेळतात?
8. सुटयेच्या दिसांनी भुरगीं चड करून कसले खेळ खेळतात?
9. खेळताना पांडू कसलीं चिकानां करतालो?
10. सुरेश खंयच्या सर्तिंनी वांटो घेतलो?
11. पेंवपाची सर्त कित्याक दवरूंक जायना?
12. कबड्डिचो खेळ कोणा कोणा मदें चलतालो?
13. कबड्डी चड बरी कोण खेळता?
14. तेरेजान कितल्या जाणांक बाद केलीं?
15. गोंयचो पंगड कसो जिकलो?

**D. जोड अव्यय वापरून सकल दिल्ल्या वाक्यांच्या जोडयांचें एकच वाक्य करात :** ***Join the following pairs of sentences into a single sentence each using connectives :***

1. नासीर येतलो. ताचे वांगडी येतले.
2. आमचो पांडू तितलो वायट ना. ताका चड प्रेक्टीस जाय.
3. काकागेर टिवी आसा. तांकां दुसरे दुसरे खेळ पळौंक मेळतात.
4. आमकां नवो पिटी मास्तर आयला. आमकां नवे नवे खेळ शिकूंक मेळतात
5. हांव क्रिकेट खेळतां. हांव फुटबोल खेळतां.
6. पांडू आनी ताचे वांगडी येतले. आमचो खेळ बरो जातलो.
7. आयतारा आमचो खेळ आसा. बरी प्रेक्टीस करची पडली.
8. आमचो नासीर फोर्वर्ड आसा. आमकां कांय भंय ना.
9. आयतारा टिवी पळौंक आडकळी येतीत. आमी चुकौंक जाय ना.
10. फाल्यां क्रिकेट मॅच आसा. टिवी लावन ती पळौंया.
11. म्हाका कबड्डी आवडता. हांव मेच चुकयनां.
12. आमगेर टिवी आसलेली. आमकां खेळ पळौंक मेळतले आसले.
13. लिपच्यानी खेळताना आमी तेरेजाक फटयताले. लताक फटयताले.
14. आयतारा आमची मेच आसा. तूं विसरनाका.

# पाठ 19 : एकुणिसावो पाठ

## शाळेची तयारी

म्हजीं दोगां भुरगीं इश्कोलाक वेतात. पूत सातवेंत आनी धूव चौथेंत. आतांच्या भुरग्यांक शाळेक वेताना पुस्तकांचो भोरो लागता. म्हजे धुवेक इतलीं पुस्तकां आनी कादेर्न आसात, ताच्यान तीं सांबाळूंक जायनांत. हांवेंच तीं सदां काडून दिंवचीं पडतात. पूण आमी शाळेक वेतालीं तेन्ना मुळावे शाळेच्या भुरग्यांक एक पाटी, दोन तीन पुस्तकां आनी दोन कादेर्न आसल्यार पावतालीं. पूण आतांच्या भुरग्यांचो बोटवो हाडचो व्हरचो एक वावर जावन गेला.

इश्कोल सुरू जावन दोन म्हयने जायत आयले. आजून तांकां जाय तें सामान हाडून सोंपना. दोगांयचींय सगळीं पुस्तकां घेवप म्हळ्यार थोडे त्रास जाले नांत. एका दुकानांत लायनींत रावून एकट्याचीं दोन आनी दुसऱ्याचीं चार पुस्तकां मेळलीं. दुसरे कडेन वचून आनी दोन पुस्तकां मेळलीं. तांकां एकेका विशयाक तीन चार कादेर्न लागतात. कादेर्न, पेन्सील, असल्यो वस्तू घेंवक बरें. एक खरडो बरौन दिलो की काम रोखडें जाता.

आतांच्या भुरग्यांक कागद, पेन्सील, रबर, पेनां, कंपासपेटी, अशें जायतें सामान लागता. शिवाय हातकामाचें सामान वेगळेंच. पावसाळ्यांत भुरग्यांक कापोत, प्लास्टीक बूट, आनी सत्र्यो जाय पडतात. युनिफोर्म तर दोन तीन शिंवचे पडतात. भुरग्यांक इश्कोलाक जाय जाय तें सामान घेतासर नाका पुरो जाता.

इतल्यांत सोंपलां? आतां परिक्षा सुरू जातल्यो. म्हणताना, परतुनूय कादेर्न हाडूंक ज़ाय. तिंताची बाटली, रिफिली एकाच फाराक हाडून दवरतां म्हूण बरें जाता. वर्स सोंपसर म्हजे धुवेक थोडीं तरी पुस्तकां परतून घेंवचीं पडतात. तशेंच कादेर्न आनी पेन्सिली कितले पावटीं हाडचीं पडतात तें विचारनाका.

म्हज्या चल्याचें बरें. आपलो घरपाठ आपुणूच करता. कितें कळलें ना तर म्हजे कडेन येता. पूण धुवे खातीर त्रास घेंवचो पडता. ताका फुसलावन हाडून अभ्यास करूंक बसौंचें पडता. ताची परिक्षा म्हळ्यार म्हजीच परिक्षा कशी दिसता. हांव म्हऱ्यांत बसतां तितलो वेळ तें शिकता. हांव थंय नासल्यार ताचो खेळ सुरू जाता. इतल्या ल्हान भुरग्यांक अभ्यास म्हूण कितलो आसता? तांकां वाज येतलोच.

दिवाळेची सुटी सोंपतच भुरग्यांच्यो पिकनिको आनी शिबिरां सुरू जातात. तांची पिकनीक म्हळ्यार म्हाका दोडतो वावर. बेगीन उठून, तांचें जेवण तयार करून, बांदून दिंवक जाय. शिबीर आसल्यार हांतरूण पांगरुणाची सुद्दा तयारी करची पडता.

तांची वर्सुकी परिक्षा आसतांना म्हाकाय तांचे बरोबर शिकौंक बसचें पडता. देखुनूच हांव म्हणतां आजकाल भुरग्यांचें शिकप म्हळ्यार आवयबापायचे तकलेर दोडतो पेज.

## उतरावळ VOCABULARY

भोरो (m) bundle, headload
सांबाळ (tv) look after
काडून दी = [lit. pick and give] help someone get ready with
मुळावो (adj) basic
पाटी (f) slate
बोटवो (m) school bag, shoulder bag
वावर (m) job, work
कागद (m) paper, (n) letter
खरडो (m) list
कंपासपेटी (f) compass box
रंगपेटी watercolour box
हात काम (n) craft work
कापोत (f) rain coat
नाका पुरो जालें = had it enough
परिक्षा (f) examination
परतून (adv) again
तींत (n) ink
बाटली (f) bottle
एकाच फाराक = at one shot
घरपाठ (m) homework
फुसलाय (tv) persuade, convince gently
अभ्यास (m) study
शिबीर (n) camp
पांगरूण (n) coverlet
दोडतो (adj) double, two-fold
आजकाल (adv) nowadays
पेज (m) weight

**GRAMMAR NOTE :**

In Konkani a modifier agrees in number and gender with the noun it modifies, and a verb agrees in person, number and gender with one of the nouns (pronouns) in the sentence.

(1) तें बरें भुरगें 'that good child'. Here both the demonstrative तें and adjective बरें agree with the noun भुरगें in number and gender.

(2) आमच्या नव्या घोड्याक 'to our new horse'

(3) ताचे व्हडले धुवेक 'to his elder daughter'

In (2) and (3) the noun has a case suffix placed after the oblique form of the noun. Therefore, the modifiers have the oblique forms which agree in number and gender with the oblique forms of corresponding nouns.

(4) ताचो भाव मोटो. 'His brother is fat.'

(5) घोडो तण खातालो. 'The horse was eating grass.'

(6) वैजान ताका बरो केलो. 'The doctor cured him.'

In (4) ताचो agrees with भाव as a modifier, and मोटो agrees with ताचो भाव as a complement. Similarly, in (6) बरो agrees with ताका because it is the complement. In (5) the subject घोडो agrees with the imperfect verb खातालो. But in (6) the

perfective verb केलो agrees with the object ताका while the subject is in the instrumental case.

## शिकपार्चे घोळौप REPETITION LESSON

उमा : बाबा, बाबा, म्हाका मास्तरान फाल्यां रंगपेटी हाडूंक सांगल्या.
बाबा : आगो, इश्कोल सुरू जाल्लें तेन्ना घेतलली न्हय?
उमा : ते रंग सोंपले. आनी बाबा म्हजें गणिताचें पुस्तक पिंजलां.
बाबा : तुका वर्साक कितले पावटीं पुस्तकां हाडचीं? आजून तुका पुस्तकां सांबाळपाक येना?
उमा : म्हजे इश्टिणीन ओडताना पिंजलें.
बाबा : आसूं , आसूं , निमतां सांगनाका.
रवी : बाबा, म्हाका पिटिचे बूट जाय.
बाबा : पोरूंचे आसलले न्हय रे?
रवी : ते ल्हान जातात. म्हाका मार्चिंगांत वेंचून काडला. ते खातीर बूट जाय.
बाबा : आनी कितें कितें जाय तें बेगीन सांगात. तुमचें सामान हाडून केन्नाच सोंपना. म्हाका वेळ जाता.
रवी : आनी बाबा, पेनाचो आपार खरखरता.
बाबा : तुज्यो सदांच पेनाच्यो कटकटी. तुका आतां नवेंच पेन हाडतां. वर्सुकी परिक्षे मेरेन सांबाळ मात.
रवी : बाजारांत नवे तरेचीं पेनां आयल्यांत. तांचें नांव पायलट. रमेशाच्या बाबान ताका तसलेंच एक हाडून दिलां.
बाबा : तुका तसलेंच जायमुरे? तुका कसलो रंग आवडता?
रवी : म्हाका निळो रंग आवडता.
बाबा : बरें, हाडतां. चला आतां. शाळेक वेळ जाता.

## उतरावळ VOCABULARY

सोंप (iv) get over, finish
गणीत (n) mathematics, arithmetic
पींज (iv) be torn, (tv) tear
पावट (f) turn, occasion
कितले पावटीं = how many times
ओड (tv) pull
आपार (m) nib of a pen
खरखर (iv) make screechy noise
निमीत (n) excuse
कटकट (f) complaint, disturbance
वर्सुकी (adj) annual
मेरेन (adv,pp) till, up to

**A. कंसांत दिल्लीं उतरां घेवन सकल दिल्ल्या वाक्यांत योग्य तो बदल करून बरयात :**
***Reframe the sentence making use of one word (or phrase) at a time from the bracket :***

1. म्हजीं दोगां भुरगीं इश्कोलांत वेतात. (पांच जाणां, एकलो, तिगां, चौगां)
2. म्हज्या पुताक इतलीं पुस्तकां आनी कादेर्न आसात. (जायतीं, खूप, कितलिंशींच)
3. इश्कोल सुरू जावन दोन म्हैने जायत आयले. (धा दीस, म्हैनो, वर्स, एक सातोळें)
4. आतां परिक्षा सुरू जातल्यो. (खेळ, शाळा, नाटक, पावस)
5. मास्तरान रंगपेटी हाडूंक सांगल्या. (पेन, कादेर्न, पेन्सील, पुस्तकां)
6. ते रंग सोंपले. (तींत, पेन्सील, कादेर्न, चपाती, उदक)
7. म्हजें पुस्तक पिंजलें. (कादेर्न, साय, पोलको, कागदां)
8. पोरुंचे बूट कितें जाले? (कापोत, बोटवो, पेन, पेन्सील)
9. तुका नवें पेन हाडलें. (बोल, लेंस, साडयो, रिबीन)
10. तांचें जेवण तयार करून दिंवक जाय. (बोटवे, टिफीन, हांतरूण, सामान)
11. धुवे खातीर त्रास घेंवचे पडतात. (पेनां, बूट, सत्री, रिफिली)
12. मागीर ताचो खेळ सुरू जाता. (अभ्यास, नास्तो, गाडी, शाळा)
13. म्हज्या पुताक एक बोटवो हाडलो. (पाटी, खोमीस, पुस्तकां, बूट)

**B. कंसांत दिल्ल्या उतरांचीं योग्य रुपां वापरून वाक्यां पूर्ण करात :** ***Fill in blanks with appropriate forms of suggested words :***

1. म्हजीं दोगां ———————इश्कोलाक वेतात. (भुरगे)
2. दोन ————— जायत आयले. (म्हैनो)
3. म्हज्या पुतालागीं दोन कादेर्न ———————. (आस—)
4. हांव लायनींत उबी ——————. (राव)
5. हांव थंय वेता म्हणसर दुकान बंद ——————. (जा)
6. बोटवो हाडचो ——————— एक वावर जाला. (व्हर)
7. आनी दोन ————— मेळलीं. (पुस्तक)
8. एक खरडो ——————— की काम रोखडेंच जाता. (दी)
9. पावसांत ——————— जाय पडतात. (सत्री)
10. युनिफोर्म दोन दोन शिंवचे ——————————. (पड)
11. परिक्षा सुरू ———————. (जा)
12. भुरग्यांच्यो पिकनिको सुरू ——————. (जा)
13. धुवे खातीर त्रास ——————— पडतात. (घे)
14. मास्तरान रंगपेटी हाडूंक ———————. (सांग)
15. म्हजें पुस्तक ———————. (पींज)

C. **A गटांतलीं वाक्यां आनी B गटांतलीं वाक्यां एकामेकाच्या आदारान योग्य लींग आनी वचन घालून बरयात :** ***Fill in the blanks with appropriate number and gender in each column :***

**A**

**एकवचन Singular**

1. हांवें ----- पुस्तक -----
2. ------ कागद ------
3. हांवें ----- पेन ------
4. बोटव्यांत ------ कादेर्न------
5. म्हाका ------ हाडल्या.
6. ------ रंग---------
7. ------ गणिताचें ------- पिंजलें.
8. ----- कितले पावटीं-----हाडचें?
9. मास्तरान ------ हाडूंक ------.
10. ही ---- पेन्सील ----- दितां.
11. म्हज्या ----- पेन -----
12. म्हाका ----- जाय.

**B**

**अनेकवचन Plural**

1. ------ भुरग्यांक ------ हाडलीं
2. तांचीं ----- पिंजलीं.
3. ------ तुमकां ------ दिलीं
4. ------ दोन ------ आसात.
5. ------ कापोती------.
6. ते --------- सोंपले.
7. आमचीं ----- पुस्तकां ------.
8. तुमकां कितले पावटीं पुस्तकां-----?
9. मास्तरान रंगपेटयो ----- सांगल्यात.
10. ----- म्हज्यो ----तुमकां -----.
11. म्हज्या भावांचीं ----- मोडलीं.
12. ----- रिबिनां जाय.

D. **प्रस्नांक जापी दियात :** ***Answer the following questions :***

1. आदल्या काळार मुळावे शाळेचीं भुरगीं शाळेक कितें व्हरतालीं?
2. आतांच्या शिकतल्या भुरग्यांक कितें कितें लागता?
3. पावसाळ्यांत भुरग्यांक कसल्यो वस्तू जाय पडतात?
4. परिक्षेच्या वेळार भुरग्यांक कितें जाय?
5. शाळेक वेतल्या ल्हान भुरग्यांक आवयबापूय कितें आदार करतात?
6. भुरग्यांची पिकनीक आनी शिबिरां म्हळ्यार आवयक कित्याक दोडतो वावर?
7. उमा रंग आनी पुस्तक कित्याक मागता?
8. रवी बूट कित्याक मागता?
9. भुरग्यांक पुस्तकां घेताना कसले त्रास पडतात?
10. रवीक नवें पेन कित्याक जाय?
11. एका विशयाक कितले कादेर्न लागतात?

# पाठ 20 : विसावो पाठ
## पोस्टांत

आज सकाळीं पोस्टांत गेल्लों. म्हजो पूत मुंबय शिकता. ताका पैशे धाडूंक हांव पोस्टांत गेल्लों. आमच्या गांवचो पोस्टमास्तर म्हजो इश्ट. हांव जेन्ना पोस्टांत वेतां तेन्ना ताचे सरीं बसतां, आनी म्हजीं सगळीं कामां करौन घेतां.

पैशे धाडूंक म्हाका एक फोर्म जाय म्हणतानांच, म्हज्या इश्टान एक फोर्म हाडयलो. हांवें तो थंयच भरलो, आनी ताचे कडेन दिलो. ताणें तो तपासलो, सय केली, म्होर मारली आनी म्हजे कडसून पैशे घेतले. आपल्या पुस्तकांत तो नोंद करूंक लागलो.

ताचेच कुशीक बसलल्या कारकुनाक चड काम आसलें. एकल्याक तिकेटी दितासर एके बायलेन रजिस्टर पत्र मुखार केलें. ताणें बेगीं बेगीं पत्र जोकलें, पट्टी पळेली आनी फावो त्यो तिकेटी तिका काडून दिल्यो. थंयच कोनशाक एक गोमाची बाटली आनी उदकाचें आयदन आसलें. तिणें उदक लावन तिकेटी मारल्यो, आनी परतून कारकुना कडे पत्र दिलें. ताणें रशीद बरौन दिली.

तितल्यान एक जाण्टेलो ल्हान पार्शेल घेवन आयलो. कारकुनान तें जोकलें आनी फावो त्यो तिकेटी दिल्यो. ताणें तिकेटी लावन तें पार्शेल कारकुना कडे दिलें. ताका मदीं मदीं तिकेटी, पत्रां, पोस्टकार्डां, लाखाटे असलें सामान लोकाक दिंवचें पडता. हें आमचें गांवांतलें ल्हानशें पोस्ट ओफीस देखून तार करची जाल्यार शाराक वेचें पडता.

इतले भितर म्हजें काम जाल्लें. इश्टान म्हजे खातीर चा मागयल्ली म्हूण हांव बसलों. ताणें म्हाका नव्योच काडलेल्यो तिकेटी दाखयल्यो आनी दोन रुपयांच्यो घेंवक लायल्यो.

गांवातल्या पोस्ट बोक्सांतलीं पत्रां एकटांय करून घेवन पोस्टमेन आयलो. पत्रांचेर म्होर मारून ताणें वाठारा प्रमाणें वांटे केले. शारांत धाडूंक पोटली बांदून दवरली.

इतले म्हणसर भायर वेन थांबयल्याचो आवाज आयकूंक आयलो. पेद्यान वात पेटयली आनी लाक कडौन पोटलेच्या तोंडार घाली, आनी पोस्टमेनान ताचेर म्होर मारली. पेद्यान पोतें व्हरून वेनींत उडयलें. तांणीं दिल्ली पोटली भितर हाडली. ड्रायवरान वेन घुंवडायली आनी धुल्ल उबयत गेलो.

पेद्यान पोटली सोडयली. पोस्टमेनान पत्रांचे वांटे घाले. आपलीं पत्रां बोटव्यांत घालून तो गांवांत वांटूंक गेलो. इतले भितर म्हाका बरोच कळाव जाल्लो. इश्टाचो निरोप घेवन सत्री फुलौन हांव भायर सरलों.

**उतरावळ VOCABULARY**

पैसो (m) money
सरीं (pp) with, near

तपास (tv) examine, check
सय (f) signature
म्होर (f) stamp
कारकून (m) clerk
तिकेट (f) [postal] stamp, ticket
पत्र (n) letter
जोक (tv) weigh
मुखार (adv) forward, in front
मुखार कर = push forward
पट्टी (f) list
फावो (adj) necessary, fitting
गोम (n) gum
आयदन (n) vessel
रशीद (f) receipt
जाण्टेलो (adj) elderly person
पार्शेल (n) parcel
नोंद (f) entry
नोंद कर = note down
लाखाटो (m) envelope
एकटांय (adv) together
एकटांय कर = gather
वांटो (m) lot, share
वांटे कर = sort out, put in lots
पोतें (n) big bag
पेदो (m) peon
वात (f) candle
पेटय (tv) light
लाक (f) sealing wax
कडय (tv) melt
पोती (f) bag
घुंवडाय (tv) turn
उबय (tv) raise
कळाव (m) delay
फुलय (tv) open

## GRAMMAR NOTE

Konkani uses a very productive device of the causative forms of verbs, whereby a process verb becomes an agentive one, and an agentive verb becomes a causative verb. In other words an intransitive verb becomes transitive, and a transitive one becomes ditransitive.

a) the suffix —अय is added to a verb root ending in a consonant, and the suffix —वय to a verb root ending in a vowel to form the causative : थांब + अय = थांबय (tv) 'stop'; खा + —वय = खावय 'cause to eat'.

b) The suffix —डाय is added to a few verb roots to form the causative : घूंव + —डाय = घुंवडाय (tv) 'turn'; धांव + —डाय = धांवडाय़ (tv) 'drive'; घुस्प + —डाय = घुस्पडाय (tv) 'confuse'.

c) The suffix —आय is added to certain nominal and adjectival forms to derive a lexicalised causative verb : फातर + —आय = फातराय (tv) 'stone'; थीर + —आय = थिराय (tv) 'strengthen'.

d) The suffix —ए is added to certain noun forms to derive inchoative verb forms भूक + —ए = भुके (iv) 'hunger'; घाम + —ए = घामे (iv) 'sweat'.

## शिकपाचें घोळोप REPETITION LESSON

चली : बाय, म्हाका हें पत्र रजिस्टर करूंक जाय. कशें करचें?

वासपूस चली : हांगाच्यान तिसऱ्या कौंटराचेर चल. थंय बसला त्या मनशा कडे तुजें पत्र दी. तो पत्र जोकून तुका कितल्यो तिकेटी लांवक जाय तें सांगतलो.

चली : तिकेटी खंय मेळतात?

वासपूस चली : निमाण्या कौंटराचेर ती मोटेली बायल बसल्या ती दितली.

जाण्टेलो : बाय, म्हाका हो मनियार्डर फोर्म भरूंक जाय.

वासपूस : भायर मेजार बसला त्या मनशा कडल्यान भरौन घे. तो लोकांक आदार दिंवक बसला.

जाण्टेलो : आनी हो लाखाटो बंद करूंक जाय.

वासपूस : त्या कोनशाक गोमाची बाटली आसा, आनी बडी आसा. ती बुडौन गोम लाय. थंयचे फळयेर दवरून चिकटाय.

## उतरावळ VOCABULARY

मनीस (m) man
निमाणो (adj) last
मोटो (adj) fat
मोटेलो (adj) somewhat fat
बडी (f) stick
बुडय (tv) dip
फळी (f) small plank, board
चिकटाय (tv) stick

**A. दिल्या वाक्यांचे प्रस्न घडौन तांकां जापी दियात :** ***From the statements frame questions and answer them :***

1. पैशे धाडूंक पोस्टांत गेल्लों.
2. इश्टान मनियार्डर फोर्म हाडयलो.
3. कारकुनान तिकेटी दिल्यो.
4. कारकुनान रशीद बरौन दिली.
5. तार करूंक शाराक वेचें पडता.
6. इश्टान नव्यो तिकेटी दाखयल्यो.
7. पोस्टमेन गांवांतलीं पत्रां घेवन आयलो.
8. पोस्टमेनान पोटली बांदयली.
9. पेद्यान वात पेटयली.
10. पेद्यान लाक कडयली.
11. पोस्टमेनान म्होर मारली.

12. पेद्यान पोती वेनींत उडयली.
13. ड्रायवरान वेन घुंवडायली.
14. वेनीन धुल्ल उबयलो.
15. मोटेली बायल तिकेटी दिता.
16. जाण्टेलो फोर्म भरौन घेता.

**B. वाक्यां करात :** ***Structural table drill :***

<table>
<tr><td rowspan="3">इश्टान<br>रवीन<br>कारकुनान<br>म्हजे भैणीन<br>म्हज्या भावान<br>त्या भुरग्यान<br>शीलान</td><td>बोटवो<br>फोर्म<br>पत्तो<br>कागद</td><td>हाडयलो<br>दाखयलो<br>मागयलो</td></tr>
<tr><td>गाडी<br>म्हजी पाटी<br>वात<br>सत्री</td><td>घुंवडायली<br>बुडयली<br>दाखयली<br>परतिली</td></tr>
<tr><td>पाडकाक<br>वासराक<br>म्हसराक<br>सुण्याक</td><td>धांवडायलें<br>न्हाणयलें<br>खावयलें</td></tr>
</table>

**C. कंसांत दिल्ल्या क्रियापदांचीं प्रयोजक रुपां करून रिकामे जागे भरात :**

***Fill in the blanks with causative forms of verbs given in the brackets :***

1. रवी शीलाक पाठ ----- (शीक)
2. आवय भुरग्याक चा ----- (पी)
3. पोस्टमास्तरान फोर्म ------- (हाड)
4. इश्टान चा ----- (माग)
5. ड्रायवरान वेन ------ (थांब)
6. उमान वात ----- (पेट)

7. सुरेशान लाक -------- (कड)
8. नासीरान टेंपो -------- (घूंव)
9. पोती व्हरून वेनींत ----- (ऊड)
10. पेद्यान पोटली ------ (सोड)
11. उमान लाखाटो -------- (चिकट)
12. आमी कपडे उदकांत --------- (बूड)

**D. सुचयल्लीं उतरां वापरून, ल्हान वाक्याचें जाता तितलें लांब वाक्य करात :** ***Build up sentences as long as possible with suggested words :***

**(NOTE :** *This type of exercise is given from this stage onwards to get the student to utilise his language proficiency to create a variety of new sentences. Under each example, segments of sentences (words or phrases) are given between vertical lines. You begin with repeating the first segment, which happens to make complete sense. Then you take the next segment and fit it into the first sentence in an appropriate position, and you frame a fresh and longer complete sentence. Similarly, you take the next and then the next segment, each time building a longer sentence by placing the segment in an appropriate position in the previously built sentence. An example is given here below to show how one should proceed with this exercise.)*

**देखीक :** घे | पुस्तक | तें | पिंजललें.

1. घे. 2. पुस्तक घे. 3. तें पुस्तक घे. 4. तें पिंजललें पुस्तक घे.

1. हाड | पेन | थंयचें | तूं.
2. चल | नीता | तूं | बाजारांत.
3. पोती उडयली | पेद्यान | वेनींत | पत्रांची
4. तिकेट दाखयली | इश्टान | म्हाका | नवी
5. वेन थांबयली | ड्रायवरान | आमच्या | नवी
6. रामू गेलो | घरा | काल | आपल्या
7. उमान केळें खालें | पिकें | काल | आईन दिल्लें
8. रवी खेळता | आमचो | गड्ड्यांनी | इश्टा वांगडा
9. उमा जेवलें | आज | बेगीं | शीत
10. रशीद दिली | कारकुनान | पैशे घेवन | मनी ओर्डरिचे | ताका
11. अशोक धांवलो | म्हजो भाव | बेगीं बेगीं | चोरा फाटल्यान
12. वात पेटयली | सुरेशान | तांबडी | थंय आसलेली

# पाठ 21 : एकविसावो पाठ

## प्रदर्शन

गोंय 1961 वर्सा मुक्त जालें. अंदूं ताका पंचवीस वर्सां भरलीं. रुप्या दबाज्या निमतान पणजे सरकारान एक प्रदर्शन दवरलें. प्रदर्शनांत वांटो घेंवक विंगड विंगड राज्यांक आपयल्लें.

पणजेच्या कांपालार हें प्रदर्शन मांडून हाडललें. पत्रार जाहिराती पळौन, एक दीस कोलेज सोंपतच हांव आनी म्हजे इश्ट थंय गेले. आमकां दिसललें सदां भाशेन हेंय ल्हानशें आसतलें. पूण थंय गेल्यार कितें पळेतले. दोन वरांत आमचें अर्दे सुद्दा पळौन जालें ना.

भितर सरचे पयलीं दारांतूच एक व्हड कमळ केल्लें. ताचे मदें फुलां झाडां रोयल्लीं. भायल्या वणतिंचेर इतिहासीक आनी पुराणीक चित्रां पिंतारललीं. दारवंटो बरो सजयल्लो. म्हाका तो बरो दिसलो.

भितर मदल्या भागांत गोंयचें प्रदर्शन आसलें. भोंवतणच्या भागांत भारताच्या वेगळ्या वेगळ्या राज्यांचें प्रदर्शन आसलें. आमकां खंयच्यान पळौंक सुरू करचें तें कळना जालें. आमकां चड वेळ नासलो म्हण आमी पैलीं दोन तीन राज्यांचीं प्रदर्शनां पळेलीं.

तांचे पैकी मणिपूर राज्याचो विभाग आमकां चड रुचलो. तांचो मांटोव मणिपुरी कलेन सजयल्लो. राज्याचें नांव आनी ताचे भोंवतीं केल्लें विणकाम चड सोबीत दिसतालें. थंय हातकामाच्यो वस्तू लोकांक विकताले. मणिपूरचें खाशेलें वाद्य म्हळ्यार लांबशें धोलकें, थंय हुमकळायल्लें.

ताका लागुनूच राजस्थानाचो तंबू आसलो. राजस्थानी पोशाक घातलेल्यो चलयो लोकांक येवकार दिताल्यो. रंगीत हारशांच्यो तरेकवार वस्तू दवरलेल्यो. तरेकवार बावल्यांचोच एक देखावो केल्लो. मणयांच्यो माळो, रंगारंगाचीं कांकणां, कानांतलीं, असल्यो वस्तू आसल्यो. हस्तिदंताच्यो वस्तू आसल्यो. हस्तिदंताच्यो वस्तू आमकां आवडल्यो. पूण तांचें मोल खूप चड.

बगलेकूच कर्नाटकाचें भोंवडे माहिती केंद्र आसलें. थंय व्हड व्हड फोटे लायल्ले, शिवाय त्या प्रदेशाच्या वेगळ्या वेगळ्या देखाव्यांचीं चित्रां लायल्लीं. ह्या राज्याच्यो खाशेल्यो वस्तू म्हळ्यार चंदनी, हस्तिदंताच्यो, शिश्या लांकडाच्यो वस्तू. थंयच्या इतिहासीक जाग्यांची आनी भोंवडे केंद्रांचीय माहिती हांगा मेळताली.

अशे दोन तीन विभाग पळेतासर आमकां पुरो जालें, आनी सगळ्यांक तान लागलेली. थंयच आसलल्या एका होटेलांत आमी रिगले. थंय आमकां गुजराताची लस्सी पियेंवक मेळली. परतून आयतारा येंवचें ठरौन आमी घरा गेले.

**उतरावळ VOCABULARY**

प्रदर्शन (n) exhibition
मुक्त (adj) free, liberated

रुप्या दबाजो = silver jubilee
रुपें (n) silver
दबाजो (m) jubilee, celebration
सरकार (m) government
विंगड विंगड (adj) different, various
राज्य (n) state
मांड (tv) arrange
मांडून हाड = make arrangements
जाहिरात (f) advertisement
पत्र (n) newspaper, letter
कमळ (n) lotus
भायलो (adj) one from outside
वणत (f) wall
पुराणीक (adj) mythological
पिंतार (tv) paint
दारवंटो (m) doorpost
सजय (tv) decorate
वेगळो वेगळो (adj) different, various
पैकी (pp) among
विभाग (m) section, department
मांटोव (m) pandal, pavilion
भोंवतीं (adv,pp) around
विणकाम (n) weaving, plaiting
हातमाग (m) handloom
कलावस्तू (f) piece of art, artefact
खास (adj) special
खाशेलो (adj) special
वाद्य (n) musical instrument
कला (f) art, skill
लांबसो (adj) somewhat long
धोलकें (n) drum
हुमकळाय (tv) hang up
तंबू (m) tent, pavilion
येवकार (m) welcome
रंगीत (adj) coloured
तरेकवार (adj) different kinds of
बावली (f) doll
देखावो (m) scene
मणी (m) bead
कांकण (n) bangle
कानांतलें (n) ear ring
हस्तिदंत (m) ivory
मोल (n) price
बगलेक (adv) nearby
प्रदेस (m) state, region
चंदन (n) sandal wood
शिशें लांकूड = rose wood
तान (f) thirst
तान लाग = feel thirsty
रीग (iv) enter
लस्सी (f) cold drink prepared from curds
ठरय (tv) decide

**GRAMMAR NOTES :**

1. When the subject of a verb denotes the experiencer, the noun or pronoun has the dative –क / –का inflection. The verb in such cases indicates some feeling or emotion. For example :

म्हाका भूक लागता.
लताक पुरो जालां.
आमकां त्रास पडतात.
राजूक भंय दिसता.
तिका दूक भोगता.
जाण्ट्याक खरस येता.

2. If the verb is ditransitive (has two objects) the noun or pronoun denoting beneficiary takes the dative –क / –का inflection :

हांव सुरेशाक आंबो दितां.        तो पुताक खबर सांगता.

**शिकपाचें घोळौप** REPETITION LESSON

– बाबा, ती पळे फेरीबोट.   इतली व्हड बोट हांगा प्रदर्शनाक कशी पावली?
– तें सोंपें.   तिका चाकां लावन वोडत हाडली.
– त्यो पळे खेळांतल्यो बार्जो.
– त्यो खेळूंक दवरूंक नांत.   गोंयचें मीन बार्जेतल्यान कशें व्हरतात तें दाखौंक दवरल्यात.
– बाबा, थंय गर्दी आसा.   आमी या थंय.
– थंय व्हडलें कांय ना.   उदकाचो पंप दाखयतात.
– पंप कित्याक?
– शेतांक उदक घालूंक.   तीं पळे ल्हान ल्हान शेतां.
– शेतांनी बोर्ड कित्याक लायल्यात?
– खंयचें सारें खंयच्या शेतांत घालां तें त्या बोर्डाचेर बरयलां.
– काय बरे भेंडे न्हय?   बाबा, ती वाल कसली?
– तिका अळसांदे जातात.
– बाबा, आमी भितर या.
– शीला, तो पळे बिबटो.
– नाका नाका, म्हाका भंय दिसता.   थंय वचूं नाका.
– हो कसलो आवाज?
– थंय दुकर आसात.
– शी, शी, बाबा, आमी भायर या.
– आनी खंय या?
– बाबा, म्हाका पुरो जालां, आनी तानूय लागल्या.
– चल या तर, हे थंय उशेकाण्याचो रोस मेळता.
– शाबास, आमी घेंवया.   म्हाका दोन ग्लास जाय.
– हो घे.   कसो लागता?
– आवय, बरो लागता.   मिरमिरीत.
– हय, आलें घालां म्हणून.
– बाबा, तुका नाका?
– ना, म्हाका अनसाचो रोस बरो लागता.   तुका आनी एक ग्लास जाय?
– नाका, इतलोच पुरो म्हाका.
– या तर, वेळ जालो.

## उतरावळ VOCABULARY

चाक (n) wheel
मीन (n) ore, mine
सारें (n) manure
अळसांदो (m) string beans
बिबटो (m) panther
दुकर (m) pig, swine
उशेकाणो (m) sugarcane
रोस (n) juice
मिरमिरीत (adj) minty
आलें (n) ginger
बरें लागता = tastes good
अनस (n) pineapple
पुरो जा = feel tired
या तर = let us go then

**A. सुचयल्लीं उतरां वापरून नवीं वाक्यां करात :** ***Pattern Practice***

1. आतां म्हाका भूक लागता. (तान, गरम, थंड)
2. त्या भुरग्याक भंय दिसता. (भूक लागता, दूक भोगता, पुरो जाता)
3. आमकां देवूळ बरें दिसता. (व्हड, नितळ, मुंदर, सोबीत)
4. रवीन ताका एक अनस दिलें. (म्हाका, तुका, शीलाक, तिका)
5. काल म्हाका चड पुरो जालें. (भुरग्यांक, बायलेक, म्हातारेक, तुमकां)
6. मणिपूरचें प्रदर्शन तुमकां आवडता. (तुमकां, शीलाक, ताका, रवीक)
7. अनसाचो रोस रुचीक लागता. (मिरमिरीत, गोड, आंबट)
8. बाबान म्हाका उशेकाणो दिलो. (सुरेशाक, ताका, तुमकां)
9. आज आमकां वेळ ना. (जेवण, चा, पाठ, शाळा)
10. म्हाका दोन ग्लास जाय. (केळीं, अनस, रोस, अळसांदे)

**B. योग्य तें क्रियापद वापरून रिकामे जागे भरात :** ***Fill in the blanks with appropriate verb forms :***

1. म्हाका प्रदर्शन पळौंक ---------
2. आमकां चलून पुरो ---------
3. हांव दीस भर जेंवक नां. म्हाका भूक ---------
4. तो व्हड गवो रेडो पळेताना भंय ---------
5. दारवंटो बरो सजयल्लो. तो म्हाका बरो --------
6. मणिपूर राज्याचो विभाग आमकां चड -------
7. ताचे भोंवतीं केल्लें विणकाम चड सोबीत -------
8. वोतान चलून शीलाक तान ----------
9. बाबान शीलाक उशेकाण्याचो रोस ---------
10. प्रदर्शनांत राजस्थानी चलयांनी आमकां येवकार -------

11. तांणीं आमकां मणी आनी कांकणां--------
12. आमकां गुजराताची लस्सी पियेंवक -------

**C. सकल दिल्ल्या प्रस्नांक जापी दियात :** ***Answer the questions :***

1. गोंय मुक्त जावन कितलीं वर्सां भरलीं?
2. प्रदर्शनांत वांटो घेंवक कोणाक आपयल्लें?
3. प्रदर्शन खंय मांडून हाडलले?
4. प्रदर्शनाच्या दारांत कितें आसलें?
5. भायल्या वणतिंचेर कितें आसलें?
6. खंयचो विभाग चड बरो दिसतालो?
7. मणिपूरचें खाशेलें वाद्य खंयचें?
8. राजस्थानाच्या मांटवांत लोकांक कोण येवकार दितालीं?
9. कर्नाटकाच्या मांटवांत कितें आसलें?
10. पयल्या दिसा भुरग्यांनी कितले विभाग पळेले?
11. येदी व्हड फेरिबोट प्रदर्शनांत कशी हाडली?
12. शेतांत बोर्ड कित्याक लायल्यात?

**D. सुचयल्लीं उतरां वापरून वाक्यां चड आनी चड लांब करात :** ***Build up longer and longer sentences using the suggested words :***

1. वर्सां भरलीं । पंचवीस । अंदू । गोंयच्या स्वातंत्र्याक
2. कमळ केल्लें । व्हड । एक । दारांतूच । भितर सरचे पयलीं
3. चित्रां पिंतारललीं । इतिहासीक । आनी पुराणीक । वणतिंचेर । भायल्या
4. म्हजे इश्ट थंय गेले । हांव आनी । कोलेज सोंपतच । एक दीस
5. प्रदर्शन आसलें । गोंयचें । भितर । मदल्या भागांत
6. चित्रां लायल्लीं । देखाव्यांचीं । वेगळ्या वेगळ्या । त्या प्रदेसाच्या
7. रोस बरो लागलो । अनसाचो । म्हाका । आलें घालां म्हूण
8. लस्सी पियेंवक मेळली । गुजराताची । आमकां । थंय । एका होटेलांत
9. घरा गेले । आमी । आयतारा येंवचे ठरौन । परतून
10. लोकांक येवकार दिताल्यो । चलयो । सोबीत । राजस्थानी । पोशाक घातलेल्यो
11. एक देखावो केल्लो । बावल्यांचो । तरेकवार । थंय
12. आमकां रुचलो । चड । मणिपूरचो विभाग । तांचे पैकी
13. प्रदर्शनां पळेलीं । आमी । दोन तीन । राज्यांचीं । आमकां वेळ नासलो म्हूण
14. राज्यांक आपयल्लें । विंगड विंगड । वांटो घेंवक । प्रदर्शनांत
15. प्रदर्शन मांडून हाडललें । हें । कांपालार । पणजेच्या

# पाठ 22 : बाविसावो पाठ

## करमणूक

आतांच्या काळार घोवबायलां दोगांय कामाक वेतात. घरा परत येताना तीं थकून येतात. भुरग्यां वांगडा उलौंक परयान तांकां वेळ आसना. भुरग्यांकूय शाळेंत इतलें शिकचें पडता की तांकांय आपल्या आवयबापाय बरोबर हांसूंक खेळूंक चडशें मेळना. चड करून आतांच्या घरांनी टिवी नासल्यार रेडियो आसा. हांकां लागून आवयबापायक आपल्या भुरग्यां कडे उलौंक वेळ मेळना, आनी कुटुंबांत आपुलकी उरना.

टिवी आनी रेडियो हीं दोनूच मन रिझौपाचीं साधनां न्हय. भुरग्यां सांगाता बसून आज कितलीं जाणां इस्पीक, घुलो, बुद्धीबळ ह्या सारकिले खेळ खेळतात? भुरगीं इश्कोलाक वेतात, शिकौणेक वेतात, आवयबापूय सिर्विसेक, बाजारांत वा हेर कडेन वेतात. थंय तीं जायत्यो घडणुको पळेतात, खबरो आयकतात. पूण कितलीं जाणां घरांत येवन त्यो गजाली सांगतात? ताचेर भासाभास करतात? भुरग्यांचे प्रस्न, विचार आयकून घेंवचे, तांकां जाप दिंवची नासल्यार समजावन सांगचें हें गरजेचें. हांतल्यानूच तांचे मदें विस्वास आनी मोग वाडता.

ते शिवाय संगीत आयकप आनी गावप मन रिझौंक चड उपकारतात. तशेंच दुसऱ्यांचो नाच निखटोच पळौंच्या बदलाक आपणेंच केल्यार कसो? नाटक आनी सिनेमा पळेल्या उपरांत ताचेर भासाभास करूं येता. तांतल्यान एकामेकांचे विचार कळून येतात.

आतांचीं आवयबापूय आपल्या भुरग्यांक संगीत वा वाद्य शिकूंक कितलोसो आदार दितात? गिटार एक सोडल्यार चडशीं भुरगीं पाश्चात्य संगीत शिकनांत. आदीं तर कितलिशींच वायलीन, पियानो शिकतालीं. तशेंच कितलीं भुरगीं आज हिंदुस्थानी संगीत शिकतात? पेटी, तबला, सितार शिकतलीं थोडीं आसात. ताच्याकी उणें भरतनाट्यमा सारके नाच शिकतलीं आसात.

गोंयचींच खाशेलीं साधनां आसात. तियात्राक जाल्यार लोक मोटे उमेदीन येतात. तियात्र गोंयच्या गांवांगांवांनी दाखयतात. तशेंच खेळ तियात्र, नाटकां केन्ना केन्नाय जातात. आमच्या लोकांक पदां, मांडो, दुलपदां, आवडतात. वोवयो आनी नाट्यगितां तर चड आवडतात.

हांगाचोच नाच म्हळ्यार धालो, आनी फुगडी. इतलेंय आसून हे लोक आपूण स्वता तांतूं वांटो घेनांत. फकत पळौन आनी आयकून धादोशी जातात. आमच्या भुरग्यांनी असलें संगीत, नाच, आदी शिकल्यार चड बरें. आपूण गोंयकार, आपलें दायज व्हड, आपली सरस्पत व्हड, अशें आमी तोंडानूच म्हणत आयल्यांत. पूण ती सांबाळप आनी वाडौप हें तितलेंच गरजेचें.

**उतरावळ VOCABULARY**

करमणूक (f) recreation

परयान (adv) till, even

खेळ (m) play, game, drama
कुटूंब (n) family
आपुलकी (f) belonging, intimacy
मन रिझय= entertain, relax
सांगात (m) company
बुद्धीबळ (n) chess
घूल (f) shell [as counter]
शिकौण (f) tuition
सिर्वीस (f) job, employment
भासाभास (f) discussion
प्रस्न (m) question
जाप (f) answer
विस्वास (m) confidence
मोग (m) love
संगीत (n) music
गावप (n) singing
नाच (m) dance
निखटो (adj) merely, only
बदलाक (adv,pp) instead of
आपूण (refl.pn) oneself
वाद्य (n) musical instrument, instrumental music as opposed to. vocal
हिंदुस्थानी संगीत = North Indian classical music
पेटी (f) harmonium
सितार (f) sitar
भरतनाट्यम = South Indian classical dance
तियात्र (m) Goan theatre
खेळ तियात्र (m) musical drama
उमेद (f) zeal, zest
मांडो (m) slow, sentimental Konkani song and dance
दुलपद (n) brisk song-dance
वोवी (f) stanza of lyrical poem
नाट्यगीत (n) song from musical
धालो, फुगडी = types of Goan song-dance
दायज (n) heritage
सरस्पत (f) culture, literary heritage

**शिकपार्चे घोळौप** REPETITION LESSON

उमा : आई, आज आमकां बाईन नाच दाखौंक व्हेल्लीं.
आई : कसलो नाच?
उमा : भरतनाट्यम. काय बरो करताली जाणा ती बायल. पळेत रावीन दिसलें.
बाबा : फकत पळेन दिसलें? आपणेंय शिकचेंशें दिसलें ना?
उमा : ना कित्याक? बाईन शिकयतां म्हळां. ती भरतनाट्यम जाणा.
सुरेश : आज हांवें एक मजा पळेली.
लता : कसली रे?
सुरेश : एक कुड्डो भिकारी भीक मागतालो. आनी कांय भुरगे ताचीं फकांणां करताले. पैशे घे म्हूण ताच्या हातार फातर दवरताले. तो पिकार जातकूच खूप हांसताले. आजून म्हाका हांसूं येता.
आई : सुरेश, अशीं कुड्ड्यांचीं, थोंट्या पांगळ्यांचीं फकाणां करूं नये. जाता जाल्यार तांकां आदार दिंवचो.

लता : काल टिविचेर बरें नाटकुलें लागललें न्हय?
आई : हय, ते ल्हान चलयेचें काम बरें जालें.
उमा : तांतले संवाद म्हाका आवडले.
बाबा : तांतली शिकवणूय तितलीच बरी आसली.
उमा : हय, आपणें आपल्या पांयार उबें रावूंक जाय. गरजे भायर आदार घेंवचो न्हय.
लता : बाबा, ह्या आयताराक आमी सगळीं भोंवडेक वचुंया न्हय.
सुरेश : हय बाबा, आग्वादाचो कोट पळौंक या. थंय रेंवेंत आमी बोलांनी खेळुंया.
बाबा : व्हय, व्हय, चलात आतां जेवुंया. मागीर खबरो करूंक बसुंया.

## उतरावळ VOCABULARY

कुड्डो (adj) blind
भिकारी (m) beggar
भीक (f) alms
फकाण (n) teasing, joke, trick
फातर (m) stone
पिकार कर = rag, aggravate
थोंटो (adj) lame
संवाद (m) dialogue
पांगळो (adj) lame
शिकवण (f) moral, lesson
गरजे भायर = without need, unnecessarily
कोट (m) fort
रेंव (f) sand

## GRAMMAR NOTE :

The reflexive pronouns in the following examples show co-reference between subject and object :

हांव म्हाकाच फटयतां. *I cheat myself.*
तूं तुकाच पात्येताय. *You believe yourself.*
आंतोन आपणाक एक घर बांदता. *Anthony builds himself a house.*

This sort of co-reference can also be shown in Konkani by using reflexive adjectives, as in the following examples :

तूं तुज्याच पुताक शिकयताय. *You teach your son.*
रिता आपल्या भावाक आपयता. *Rita calls her brother.*

The reflexive pronouns and adjectives have another function in Konkani : in the reported speech both the subject and object use आपूण and आपलो, –ली, –लें forms to refer to the 1st and 3rd persons. For example :

आपूण येतलो आनी आपल्या पुताक हाडतलो म्हूण ताणें सांगलें.
*He said that he would come and that he would bring his son.*

**A. आपूण आनी आपलो हांचीं फावो तीं रुपां वापरून रिकामे जागे भरात : *Fill in the blanks with appropriate reflexive pronouns or adjectives :***

1. आवयबापूय ------ भुरग्यां कडे चड उलयनांत.
2. आवय ----- पुताक शिकूंक बसयता.
3. आमी नाच निखटोच पळौंच्या बदलाक ------- केल्यार कसो?
4. लता ----- भैणीक खांवक दिता.
5. ------ गोंयकार, ----- दायज व्हड, ------ सरस्पत व्हड, अशें आमी तोंडानूच म्हणतात.
6. इतलेंय आसून हे लोक --- स्वता तांतूं वांटो घेनांत.
7. आपणें ----- पांयांचेर उबें रावप हें गरजेचें.
8. भुरग्यांनी ------ बापायक पुस्तकां दाखयलीं.
9. उमान ----- बोटवो भरलो.
10. दर एकल्यान ----- जाय तितलें घेंवचें.

**B. सकल दिल्ल्या वाक्यांचे प्रस्न करून, तांकां जापी दियात : *Frame questions from the following and answer them :***

1. भुरग्यांक आपल्या आवयबापाय वांगडा हांसूंक खेळूंक मेळना.
2. नीता आपल्या भावाक आपयता.
3. सुरेश आपले बायलेक घेवन आयलो.
4. नाच आपणेंच केल्यार बरो.
5. आवयबापूय आपल्या भुरग्यांक संगीत शिकयतात.
6. लुवीस आपणाक घर बांदता.
7. उमा आपणाकूच हांसयता.
8. आपली सरस्पत व्हड अशें तीं म्हणतात.
9. उमाक आपणें नाच शिकचो अशें दिसलें

**C. कुरू केल्लें उतर घेवन दोन दोन नवीं वाक्यां करात : *Frame two sentences of your own with each word printed in bold letters :***

1. घोवबायलां दोगांय **कामाक** वेतात.
2. भुरग्यांक आपले आवय कडेन **उलौंक** मेळना.
3. उमा आपल्या भावा **सांगाता** बसून खेळता.
4. रमेश **आपल्या** भावाक आपयता.
5. उमाक **आपणें** नाच शिकचो अशें दिसलें.
6. तांचे **मर्दे** मोग वाडता.

7. ताच्या **हातार** फातर दवरलो.
8. **तांतूं** गीत बरें आसा.
9. सगळ्यांनी **आपलें** बरप करचें.
10. **आमच्या** भुरग्यांनी संगीत शिकूंक जाय.

**D. वाक्यां करात :** ***Structural table drill :***

| | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|
| आपणाक | आंबो<br>लाडू<br>सुशेग | मेळलो | म्हण | सुरेश<br>लता<br>सुनील | म्हणता<br>सांगता<br>खुशाल आसा |
| | गाय<br>सिर्वीस<br>बरी सत्री | मेळली | अशें | तो<br>बापूय<br>मामा | सांगतालो<br>म्हणतालो<br>सांग |

| | | | |
|---|---|---|---|
| लतान<br>आईन<br>बापायन<br>सुनीलान<br>भैणीन | आपल्या | भावाक<br>सुरेशाक<br>पुताक<br>इश्टाक<br>नातवाक | आपयलो<br>बसयलो<br>जेवण वाडलें<br>मोगान वागयलो<br>घरांत घेतलो |
| अशोकान<br>बाबान<br>भावान<br>सुरेशान | आपले | भैणीक<br>धुवेक<br>बायलेक<br>सुनेक | सांगलें<br>सिर्विसेक धाडली<br>खबर दिली<br>साडी हाडली |

# पाठ 23 : तेविसावो पाठ

## चवथ

– आगो आंजेला, तूं चड तेंपान मेळता. कशें आसा?
– कमल, तूं? पैस थावन तुका वळकलीं नां. साडी न्हेसून तूं भौ बरें दिसताय. तुजें काजार केन्ना जालें?
– दोन वर्सां जायत आयलीं. आनी तूं खंय आसतालें गो? हालीं मेळुंकूच ना.
– काजार जावन दुबाय पावलीं. हांव पैरूच आयल्यां. एक सांग, इतलो रास भर वेपार कित्याक हाडला? कितें आसा तुमगेर?
– हें कितें विचारता गो? आतां आमची चवथ न्हय? दुबाय वचून सगळें विसरलें?
– ह्या म्हैन्यांत गणेस आयला? हांव खरेंच विसरलीं. गणेस केन्ना?
– आयच्यान बरोबर धा दीस उरल्यात.
– नेवऱ्यो, लाडू केन्ना करतलेंय? तुका आदार दिंवक हांव येतां.
– यो, यो, तयारी करतकूच आपयतां.
– चल, त्या होटेलांत वचून बसुंया. कितलो वेळ हांगा उबीं रावतलीं? तुजे आवडिचो दोसा खावुंया.
– चल या, म्हजो हात दुकून आयलो.
– कमल, तुमची चवथ म्हाका सदांच आवडता. नेवऱ्यो खा, फोग लाय, चित्रां पळय – मजाच मजा. अंदूं खूप तेंपान चवथीक पावलीं.
– हय, आमी खूप मजा करुंया.
– पूण कमल, म्हाका तुमचें एक कळना. तुमी इतलो बोवाळ करून आनी खर्च करून, इतलो सोबीत गणेस हाडतात. आनी रोकडोच ताका कित्याक बुडयतात?
– ताचे फाटल्यान एक कारण आसा. मनशाचें जिवीत सासणाचें न्हय. हें दाखौंक मातयेचो गणपती करून दोन दिसांनी ताका उदकांत उडयतात. तो मातयेक परत मेळूंक जाय म्हूण.
– अशें? दोनूच दीस कित्याक दवरतात? चड दवरूं नजो?
– कित्याक दवरूं नजो? थोडो लोक पांच दीस, सात दीस, इकरा दीस, पंदरा दीस, नाजाल्यार एकवीस दिसूय दवरतात. पूण निमणें उदकांत उडौंकूच जाय.
– गणेसाच्या पांया कडेन ल्हानसो एक हुंदीर कित्याक दवरतात?
– हुंदीर गणपतीचें वाहन.
– वाहन म्हळ्यार?
– म्हादेव कसो नंदीचेर बसून भोंवडेक वेता, तसोच गणपती हुंदराचेर बसून भोंवडेक वेता, अशें म्हणतात.
– गणपती हाडच्या पैल्या दिसा कितें आसता?

– पैल्या दिसा म्हादेव आनी गौरी, म्हळ्यार गणपतीच्या आवयबापायची पुजा करतात.  दुसऱ्या दिसा गणपती हाडतात.  मखरांत बसौन ताची पुजा करतात.
– पयलीं आमी सगळ्यांगेर गणेस पळौंक वेतालीं आनी रातचीं घरा येतालीं.  तुमी आजून वेतात गो?
– हें, आमी व्हडलीं जालीं आतां.  वळकिच्यांगेरूच वेतात.
– पयलीं तुमगेर चवथीक जायतीं सोयरीं येतालीं.  आतांय येतात?
– हय तर, ही आमची एक अशी परब, कोणूय खंयी आसूं , गणपतीच्या निमतान दोन दीस तरी घरा येतातूच.  चवथ म्हळ्यार, सगळें कुटूंब एकटांय येंवची परब.
– बाजारांत सार्वजनीक गणपती मुखार काय बऱ्यो कार्यावळी जाताल्यो.  आजून त्यो जातात मुगो?
– हय, आतां बऱ्यो बऱ्यो कार्यावळी जातात.  बरीं एकांकी नाटकां, पळौपा सारक्यो सर्ती, भुरग्यांच्यो तरेकवार सर्ती, अश्यो जायत्यो कार्यावळी आसतात.
– आमी शाळेंत आसताना एक फावट नाच केल्लो तुका उगडास आसा?
– हय, आमकां इनाम मेळललें.  आगो कितलो वेळ जालो पळय.
– चल या तर.
– आंजेला, नेवऱ्यो करूंक येतलें मुगो?
– येतां, पूण म्हाका पैलें कळय.

**उतरावळ VOCABULARY**

चवथ (f) Ganesh festival
काजार (n) wedding
हालीं (adv) recently
रास (f) heap
वेपार (m) provisions, goods
दूक (f) pain
फोग (m) fireworks
चित्र (n) painting, picture
बोवाळ (m) noise, hullabaloo
खर्च (m) expense
जिवीत (n) life
सासण (n) eternity
हुंदीर (m) rat
वाहन (n) vehicle
भोंवडी (f) tour, journey
पुजा(f) worship
मखर (n) decorated stand
परब (f) feast
सार्वजनीक (adj) public
एकांकी = one act play
इनाम (n) prize
कळय (tv) inform

**शिकपाचें घोळौप REPETITION LESSON**

अशोक : आवय, ह्या म्हैन्यांत आमकां कितल्यो सुटयो पळे.

बाबा : आरे, सुटयो कित्याक पळेता?

अशोक : बाबा, ह्या म्हैन्यांत सगळ्यो परबो आयल्यात. आमकां सुटयोच सुटयो.

बाबा : तूं सुटयो मेजत राव.

अशोक : आमच्यो परबो चडशो श्रावण म्हैन्यांतल्यानूच कित्याक सुरू जातात?

बाबा : श्रावण म्हैन्यांत पावस आसरता. शेतांतलीं कामां कमी जाल्लीं आसतात. रूक आनी वाली पानां–फुलांनी भरललीं आसतात. देकून श्रावणांतल्यान परबो सुरू जातात.

अशोक : सगळ्यांत पैलीं कितें?

बाबा : नागपंचम. त्या दिसा नागाची पुजा करतात. जमनीक खोरें कुदळ लायनांत. झाडां कापी नांत.

अशोक : मागीर सुतां पुनव न्हय? तेदूस कितें करतात?

बाबा : हय, तेदूस नुस्तेकार दर्याची पुजा करतात आनी दुसऱ्या दिसा थावन नुस्तें पागपाक व्हडीं दर्यांत सोडतात.

अशोक : मागीर कसली परब? चवथ?

बाबा : ना, चवथी पैलीं गोकुळाश्टम. तेदूस रातचो कृश्ण जल्मा आयल्लो.

अशोक : आनी चवथ म्हळ्यार गणपतीचो जल्मा दीस.

बाबा : हय, मागीर येता दसरो, सरस्वती पुजा.

अशोक : मागीर रोकडीच दिवाळी. रातभर नरकासुराक घेवन फिरूंक आसा, आनी फांतोडेर ताका मारचें.

बाबा : तुका सगळ्यांत खंयची परब चड आवडता?

अशोक : चवथ. फोग लांवक मेळता. आई बरें बरें खांवक करता न्हय.

उतरावळ VOCABULARY

मेज (tv) count
नागपंचम (f) snake festival
श्रावण (m) name of lunar month (August-September)
आसर (iv) [rain] subside
खोरें (n) spade, mattock
कुदळ (f) pickaxe
सुतां पुनव = Shravan full-moon feast
पाग (iv) catch fish
सोड (tv) operate [boat]
व्हडें (n) canoe, boat
गोकुळाश्टम (f) Krishna's birth festival
दसरो (m) Dassera, Durga Puja
फांतोड (f) dawn
नरकासूर (m) netherworld giant
मार (tv) kill [burn in this case]
गडगड (m) thundering noise
तेदूस = that day

**GRAMMAR NOTES :**

1. Adjective phrases can modify a noun or pronoun in a sentence. The usual constituents of a Konkani adjective phrase are :

   a) a head adjective, e. g. बरो, सोबीत, तांबडो
   b) adjectives of quality or quantity, e. g. लांब, दोन, जायतो.
   c) intensifiers, e. g. भौ, चड, खूप
   d) demonstratives, e.g. हो, ती, तें
   e) participials, e. g. मोडललो, दिसचो, केल्ली
   f) genitivals, e. g. आमचो, घराची, तांगेल्यो

Thus we can have phrases like : दोन सोबीत (गुलाब), तो भौ बरो (मनीस), आमचो मोगाचो (पूत).

2. The suffix –सो, –शी, –शें and its other forms carrying the meaning 'somewhat', are often used in Konkani to denote approximation. This usage makes Konkani expressions very concise without using any periphrasis. For instance, तो येतासो दिसता. *It looks as if he is coming.* मरतासो दिसता. *He looks as if he is going to die.*

**A. सुचयल्लीं उतरां वापरून नवीं वाक्यां करात :** ***Pattern Practice :***

1. तूं भौ बरें दिसताय. (चड सोबीत, बरें सुंदर, चड बारीक, बरें मोटें)
2. इतलो रास भर वेपार कित्याक? (पांटलो भर, गाडी भर, पिशवी भर, वजें भर)
3. आयच्यान बरोबर धा दीस उरल्यात. (चड उणें स, सुमार पंदरा, सारके चार, दिस्तूच दोन)
4. तुजे आवडिचो दोसा खावुंया. (उडपी होटेलाचो, गरम गरम, बरो कुरकुरीत, गरम मसाल्याचो)
5. म्हजो हात दुकून आयलो. (म्हजो उजवो, पिशवी धरललो, म्हज्या भावाचो, म्हजो सामान धरललो)
6. मातयेचो गणपती करतात. (सोबीत सुंदर, मुकूट घातललो, गुळगुळीत पोटाचो, हुंदरार बसललो)
7. गणेसाच्या पांयां कडे ल्हानसो हुंदीर दवरतात. (काळोसो, इलोसो एक, मोदक खावपी, लांब शेंपडेचो)
8. चवथीक जायतीं सोयरीं येतालीं. (भायल्या गांवांतलीं, गांवांगांवांचीं, आमचीं लागशिलीं, मुंबयचीं)
9. गणपती मुखार काय बऱ्यो कार्यावळी जाताल्यो. (तरेतरेच्यो, चड बऱ्यो, मन भुलौपी, सगळ्यांक रुचतात तसल्यो)

10. आमच्यो परबो उमेदीन मनयतात. (ह्या गांवच्यो, आमच्या देवळाच्यो, आमच्यो चडशो, आमच्या कुंटुंबाच्यो)

**B. विशेशण ना जाल्यार विशेशणीय पदबंद वापरून रिकामे जागे भरात :** ***Fill in the blanks with suitable adjectives or adjective phrases :***

1. ------ म्हैन्यांत आमकां कितल्यो सुट्यो पळे.
2. ----- परबो चडशो ह्या म्हैन्यांत येतात.
3. ----- दीस फोगाचो गडगड जाता.
4. -------म्हैन्यांत चवथ येता.
5. ------ वेपार कित्याक हाडला?
6. चल, ------ होटेलांत वचून बसुंया.
7. --------- लोक पांच दीस गणपती दवरतात.
8. चवथीक ----- सोयरीं येतालीं.
9. गणपती मुखार ------ जायत्यो कार्यावळी आसतात.
10. भुरग्यांच्यो ----- सर्ती आसतात.
11. ----- हात दुकून आयलो.
12. आयच्यान ----- दीस आसात.

**C. न्हयकारी वाक्यां करात :** ***Frame negative sentences :***

1. साडयेर तूं बरें दिसता.
2. तुवें चड वेपार हाडला.
3. दुबाय वचून आमकां विसरलें.
4. चवथीक धा दीस उरल्यात.
5. हांव तुका आदार दिंवक येतां.
6. म्हजो हात दुकता.
7. म्हाका चवथ आवडता.
8. गणपतीक रोकडोच बुडयतात.
9. मनशाचें जिवीत सासणाचें.
10. गणपती चड दीस दवरूंक येता.
11. गणपती भोंवडेक वेता.
12. म्हादेवाची पुजा करतात.
13. गौरीक मखरांत बसयतात.
14. ही आमची व्हड परब.
15. जायतीं सोयरीं येतात.

16. ह्या म्हैन्यांत सुटी येता.
17. नागाची पुजा करतात.
18. नुस्तेकार व्हडीं दर्यांत सोडतात.

**D. सुचयल्लीं उतरां वापरून वाक्यां चड आनी चड वाडयात :** ***Increase the length of sentences using suggested words :***

1. पुस्तक जाय । एक । बरें । म्हाका । कोंकणी । भाशेचें
2. बसुंया । होटेलांत वचून । त्या । मुखावेल्या । इराण्याच्या । व्हडल्या
3. दोसा खावुंया । तुजे आवडिचो । मसाल्याचो । कुरकुरीत
4. गणेस हाडतात । तुमी । इतलो बोवाळ करून । खर्च करून । इतलो सोबीत
5. कार्यावळी जातात । गणपती मुखार । दुसऱ्या दुसऱ्या पंगडाच्यो । तरेकवार । बऱ्यो । सोबीत
6. नाच केल्लो । आमी । शाळेंत । एक । पळौपा सारको । सुंदर
7. नेवऱ्यो केल्ल्यो । आमी । चवथीक । रव्याच्यो । सोय घालून । रुचीक
8. झाडां कापतात । लोक । आमच्या गांवचे । जायते । रानांतलीं सगळीं
9. चवथ एक परब । गोंयची । व्हड । एकवटाची
10. बरें दिसताय । भौ । तूं । साडी न्हेसून । आज
11. उदकांत उडयतात । तुमी । ताका । गणपती करून । मातयेचो । इतलो सोबीत
12. हुंदीर दवरतात । पांयांकडे । गणपतीच्या । इलोसो
13. अशें म्हणतात । भोंवडेक वेता । गणपती । हुंदराचेर बसून
14. फिरूंक आसा । आमकां । रातभर । नरकासुराक घेवन । दिवाळेचे परबेक
15. व्हडीं दर्यांत सोडतात । दुसऱ्या दिसा थावन । नुस्तें पागपाक । सुता पुनवेच्या

# पाठ 24 : चोविसावो पाठ

## गांवांतलें जिवीत

गांवांतलें आमचें जिवीत सादें. आमी चडशे शेतकामती. शेताच्या वावरान आमी दीस सारतात. म्हजेंच उदाहरण घेयात. गीम सोंपून पावस सुरू जालो. आतां हांव शेताचें काम सुरू करतलों. हांगासावन त्या कपेलामेरेन आसा तें म्हजें शेत. पयलीं म्हाका भात वंपूंक जाय. ह्या वर्सा पावस बरो पडल्यार, शेत चड बरें जातलें. अडेज तीन म्हयन्या भितर भात पिकून तयार जातलें. मागीर रोकडोच लुंवणेचो बोवाळ सुरू जातलो. लुंवणेच्या कामाक जायतीं जाणां जाय पडतात. शेतां लुंवन जातच मळणी सुरू जाता. जेन्ना हांव भात घरा हाडतां, तेन्ना आमी सगळीं खोशी मनयतात आनी घरांत गोडशें करतात. कांयकडेन उदक भरपूर मेळता थंय हांव मिरसांगो, कांदे, कणसां, भाजी रोयतां. फाटल्या वर्सा भाजी, काळंगां, नाचणे, आनी हेर धानांचें बरें पीक आयल्लें.

म्हज्या घरा फाटल्यान मुकुंदाचें बरें व्हड कुळागर आसा. कुळागरांत माड, काजू , माडयो, अनसां, पणस, आंबे, चिकू हीं झाडां ताणें रोयल्यांत. गिमांत हांव ताच्या कुळागरांत शिंपूंक वतां. बांयचें उदक लाटेन काडून शिंपतात. ताच्या कुळागरांतलीं आबोलीं, मोगरीं, गुलाब, जायो-जुयो, चांफीं हीं फुलां झाडां शिंपूंक सोंपीं जातात. मुकुंदान लागसारच शाक-भाजयेचो मळो केला. मळ्या भोंवतणी माती थापून आडो केला. लाटेन उदक काडून तो मळ्यांत चारीय दिकांनी पावयता. कांदे, मिरसांगो, आलें, कोथमीर, तांबडी भाजी, कोबी, वांयगीं, तेंडलीं, घोसाळीं, भेंडे, मुळे अशी शाकभाजी हांगा लायल्या. शाकभाजी जातकच तो ती काडून बाजारांत व्हरून विकता. मुकुंदान ह्या फुलां झाडांचेर आनी शाकभाजयेचेर खूप दुडू केला.

शेजारच्या गांवांत म्हजो भाव आनी ताचें कुटूंब रावता. तो हालींच कुंकडांचो धंदो करूंक लागला. कुंकडांक आनी तांतयांक बाजारांत बरो खप आसा. कुंकडांचो वावर म्हूण थोडो? दिसपट्टें तांकां खाण घालूंक जाय, तांचे घूड साफ करूंक जाय, तांतयां एकटांय करून विकपाक धाडूंक जाय. आमच्या गांवांत कुंकडांच्या धंद्याचेर खुपशीं कुटुंबां जियेतात. म्हज्या भावाकडे गोरवां आसलल्यान दुदाचो धंदोय तो पयलींसावन करता. आतां ताणें गोरवां राखूंक, शेण एकटांय करूंक, दूद काडूंक मनशां दवरल्यांत. तो गांवांतल्या खूप घरांक दूद विकता. ते शिवाय तो गांवांभायल्या दुदाकेंद्रांक दूद धाडता. फांतोडेर उटून गोट्यांतलो वावर करूंक जाय. ह्या धंद्यांतल्यान ताका खूप फायदो जाला.

गांव आसा थंय तरेतरेचे मनीस जायच. शेतकाम करताना गांवांतल्या हेर लोकांचोय आमकां आदार जाता. पसरकार, वेपारी, नुस्तेकार, म्हालो, दर्जी, गंवडो, पदेर आनी रेंदेर आमकां जाय. जशी शीत भाजी जेवणाक गरजेची तसोच उंडो नास्त्याक जायच. फांतोडेर पदेर आपले सायकलीक पांटें बांदून उंडे हाडता. उंडे खाल्याबगर आमची सकाळची चा जायना. तशेंच गोंयां माड खूप देखून रेंदेर जायच. तो माडार चडून सूर काडताना कांतारां रचून गायता.

सांजवेळार ताचीं गितां वातावरणांत सोबाय हाडतात. माडार ऊंच चडताना ताका कांयच भंय दिसना. गांवांत आमी अशेच तरेतरेचे धंदे करतात. पूण एकामेकांक आदार दीत जियेतात.

**उतरावळ** VOCABULARY

जिवीत (n) life
सादो (adj) simple
शेतकामत (m) farmer
सार (tv) spend
दीस सार = live, spend one's days
उदाहरण (n) example
सोंप (iv) finish
सुरू जा (iv) begin
सुरू कर (tv) begin
वंप (tv) sow
पीक (iv) ripen
लुंवणी (f) harvest
लूंव (tv) reap
मळणी (f) threshing
भात (n) paddy
खोशी मनय = express happiness
गोडशें (n) sweet dish
भरपूर (adj) plenty
कणस (n) corn, ear of corn
काळींग (n) watermelon
नाचणो (m) millet
धान (n) grain, cereals
पीक (n) harvest
कुळागर (n) farm
माडी (f) areca palm
शींप (tv) water, irrigate
बांय (f) well
लाट (f) windlass to raise water
आबोलीं, मोगरीं, जायो, जुयो, चांफीं = Indian flowers
लागसार (adv) closeby
शाक-भाजी (f) vegetable
मळो (m) garden
थाप (tv) pile
आडो (m) protective mud wall
चार दिको = four directions, all directions
पावय (tv) send
कोथमीर (f) coriander
वांयगें (n) eggplant, brinjal, aubergine
घोसाळें (n) ribbed gourd
दुडू (m) money
हालीं (adv) recently
कुंकड (n) chicken
खप (m) demand
खाण (n) food
साफ कर = clean
जिये (iv) live
राख (tv) look after, guard
गोरवां राख = graze cattle, mind the cattle
शेण (n) cowdung
एकटांय कर = collect
दुदाकेंद्र (n) milk centre
फांतोड (f) dawn
फायदो (m) profit
वेपारी (m) merchant
म्हालो (m) barber
दर्जी (m) tailor
गंवडो (m) mason
पदेर (m) baker

रेंदेर (m) toddy tapper
पांटें (n) large round basket
सूर (f) palm toddy
कांतार (n) song
रच (tv) compose
गाय (tv)sing

**शिकपाचें घोळौप** REPETITION LESSON

– तूं रे रवी? केन्ना आयलो?
– वोदोळ आयल्लों.
– चा बी पियेलो मुरे?
– हय, आतांच जाली. मामा तुजे बैल थकलले दिसतात.
– हय, दीस भर तांणीं शेत कोसलां.
– मामा, आतां कितें करता?
– आतां सारें मारतां.
– तळ्या देगेवेल्या शेतांत पाचवेंशें कितें?
– शेतांत बीं किर्लूंक घालां.
– तशें कित्याक?
– पावस बरो पडतच हे रोंपे वाडतले. मागीर ते रोंपे हांव सगळ्या शेतांनी रोंपतलों.
– मामा, तुवें काळंगां धाडललीं तीं खंयच्या शेतांतलीं? म्हाका पळौंक जाय.
– आरे बाबा, काळंगां तूं आतां सोदता? तीं काबार जावन म्हैनो जायत आयलो. कणंगां जाय जाल्यार मामी दितली.
– मामा, तुका घरा येंवक वेळ आसा?
– बैलांक उदक दिंवक तळ्यार व्हरूंक जाय.
– हांवय तुजे बरोबर येतां.

**उतरावळ** VOCABULARY

वोदोळ (adv) then, some time ago
बैल (m) bullock
थक (iv) tire, be fatigued
कोस cultivate, plough
सारें manure
बीं (n) seed [for sowing]
किर्ल– (iv) sprout
रोंपो (m) seedling
रोंप (tv) plant seedling
कणंग (n) sweet potato·
तळें (n) pond
बरोबर (pp,adv) with, along with

**GRAMMAR NOTE :**

Konkani uses a variety of adverb phrases. An adverb phrase is made up of a head adverb, modified by an intensifier, another adverb or adverb phrase, an

adjective phrase, a noun phrase, or another clause. For example :

1. Intensifier + adverb : चड ऊंच 'very high'.
2. Adverb + adverb : फाटीं वेताना 'when going back'.
3. Adverb phrase + adverb : चड बेगीं धांवताना 'when running very fast'.
4. Adjective + Adverb : त्या वेळार 'at that time'.
5. Adjective phrase + Adverb : भौ व्हड बळान 'with very great strength'.
6. Noun phrase + Adverb : तीन वरां वाजतां 'at three o'clock'.
7. Clause + Adverb : तो येता तेन्ना 'when he comes'.

**A. वाक्यां करात :** ***Structural table drill :***

| | | | |
|---|---|---|---|
| अशोक | वयर चडून<br>आपल्या इश्टा बरोबर | बुद्धिबळ खेळूंक | बसलो |
| तो | शेजाऱ्या वांगडा<br>घरा येवन | शिकूंक | गेलो |
| नासीर | दोनपारां तीन वरांचेर<br>सांज जातच | वाचूंक | लागलो |
| रमेश | परिक्षा लागीं पावतच<br>घरा भितर | बरौंक | आयलो |
| रवी | पावस थांबतच<br>सुटयेच्या दिसांनी | रेडियोचेर संगीत आयकूंक | येतालो |

**B. प्रस्नांक जापी दियात :** ***Answer the following questions :***

1. शेतकामती कशे दीस सारतात?
2. भात पिकून केन्ना तयार जातलें?
3. मळणी केन्ना सुरू जाता?
4. भात घरा हाडतच कितें करतात?
5. उदक भरपूर मेळता थंय कितें रोयलां?
6. कुळागरांत कितें कितें रोयलां?
7. कुळागरां कशीं शिंपतात?
8. मळ्या भोंवतणीं आडो कसो केलां?
9. मळ्यांत कसली शाकभाजी जाल्या?
10. कुंकडांचो कसलो वावर करचो पडता?
11. गोरवांचो कसलो वावर करचो पडता?

12. शेतकामत्याचो भाव दूद कोणाक विकता?
13. शेतकामत्याक कोणाकोणाचो आदार जाता?
14. पदेर उंडे कशे हाडता?
15. रेंदेर कितें करता?

**C. क्रियाविशेशणां वापरून रिकामे जागे भरात :** ***Fill in the blanks with appropriate adverbs or adverb phrases.***

1. अडेज तीन ------ भात पिकून तयार जातलें.
2. ------ लुंवणेचो बोवाळ सुरू जाता.
3. म्हाका ----- कोंब्या सादार उटूंक जाय.
4. कांय ---- उदक भरपूर मेळता ---- मिरसांगो रोयतात.
5. उदक मळ्यांत ----- पावयता.
6. गोरवां राखूंक आनी -- --------- मनशां दवरल्यांत.
7. ------गोट्यांतलो वावर करूंक जाय.
8. ------घरांत गोडशें करतात.
9. ------आमी सगळीं खोशी मनयतात.
10. ------हे रोंपे वाडतले.
11. गिमांत हांव ताच्या ------वतां.
12. तांतयां ------ विकपाक धाडूंक जाय.

**D. सुचयल्लीं उतरां घेवन वाक्यां जाता तितलीं वाडयात :** ***Increase the length of the sentence using suggested words.***

1. उटूंक जाय । म्हाका । फाल्यां । चड बेगीं । कोंब्या सादार.
2. दीस सारतात । आमी । शेताच्या वावरांत । गांवांत.
3. तयार जातलें । भात । पिकून । अडेज तीन म्हयन्या भितर । वंपून जातच.
4. कुळागर आसा । बरें व्हड । मुकुंदाचें । घराफाटल्यान । म्हज्या.
5. विकता । बाजारांत व्हरून । ती काडून । शाकभाजी जातच.
6. दीस ठरयतात । लुंवणेचे । एकामेकांक विचारून । आमी शेतकामती.
7. मिरसांगो रोयतात । थंय । उदक आसा । भरपूर । कांय कडे.
8. मनीस जायच । थंय । गांव आसा । तरेतरेचे.
9. कुटुंबां जियेतात । खुपशीं । कुंकडांच्या धंद्याचेर । आमच्या गांवांत.
10. शिंपूंक वतां । उदक । हांव । ताच्या कुळागरांत । गिमांत.
11. चा जायना । सकाळची । म्हजी । उंडे खाल्या बगर । पदेराचे.
12. गायता । कातारां रचून । रेंदेर । सूर काडताना । माडार चडून.

# पाठ 25 : पंचविसावो पाठ

## सर्कस

बाबा : सर्कस कशी आसली?

उमा : काय बरी सर्कस जाणा? एदे व्हडले हती, तांणीं नाल्ल फोडले. वागान बोकडेक खाली ना. आनी बाबा, सुणीं सायकल चलयतालीं.

शीला : इतले सुंदर घोडे. सिनेमांत सुद्दा पळौंक नांत. एक घोडो धांवत आसलो आनी ती चली ताचेर उबी. तिका भंय कसो दिसना?

बाबा : आगो, तांणीं संवय केल्ली आसता.

उमा : बाबा, बाबा, एकली बायल सुताचेर उबी रावून तकलेर कोपां–पिरी दवरताली.

रवी : सूत तें? सरी न्हय गो? तें आसूं. मोटारसायकल येदेशा बोला भितर कशी भोंवडायतात काय? अजापशें. बाबा, तुवें केन्ना पळेलां?

बाबा : हांवें जायते फावट पळेलां. तुवें पूल नासताना जीप उडी मारता ती पळेल्या? ताका बरीच संवय करची पडता.

शीला : आमकां तें दाखौंक ना.

रवी : तांकां भंय दिसना?

बाबा : भित्रे मनीस ती जीप चलयनांत.

शीला : ऊंच झोंपाळ्यार खेळ करपी चलयोय बऱ्यो धीट. एका कोनशाच्यान पायांनी झोंपाळो धरून उडी मारतात आनी दुसऱ्या कोनशाचो झोंपाळो हातांनी धरतात. तें पळेताना म्हजें काळीज परतताशें जालें. त्यो पडलेल्यो जाल्यार?

रवी : सकयल व्हडलें जाळ नासललें? पडल्यार जाळांत पडतल्यो. ते विदुशक पडताले ते तुवें पळौंक ना?

उमा : भाई, ते बडयांचेर कशे चलताले?

रवी : बडयो पांयांक बांदलेल्यो तांणीं. त्या विदुशकान कदेल आमचे वाटेन उडयलें तेन्ना उमा भिलें.

शीला : आनी वाग गर्जलो तेन्ना व्हडल्यान किळांच कोणें मारली?

उमा : उगी राव. हांव भिवूं नासलें. म्हाका ते बोकडेची काकुळत दिसली.

शीला : बाबा, एक आंस्वेल सायकल चलयतालें तें पळौपाक कितली मजा.

उमा : तो हती स्टुलार बसलो तेन्ना कितलें हांसूंक आयलें न्हय?

बाबा : सरयेचेर मोटारसायकल चलयतात तें दाखौंक ना तुमकां?

रवी : ना बाबा, सरयेर उबें रावन नाच करतात तें दाखयल्लें.

शीला : आनी एकाच चाकाचे सायकलिचेर चलयो आनी चले खेळ करताले.

रवी : पूण तांचे परस विदुशकूच चड मजा करतालो. तो प्रत्येक वेळार पडता कित्याक?

बाबा : आरे, तो मुद्दम पडता.   तुमकां हांसौंक.
उमा : म्हाका सगळ्यां परस विदुशकूच चड आवडले.
रवी : विदुशकाची पेंट देंवली तेन्ना आमचें हांसून हांसून पोट दुकलें.
शीला : बाबा, हती मनशांवरी लिंगाची पुजा करतालो.
उमा : आनी सोंडयेन घांट सुद्दा वाजयतालो.
बाबा : आगो, तांकां तशेंच शिकयतात.
रवी : ह्या हतयांक नाचूंक कशें शिकयतात?
बाबा : तें सगळें संवयेचेर आसता.   चेडवाक तोफेंत घालून मोखलें ना?
रवी : ना बाबा, आमकां तोफ दाखौंक ना.
उमा : परतून सर्कस केन्ना येतली?   म्हाका आनीक पळौंक जाय.
बाबा : एक दोन वर्सांनी येतली.

**उतरावळ** VOCABULARY

फोड (tv) crack, split
दांत (m) tooth, tusk
बोकडी (f) she goat
सुणें (n) dog
घोडो (m) horse
संवय (f) habit
सरी (f) wire
अजाप (n) feat, wonder
तकली (f) head
कोपां–पिरी = cups and saucers
जायते फावट = many times, often
पूल (m) bridge
भित्रो (adj) easily frightened
झोंपाळो (m) swing
धीट (adj) brave
काळीज (n) heart
विदुशक (m) clown
कदेल (n) chair
गर्ज (iv) roar
किळांच (f) screech, scream
काकुळत (f) pity
चलय (tv) drive
पड (iv) fall
लींग (n) phallus, sex, gender
घांट (f) bell
वाजय (tv) ring
तोफ (f) cannon
मोख (tv) sling, throw
परत (adv) again
केन्ना (adv) when

**शिकपाचें घोळौप** REPETITION LESSON

फाटल्या आयतारा बाबान आमकां सर्कस दाखौंक व्हेल्लीं.  सर्कस कितली अजापांची आसलेली.  दोन कोनशांक दोन बरे ऊंच झोंपाळे बांदलले.  एकाचेर चेडो, आनी दुसऱ्याचेर चेडूं झोक घेतालीं.  दोगांय मदें पावताना, एकामेकांचो झोंपाळो बदलतालीं.  मात्सो हात चुकलो जाल्यार सकल बांदलल्या जाळांत पडतालीं.

एक दादलो लोकंडा सरयांच्या बोलांत मोटारसायकल चलयतालो. भंय दिसतालो सामको. वागा शिंवाचे पांदरे हाडले तेन्ना उमाची मजा. व्हडल्यान किळांच मारून म्हजो हात घट धरून बसलें. सरयेर उबीं रावन दोन चेडवां काय बरो नाच करतालीं. मदें मदें विदुशक खूप मजा करताले. मुद्दमूच सकल पडताले. तांचें आंग बरें दुकता जातलें. म्हाका तांची काकुळत दिसली.

शीलाक हती खूप आवडले. एक हती दैवाची पुजा करतालो तेन्ना तें ताळयो मारीत आसलें. सुणीं, आंस्वेल सायकल चलयतालीं.

एक मनीस घोड्याचे फाटीर बसून खेळ करतालो. सर्कशींत अशीं जायतीं अजापां आमी पळेलीं. आमकां भंय दिसलो आनी मजाय दिसली. बाबा सांग, पयलीं सर्कशिंनी हाचे परस चड अजापां आसतालीं.

**उतरावळ : VOCABULARY**

झोक घे = swing
जाळ (n) net
लोकंड (n) iron
सामको (adj,adv) fully, right, altogether
फाटलो (adj) previous
पाव (iv) reach, arrive
ताळयो मार = clap hands
हाचे परस चड = more than this

## GRAMMAR NOTE :

Konkani does not have a passive construction as in English, Sanskrit, or Hindi. But like Hindi and the other modern Indo-Aryan languages, it has an ergative construction. This construction appears only in the perfective tenses (viz. present perfect, simple past, and past perfect, e. g. दिला, दिलो, दिल्लो) of transitive verbs. In this construction the subject takes the instrumental or agentive ending, and the object agrees with the verb in number and gender. The ergative verb takes only the third person endings unlike the intransitive verbs in the perfective tenses. The following are examples of imperfective and perfective verb constructions:

Present : रवी आंबो दिता.
Present perfect : रवीन आंबो दिला.
Past Imperfect : रवी आंबो दितालो.
Simple Past : रवीन आंबो दिलो
Future : रवी आंबो दितलो.
Past Perfect : रवीन आंबो दिल्लो.

**A. सुचयल्लीं उतरां घेवन नवीं वाक्यां करात :** ***Pattern Practice :***

1. कशी आसली सर्कस? (काणी, वाट, गाडी, जात्रा)
2. काय बरी सर्कस जाणा? (साडी, गाय, साळोरी, फांती)
3. ताका भंय दिसना? (वायट, बरें, दोळ्यांनी, सुशेग)
4. ती पडलेली जाल्यार? (गेल्ली, आयल्ली, धांवलेली, दिसली)
5. तो प्रत्येक वेळा पडता कित्याक? (हांसता, धांवता, नाचता, बसता)
6. तांकां नाचूंक कशें शिकयतात? (वाचूंक, खेळूंक, धांवूंक, उलौंक)
7. म्हाका आनीक पळौंक जाय. (खेळूंक, बरौंक, बसूंक, चलूंक)
8. इतलो सुंदर घोडो. (दोंगर, हती, दर्या, मोर)
9. ताका काम करचें पडता. (दाखौंचें, बेगीन उटचें, न्हांवचें)
10. सरयेर नाच करता तें दाखयलां. (मोटारसायकल चलयता, घोड्यार खेळ करता, झोंपाळ्यार झोक घेता, हती स्टुलार बसता)
11. आरे, तो मुद्दम पडता. (पावसांत भिजता, वयर चडता, चित्र काडता, सायकल चलयता)
12. ते खूप मजा करताले. (काम, पैशे, त्रास, कटकट)

**B. वर्तमान काळांत दिल्लीं वाक्यां साद्या भूतकाळांत घालात :** ***Transform the sentences putting the verb in the simple past tense :***

1. ती बायल तकलेर कोपां–पिरी दवरता.
2. चेडूं घोड्यार उबें रावता.
3. ती मोटारसायकल धांवडायता.
4. पूल नासताना जीप उडी मारता.
5. सकल जाळ आसा.
6. विदुशक मुद्दम कदेल उडयता.
7. आंस्वेल सायकल चलयता.
8. आमचें हांसून हांसून पोट दुकता.
9. हती स्टूल उडयता.
10. शीलाक हती आवडता.
11. हती लिंगाची पुजा करता.
12. ते चेडवाक तोफेंत घालून मोखतात.

**C. सुचयल्लीं उतरां वापरून वाक्यांत नवी मांडावळ घालात :** ***Transform the sentence by using a different word at a time from the bracket :***

1. रवी आंबो खाता. (तो, ताणें, तिणें, पणस, केळें, केळीं)
2. हती नाल्ल फोडता. (हत्यान, तिणें, हारसो, पाटी, धुली, पेन)

3. बायल कोपां दवरता. (बायलेन, ताणें, डबे, उडयले, फुलां, कदेल)
4. विदुशक दोरी वोडता. (विदुशकान, तिणें, कापली, भेंडे, काळींग)
5. उमा किळांच मारता. (उमान, उडी, ताणें, फातर, मोखलो, मिरीं)
6. विदुशक बडयो पांयांक बांदता. (तो, तिणें, दोरयो, सोडयल्यो, बैलाक, बांदलो)
7. रमेश घांट वाजयता. (रमेशान, धोल, हाडली, तिणें, आरमार, उगडली)
8. बाबा तोफ दाखयता. (बाबान, तुवें, सिनेमा, पळेलो, शीलान, माजर)
9. वाग बोकडेक खाता. (वागान, शींव, ताणें, शीत, जेवलो)
10. ती तकलेर कोपां–पिरी दवरताली. (चेडूं , ताणें, बाटली, दवरली, मेजार)
11. कोनशांक ते झोंपाळे बांदतात. (तांणीं, सरी, केळ, बांदली)
12. शीलाक हती आवडतात. (ताका, घोडे, आंस्वेल, आवडलें, पळेलें)

**D. वर्तमान काळांत दिल्लो उतारो साद्या भूतकाळांत घालात :** ***Put the following whole passage into the simple past tense:***

आमी सर्कस पळेतात. थंय एक सुणें सायकल चलयता. ताचें तोंड उगतें आसा आनी जीब भायर आसा. दोरयेर एक चेडूं उबें आसा. ताच्या हातांत बडी आसा. तें तोल सांबाळून चलता. वागाच्या पांदऱ्यांत एक बोकडी आसा. वाग तिका पळेता, पूण कांयच करी ना. बोकडेक भंय दिसता पूण ती थंयची हालना.

थंय एक व्हड हती येता. विदुशक ताका एक स्टूल हाडून दिता. हती वचून त्या स्टुलार बसता. तें पळौंक बरी मजा दिसता. ताचे उपरांत आनी चार हती थंय येतात. ते एकामेकांक सोंडयेन धरतात. एक हती घांट वाजयता. मोटो एक हती नाल्ल फोडता आनी लिंगाची पुजा करता. सगळीं भुरगीं ताळ्यो मारतात.

# पाठ 26 : सविसावो पाठ

## तिंट्यार

– आट जायत आयलीं पूण आटांची बस आजून तिंट्यार पावूं ना. पेपराकूय आज वेळ. शाराक वेचो लोक सगळो उबो. तांकां कामाक वचूंक वेळ जातलो. गांवांतल्यो बशी म्हळ्यार अशोच. एकूय दीस वेळार येंवच्यो नांत. होटेलांत वचून एक चा मारतां आनी कोण उलौंक मेळता जाल्यार पळेतां.
– आरे शाणू , तूंय बेगीं आयला? बशिचो पत्तोच ना आजून.
– शंकरबाब, तूं खंय वेता?
– खंय ना, पेपर मेळूंक ना मरे आजून.
– शणैलो चलो लायटी सामानाचें दुकान घालता खंय मरे.
– हय, खंय शें?
– त्या विनू म्हाल्याच्या शेजरा.
– शाणू , कितें आसललें रे पयलीं हांगा? इल्लो इल्लो करून हो तिंटो वाडत चल्ला आनी गांवची नुराच बदलल्या.
– हय तर, आदीं हांगा एक भुसारी दुकान, एक तावेर्न, आनी नुस्तेकारां आसलीं. आयताराचो बाजार भरतालो आनी सगळो लागसारचो लोक आपआपलो माल घेवन येतालो. गांवचे लोक आट दिसांचो एकदम पुरुमेंत करून दवरताले.
– आतां दिसपट्टे धाय जिनस मेळतात. शारांत लेगून वचपाची गरज ना.
– हे पळे लोक हालतात. बस आयलिशी दिसता.
– येंवदी, तूं सुशेगाद बस. आमची चा जातासर पेपर हांगाच येतलो.
– हांगा सगळ्यां पैलीं विनू म्हाल्यान आपलें दुकान मांडलें.
– हय, मागीर मिंगेल आपलें माक्न घेवन आयलो.
– ताचे फाटोफाट कपड्याचें दुकान आयलें आनी मिंगेलीक आयतेंच मेळलें.
– ह्या धा वर्सांत तिंटो सामकोच बदललो. हें इश्कोल आनी ते बशीक लागून गांव सामकोच गजबजून गेला.
– आतां तर बेंकूय आयल्या.
– कितेंय जांव पावलूच्या तावेर्नाचें गिरायक बरें वाडलें.
– गंगू चामार आतां तरेतरेचीं जोतीं दवरता. प्लास्टिकाचीं, रबराचीं, आनी आपणेंय केल्लीं दवरता.
– बरीं खपतात आसतलीं. इतले हिप्पी आनी भोंवडेकार येतात न्हय.
– ह्या हिप्पींक लागून शिंपयो लेगीत घेवन बसल्यार खपतल्यो.
– चल शाणू , नुस्तें पळौंया.

– आरे लोंड्रींत वेता तें सुमन न्हय रे?
– आतांच्या चलयांक घरा कपडे उंबळपाक नाका.
– शंकरबाब, नुस्तें घेंवक आयल्यात? व्होनिबाय कशी आसा?
– आसा बरी. तुवें नुस्तें घेतलें?
– हांव नुस्त्याक येंवक ना. म्हाका शाबू , पेश्ट आनी मात्याक घालूंक तेल जाय. शिवाय, चिक्र–पिरीय पळौंक जाय. नवे मोदिच्यो हाडून दवरतां म्हळां ताणें. शंकरबाब, तुमच्या आशाक हळदुव्या रंगाचीं विणपाचीं सुतां जाय, आसलीं. आयल्यांत म्हूण सांगात ताका.
– बरें बरें. आमी नुस्तें घेंवक वेतात.
– शंकरबाब, तुका कसलें नुस्तें जाय?
– म्हाका सुंगटां वा तिसऱ्यो, कितेंय चलता. ह्या हिप्पींक लागून नुस्तें लेगून म्हारग.
– आनी सवाय कितें मेळता?
– आसूं तें, तुका कितें जाय?
– म्हाका नुस्तें नासल्यार भाजी हाडूंक सांगल्या.
– तुमचेंच बरें बाबा. आमगेर नुस्तेंच जाय पडता.
– चल, वोत चडचे पैलीं या.
– राव रे, दुदयाची शीर घेतां. पोपायो येंवक नांतशो दिसतात. चल्यांन हाडूंक सांगलेल्यो.
– तुका हांव दितां. आमगेल्यो कालूच काडल्यात. चल, या आमी.

### उतरावळ VOCABULARY

तिंटो (m) bazaar at cross-roads
पाव (iv) arrive, reach
पेपर (m) newspaper
वच (iv) go
वेळ (m) time
वेळ जाता = it is getting late
बस (f) bus, omnibus
मेळ (iv) get, be available
जाल्यार (adv) if
पत्तो (m) address, trace
पत्तो ना = no trace of, no sign of
म्हालो (m) barber
इल्लो इल्लो = little by little
नुरा (f) feature, character
आदीं (adv) formerly
भुसारी दुकान = grocery shop
लागसार (adv,pp) close by
एकदम (adv) altogether
तावेर्न (n) tavern, bar
धाय जिनस = all sorts of things
लेगून (adv) even
माक्न (n) machine
फाटोफाट (adv) soon after
आयतेंच मेळलें = got a good opportunity
गजबजून (adv) filled with noise
गजबजून गेला = has become noisy
गिरायक (n,m) customer
चामार (m) cobbler
शिंपी (f) seashell
उंबळ (tv) wash [clothes]

शाबू (m) soap
मातें (n) head
घाल (tv) put, place
तेल (n) oil
चिक्र–पीर = cup and saucer
नवो (adj) new
मोद (f) fashion
वीण (tv) knit, weave
हळ्दुवो (adj) yellow
सूत (n) thread
सुंगट (n) prawn, shrimp
तिसरी (f) clam
म्हारग (adj) dear, costly
दुदी (m) pumpkin
पोपाय (f) papaya
काल (adv) yesterday

**शिकपाचें घोळीप** REPETITION LESSON

– सुमन, बाजारांत वेता गो? राव, हांवूय येतां.
– बरी व्हड पिशवी हाडल्या, कितें घेंवक आसा?
– कपडो घेंवक जाय, उशाच्या पिशव्यांक.
– कपडो हांगा कित्याक घेता? हांगा म्हारग पडता.
– आनी कितें करतलें? फाल्यां आमगेर सोयरीं येतात. शारांत वचून कपडो हाडून शिंवतलें केन्ना? तूं कितें हाडूंक वेता?
– म्हाका जायतीं कामां आसात. पयलीं हे कपडे लोंड्रींत दिंवक जाय. मागीर उमेशान नवे मोदिच्यो चिक्र–पिरी हाडून दवरतां म्हळां. थंय वचूंक जाय.
– म्हाकाय व्हडल्यो बशो ना जाल्यार पिरी पळौंक जाय. शिवाय चायेच्यो बुलीय जाय. आसत काय तागेर?
– व्हय, व्हय. तागेर चिक्र–पिरीय मेळतात आनी चायेच्यो बुली, मगां, तसलेंय मेळता. तो कंवचेचें सगळें सामान दवरता. म्हाका सिंगाराच्या दुकानांत वचूंक जाय. याद दवर हां.
– हां गो, म्हाकाय फणी, गंद, कांकणां आनी स्नोव घेंवक जाय.
– किशोरी, तुका भाजी नाका? तिचे कडेन मुळे बरे ताजे आसात.
– आज म्हाका नुस्तें ना जाल्यार भाजी कितेंय चलता. आमचें शिवराक बाय काकागेर गेलां.
– आमकां बाये नुस्तेंय जाय आनी भाजीय जाय.
– चल, बाजार आयलो. आमी पयलीं लोंड्रींत या आनी मागीर सामान घेंवक या.

उतरावळ : VOCABULARY

पिशवी (f) bag
उशें (n) pillow
उशाची पिशवी = pillowcase
शींव (tv) stitch
बारीक (adj) small, thin, lean
बशी (f) plate
बूल (f) kettle
कंवची (f) glass
सिंगार (m) ornaments, make-up
फणी (f) comb

गंद (n) perfume
कांकण (n) bangle
मुळो (m) radish
शिवराक (adj) vegetarian
काका (m) [paternal] uncle
सामान (n) provisions, luggage

## GRAMMAR NOTE :

Compound sentences are framed by conjoining two or more main clauses using coordinating conjunctions :

1. Additive conjunctions :
   आनी 'and' as in तो आयलो आनी बसलो.
   Correlative –य...–य as in तोय आयलो तीय आयली.
2. Alternative Conjunctions : वा / वो / ना जाल्यार 'or', की / काय 'what' is sometimes used to express alternatives specially in questions like तो येता काय ना? 'Is he coming or not.'
3. Adversative Conjunctions : पूण 'but', तरी 'yet'
4. Conjunction showing consequence : देखून 'therefore'.

**A. वाक्यां करात :** ***Structural Table Drill :***

<table>
<tr><td rowspan="3">रवी पेपर वाचता<br>शाणू बाजारांत वेता<br>सुमन लोंड्रींत वेता<br>शंकरबाब नुस्तें दिता<br>चामार जोतीं करता<br>विनू म्हालो केंस कापता<br>मिंगेल कपडे शिंवता<br>शामा उदक भरता<br>शांता कपडे धुता<br>लता थंय वेता</td><td>आनी</td><td>भाजी घेता<br>परत येता</td></tr>
<tr><td>वा<br>ना जाल्यार</td><td>घरा वेता<br>परत येता</td></tr>
<tr><td>पूण</td><td>भाजी घेना<br>पैशे घेना<br>भायर येना<br>घरा वचना</td></tr>
<tr><td>शाणूय गेलो<br>हांवूय गेलों<br>तीय गेली</td><td></td><td>शंकरूय गेलो<br>सुमनूय गेलें<br>म्हजी भैणूय गेली</td></tr>
</table>

**B. जोडयो लायात : *Match the following :***

| A | B |
|---|---|
| 1. शंकर पेपर घेता | a. म्हणून शारांत वेची गरज ना. |
| 2. किशोरीक निस्तेंय जाय | b. पूण ताका कपडे मेळनांत. |
| 3. विनू म्हाल्यान दुकान घालां | c. आनी कपडे धुंवक दिता. |
| 4. बाजारांत धाय जिनस मेळतात | d. ना जाल्यार जेवण चलना. |
| 5. मिंगेल माक्न घेवन बसला | e. वा शाबू चलता. |
| 6. गांवांत बस येता | f. आनी फेणी पियेता. |
| 7. सुमनाक पेश्ट चलता | g. वो घराच रावता. |
| 8. ताणें पोपायो घेतल्यो | h. आनी कितलें विणलें? |
| 9. सुमन लोंड्रींत वेता | i. आनी होटेलांत बसून वाचता. |
| 10. तुवें सुतां हाडलीं | j. म्हणून तो थंय केंस कापता. |
| 11. म्हाका निस्तें जाय | k. पूण खाल्यो नांत. |
| 12. तो थंय वेता | l. देकून गांव गजबजून गेला. |
| 13. मिंगेल तावेर्नांत वेता | m. भाजीय चलता. |

**C. योग्य तीं उभयान्वयी अव्ययां घालून रिकामे जागे भरात :** ***Fill in the blanks with appropriate connectives:***

1. आटांची बस येंव ना ----- तांकां कामाक वचूंक वेळ जाता.
2. शाणू ------गेलो, शंकर ----- गेलो.
3. गांवांत सगळें मेळता ------ बाजारांत वेचें नाका.
4. कपड्याचें दुकान घालें ----- मिंगेलीक आयतेंच मेळलें.
5. शारांत वेतां ------- कपडे हाडतां.
6. चार कील भाजी ------- बरेंशें नुस्तें हाड.
7. शंकरान तिसऱ्यो हाडल्यो ------ ताणें त्यो खाल्यो नांत.
8. आदीं हांगा एक भुसारी दुकान, तावेर्न ------ नुस्तेकारां आसलीं.
9. शाणूक चा ------- काफी चलता.
10. गंगू चामार जोतीं करता ----- विकता.
11. म्हाका सुंगटां ------- तिसऱ्यो जाय.
12. म्हाका निस्तें ------ भाजी जाय.
13. तांगेर पोपायो जातात ------ तो सगळ्यांक दिता.
14. सुमनाक नुस्तें नाका ------ कोपां–पिरी पळौंक जाय.

**D. दिल्लीं उतरां वापरून वाक्यां जाता तितलीं वाडयात :** ***Increase the length of the sentences using suggested words :***

1. पोपाय जाय । म्हाका । एक व्हड । आनी दुदयाची शीर जाय । लांब
2. बस आयली । आमची । वेळार । आटांची । पूण पेपर येंव ना । आयचो
3. दुकान घालता । लायटी सामानाचें । शणैलो चलो । देकून बापूय खोशी जाला । चड
4. बाजार भरतालो । आयताराचो । आदीं । आनी लोक म्हाल घेवन येतालो । लागसारचो । आपआपलो
5. म्हाका तेल जाय । मात्याक घालूंक । आनी शाबू जाय । म्हूण हांव बाजारांत वेतां
6. जोतीं दवरता । गंगू चामार । आतां । तरेतरेचीं । प्लास्टीक आनी रबराचीं । आनी तीं खपतात
7. कपडो जाय । उश्या पिशव्यांक । सोयरीं येतलीं म्हूण । पूण वेळ ना । शारांत वचूंक
8. वेळ जातलो । तांकां । आज । सगळ्यांक । कामाक वचूंक
9. येतालो । माल घेवन । आपआपलो । लोक । लागसारचो । सगळो
10. दवरताले । लोक । गांवचे । पुरुमेंत करून । आट दिसांचो । एकदम
11. सुतां जाय आसलीं । आशाक । तुमच्या । विणपाचीं । रंगाचीं । हळदुव्या
12. म्हारग जालां । नुस्तें । लेगून । हिप्पींक लागून । ह्या । ह्या दिसांनी
13. पळौंक जाय । म्हाका । पिरी । व्हडल्यो । बश्यो नाजाल्यार
14. सामान घेंवक या । मागीर । पयलीं लोंड्रींत या । आमी दोगांय

# पाठ 27 : सत्ताविसावो पाठ

## लग्न

पैर आमच्या शेजारच्या लिंदाचें काजार जालें. आमकां आपौणें आसललें म्हण मुद्दम आयेर घेवन गेल्लीं. हांव पावलीं तेन्ना लग्नाचो मांटोव गच्च भरललो. सगळीं होकल–नवऱ्याची वाट पळेतालीं. इगर्जेंत तांचें रेसेर जातच, तीं फोटो काडूंक गेल्लीं खंय. हांवें भितर सरताना पळेलें एका मेजाचेर लोक आयेर व्हरून दवरताले. म्हाका अजाप दिसलें पूण हांवेंय म्हजो आयेर व्हरून मेजार दवरलो. आमी जाल्यार नवऱ्या–होकलेन एकामेकाक माळ घालून सव्यार बसतच आयेर दितात. धेडो–धेडी ते आयेर व्हरून भितर दवरतात.

हांव वचून एका कदेलार बसलीं. इतल्यान भायल्यान फोगोट्यांचो आवाज आयकूंक आयलो. एक चली धवे धवे गुळेशे कितें लोकांक वांटताली. हांवेंय लोकावरींच ते मुटींत दवरले आनी लोक कितें करतात तें पळौंक लागलीं. सगळो मांटोव गजबजून गेल्लो. बेंडवाल्यांनी बेंड वाजयतानाच सगळीं उठून उबीं रावलीं. पळे जाल्यार होकल–नवरो भितर सरतालीं. होकलेच्या हातांत फुलांचो तुरो आसलो. धव्या लांब विस्तिदांत लिंदा बरें दिसतालें.

होकल–नवरो फुडें सरतात तशे तशे लोक वोदोळ दिल्ले धवे धवे गुळे तांचेर उडयताले. तेन्नाच म्हाका कळलें, जशीं आमी हळद–पिंजर लायल्ले तांदूळ उडयतात तशेंच हीं धवे गुळे तांचेर उडयतालीं. हांवेंय तांचेर उडयले.

व्होर सव्यार बसतच लोकांक पियेंवक दिलें. मागीर थंय जमललो लोक नाचूंक लागलो. पैलो नाच जाल्या उपरांत केक कापचो विधी सुरू जालो. एका सजयल्ल्या मेजार एक सोबीत केक दवरलेली. फिंतांनी सजयल्ली सुरी केक कापूंक होकल–नवऱ्याच्या हातांत दिली. तांणीं दोगांयनी वांगडाच केक कापली. केक लोकाक वांटचे आदींच ल्हान–ल्हान सोऱ्याचे ग्लास आमकां हाडून दिले. एका जाण्टेल्यान हातांत सोऱ्याचो ग्लास धरून होकल–नवऱ्याची सावूद मागली.

आमचीं लग्नां जाताना धर्मीक विधीच चड आसतात. पयलीं नवऱ्याक होकलेचे लोक आनी होकलेक नवऱ्याचे लोक येवन तेल लायतात. तेन्ना भांगराचो नग दितात. मागीर नवऱ्याक होकलेची आवय बापूय आरत दाकौन मांटवांतल्यान भितर घेतात. होकलेचो बापूय ताच्या हातांत नाल्ल दिता आनी ताका हाडून सव्यार बसयता. थंय धर्मीक विधी करतात. मागीर होकलेक आनी नवऱ्याक एकामेका मुखार उबीं करून भट अंतरपाट धरतात आनी मंत्र म्हणतात. तें सोंपतच दोगांय एकामेकाच्या गळ्यांत माळ घालतात. मागीर तांकां सव्यार बसौन लोकांक उदक साकर आनी हळद कुकूम दितात. मागीर खांवक पिंवक दितात. ताचे उपरांत आयेर दितात.

क्रिस्तांव लग्नांत धर्मीक विधी इगर्जेंत जातात. मिसाची भेट त्या दिसा होकल नवऱ्याच्या नांवान भेटयतात. मिसाचेर वाचप आनी प्रवचन जातच होकल–नवरो एकामेकाचो मोग

करतलीं आनी एकामेकाक विस्वाशी रावतलीं अशी भास दितात. लग्नाच्या कराराची खुणा म्हण एकामेकाक मुदयो घालतात. तांच्या ह्या कराराक हाजीर आसलले गवाय दितात आनी पादरी आशीर्वाद घालता. मिसा उपरांत जाता तो सुवाळो फकत समाजीक आसता. लिंदाचें काजार दीस भर चलतालें. हांव सावूद जातच लिंदाक आनी ताच्या नवऱ्याक मेळून तांचें अभिनंदन करून घरा आयलीं.

## उतरावळ VOCABULARY

आयेर (m) wedding present
गच्च (adj,adv) full to capacity
होकल (f) bride
नवरो (m) bridegroom
रेस्पेर (n) nuptials
भितर सर = enter
एकामेकाक = to each other
सवो (m) raised seat for newlyweds
धेडो (m) bestman
धेडी (f) bridesmaid
फोगोटी (f) firecracker
गुळो (m) ball
मूट (f) fist
तुरो (m) bouquet
वोदोळ (adv) then, some time ago
पिंजर (f) coloured powder
व्होर (m) bridal party
जमललो (adj) gathered
काप (tv) cut
विधी (m) rite
सजय (tv) decorate
फींत (n) ribbon
सुरी (f) knife
सोरो (m) wine
धर्मीक (adj) religious
सावूद (f) health
सावूद माग = raise the toast
भांगर (n) gold
नग (m) item
भांगराचो नग = gold ornament
आरत (f) Aarti
भट (m) Hindu priest
अंतरपाट (m) sacred veil
मंत्र (m) incantation
कुकूम (m) vermilion
मीस (n) holy Mass
वाचप (n) reading
प्रवचन (n) sermon
विस्वाशी (adj) faithful
भास (f) promise
करार (m) solemn agreement, covenant
खुणा (f) symbol, sign
हाजर (adv,adj) present
मुदी (f) ring
गवाय (f) witness
पादरी (m) Catholic priest
आशीर्वाद (m) blessing
सुवाळो (m) celebration
समाजीक (adj) social
अभिनंदन = congratulations

## शिकपाचें घोळौप REPETITION LESSON

– नीता, कशें जालें लिंदाचें काजार?
– बरी मजा आयली. आई, कितलो लोक आयल्लोगे, मांटोव भरून गेल्लो.
– ताची आवय बरी बोवाळताली मुगो?
– हय तर, इतलीं सोयरीं काम करतालीं तरी पूण ती आपूण कोणाक कितें जाय नाका पळेताली.
– तशेंच पळौपाचें आसता. तुज्या लग्नाक पळे, म्हाका मात थार घेंवक मेळता जाल्यार. तुका पूण भैण आसा. लिंदाक भैण ना म्हूण ताचे आवयचेर सगळो भार.
– आई, तांच्या लग्नाचो धर्मीक विधी इगर्जेंत आसता.
– म्हणजे मांटवांत कितें तर?
– मांटवांत केक कापतात आनी नाच आसता. आनी आई, आमी नवऱ्या–होकलेचेर तांदूळ उडयनांत गे, तशें तीं धवे धवे गुळे उडयतात.
– हार बी केन्ना घालतात तर?
– तीं हार घालनांत. इगर्जेंतल्यान येताना होकलेच्या हातांत फुलांचो तुरो आसता. नाचाचो एक फेरो जातच दोगांय मेळून केक कापतात. मागीर सगळ्यांक सावूद मागूंक सोरो वांटतात.
– तुवें आयेर केन्ना दिलो?
– गेले बरोबर तो मेजार दवरलो.
– दवरलो? सव्यार बसलले कडेन तांच्या हातांत दितात न्हय गो?
– ना, ना. तांगेर एका मेजार व्हरून दवरतात. लोकांलें पळौन हांवेंय दवरलो.
– आनी कितें करतात तांगेर?
– मागीर नाच चालू आसलो. सावूद जातच हांव आयलीं.

## उतरावळ VOCABULARY

थार घे = rest, pause
फेरो (m) turn, round
हार (m) garland

## GRAMMAR NOTE:

Complex sentences in Konkani are the result of embedding one or more dependent clauses in a sentence. The dependent clause can have the function of a noun, an adjective or an adverb in the main clause. These three functions are illustrated in the following examples :

(i). Noun clause : सुरेशान आतां येंवचें बरें दिसना *Suresh's coming now does not look nice.*

(ii). Adjective Clause : रवीन दिल्ले पैशे म्हाका मेळले. *I received the money which Ravi sent.*

(iii). Adverb Clause : तो येताना आंबे हाडतलो. *He will bring mangoes when he comes.*

**A. कुरू केल्ल्या वाक्यांच्या जाग्यार कंसांतलीं उपवाक्यां घालून नवीं वाक्यां करात : *Substitution drill :***

1. काल लिंदाचें काजार आसलल्यान **हांव तांगेर गेलीं.** (हांवें आयेर हाडलो, हांवें सुटी घेतली, ताचो काका आयला)
2. **रेस्पेर जातच** तीं फोटो काडूंक गेलीं. (परिक्षा पास जातच, खेळ सोंपतकच, लोक मांटवांत बसतकच, केक कापतकच)
3. हांव **लग्नाक वचूंक** भायर सरलीं. (बाजाराक वचूंक, इगर्जेक वचूंक, शाळेक वचूंक)
4. सव्यार बसललो नवरो **धेड्याकडे उलयता.** (लोकांक पळेता, केक खाता, आयेर घेता, होकलेक घेवन नाचूंक उटलो)
5. **व्होर सव्यार बसतच** लोकांक पियेंवक दिलें. ( नाच जातच, पुजा सोंपतकच, सरबत हाडून, खेळ सोंपतच)
6. आवय बापूय आरत दाकौन **नवऱ्याक भितर घेतात.** (चल्याक भितर घेतात, देवाची पुजा करतात, तांकां येवकार दितात, भुरग्याक भितर हाडतात)
7. **थकललो जाण्टो** कदेलार बसलो. (घरा आयल्लो सोयरो, शाळेंत शिकौपी मास्तर, काजराक आयल्लो लोक, थंय आसललो धेडो)
8. **केक कापूंक** सुरी दिली. (पेर कातरूंक, कोंडो तासूंक, फुलां काडूंक, दोरी कापूंक)

**B. प्रस्नांक जापी दियात :** ***Answer the questions :***

1. नीता लिंदाच्या काजराक कित्याक गेल्लें?
2. होकल नवरो फोटो काडूंक केन्ना गेल्लीं?
3. नीतान आपलो आयेर मेजार कित्याक दवरलो?
4. बेंड वाजताना लोकान कितें केलें?
5. लोकाक पियेंवक केन्ना दिलें?
6. केक कापचो विधी केन्ना सुरू जालो?
7. आवय बापूय नवऱ्याक कसो भितर घेतात?
8. होकल नवरो गळ्यांत माळ केन्ना घालतात?
9. नीता केन्ना घरा आयलें?

10. मांटवांत कोण नाचूंक लागले?
11. केक कापूंक कसली सुरी दिल्ली?
12. मांटवांत भितर सरताना होकलेच्या हातांत कितें आसता?

**C. सकल दिल्लीं वाक्यां जोडून एकूच वाक्य करात :** ***Transform the following sentences into complex sentences as shown in the example :***

**देखीक :** लिंदाचें लग्न आसलें. म्हाका आपयलें. = लिंदाचें लग्न आसलल्यान म्हाका आपयल्लें.

1. मांटवांत चड लोक आसलो. म्हाका कदेल मेळूंक ना.
2. बेंड वाजलें. सगळीं उठून उबीं रावलीं.
3. व्होर सव्यार बसलो. लोक नाचूंक लागलो.
4. व्होर भितर सरलो. फोगोट्यो मारल्यो.
5. फिंतांनी सुरी सजयली. सुरयेन केक कापली.
6. मंत्र सोंपले. तांणीं एकामेकाक माळ घाली.
7. सावूद मागून जाली. हांव घरा आयलीं.
8. लिंदाक भैण ना. सगळो भार आवयचेर पडलो.
9. नाचाचो फेरो जालो. तांणीं दोगांयनी केक कापली.

**D. दिल्लीं उतरां वापरून वाक्यां चड आनी चड वाडयात :** ***Increase the length of sentences as sugggested :***

1. काजार जालें । लिंदाचें । शेजारच्या । आमच्या । पैर । बरें
2. फोटो काडूंक गेल्लीं । तीं । रेस्पेर जातच । इगर्जेंत । तांचें
3. आयेर दवरलो । मेजार । हांवें । तें पळौन । लोक दवरतात
4. फोगोट्यो लायल्यो । तांणीं । भितर येतच । होकल नवरो । मांटवांत
5. बरें दिसतालें । लिंदा । तुरो घेतललें । फुलांचो । हातांत । धव्या विस्तिदांतलें
6. भितर घेतात । मांटवांतल्यान । नवऱ्याक । आरत दाकौन । आवय बापूय
7. मंत्र म्हणतात । भट । अंतरपाट धरून । नवऱ्या होकलेक उबीं करून । लोकां मुखार
8. फुलांचो तुरो आसता । हातांत । होकलेच्या । येताना । इगर्जेतल्यान
9. केक कापली । होकल—नवऱ्यान । सुरी घेवन । सजयल्ली । फिंतांनी
10. सावूद मागली । जाण्टेल्यान । एका । होकल—नवऱ्याची । ग्लास घेवन । सोन्याचो । हातांत
11. अंतरपाट धरतात । भट । उबीं करून । एकामेका मुखार । होकलेक आनी नवऱ्याक
12. कुकूम दितात । हळद । साकर आनी । उदक । लोकांक । तांकां सव्यार बसौन
13. भास दितात । अशी । एकामेकाक । विस्वाशी रावतलीं । वाचप आनी प्रवचन जातच
14. घरा आयलीं । अभिनंदन करून । तांचें । तांकां मेळून । सावूद जातच

# पाठ 28 : अट्टाविसावो पाठ

## वाहनां

हांव शाळेक वेतालों तेन्ना रस्त्यार मोटार गाडयो साप्प थोड्यो आसताल्यो. पणजे थावन माशेल व्हडें घेवन वेताले. म्हापशां, सांवर्ड्यां लेगून व्हड्यानूच वचूंक मेळतालें. व्हडें ना जाल्यार वाफोर आसताले. आमचे रस्ते सगळे तांबडे मातयेचेच आसताले. तांचेर बैल गाडयो घेवन वेचें पडतालें. थोड्या जणांगेर घोड्या गाडयो आसताल्यो. गिरेस्त लोक माचुलांय वापरताले.

आतां वचत थंय डांबरी रस्ते आनी तांचेर वाहनांची गर्दी. रस्त्यार पांय लेगून दवरूंक मेळना. वेता थंय सायकली आसतात. लागसार खंयी वेचें जाल्यार सायकल बरी पडता. ती कसल्याय जाग्यार व्हरूं येता. पैशांचे नदरेनूय सायकली सवाय आसतात.

ओफिसांनी काम करतले चड करून स्कूटर ना जाल्यार मोटारसायकली वापरतात. म्हणून तांकां बशिची वाट राकची पडना. खेडेगांवांनी सडसडीत फिरपाक ह्यो खूप उपकारतात. गोंयभर टॅक्सी भाशेनूच मोटारसायकली भाड्याक वापरूंक मेळतात. ज्या खेड्या गांवांनी चड बशी नांत थंय तांचो चड उपेग जाता. पैशे आसलले तरेकवार धाकट्यो मोटारी घेतात.

आतांच्या काळार गांवांगांवांनी बशी घुंवतात, ना जाल्यार टेम्पो आनी मिनी—बशी फिरताना दिश्टी पडतात. पैलीं फकत शारांनी बशी आसताल्यो, आनी चड करून गोंया भायर येतावेताल्यो. ह्यो बशी आसलेल्यान भोंवडेकारांक चड फायदो जाला. पैलीं घोड्या आनी बैलगाडयांनी वचप म्हळ्यार आंग दुकौन घेंवचें पडतालें. आतांच्या बशिंनी सुशेगाद वचूंक मेळता. गोंया भायर वचपी चड करून आराम बशिंनी वेतात. पूण गोंया भितरूच फिरपी बशिंची गजालूच वेगळी. ह्यो बशी इतल्यो भरतात की उबीं रावूंक परयान मेळना. टेम्पो आनी मिनी—बशिंची गत ताच्याकीय पाश्ट. हाकाच लागून अपघातांचें प्रमाण वाडलां.

पणजे आनी मडगांवचे प्रास, शारा भायर आसलल्यान शारांत येंवक सिटी—बशी, टॅक्सी आनी रिक्षा हांचो चड उपेग जाता. पैलीं फकत टॅक्शोच मेळताल्यो. गेल्ल्या धायेक वर्सांनी रिक्षांचें प्रमाण चडलां.

सामान हाडपी व्हरपी गाडयांचें प्रमाण दिसानदीस वाडत वेता. गोंया भायलो वेपार व्हडल्या व्हडल्या ट्रकांनी हाडतात व्हरतात. गोंयां भितर चडशो पिकपी वापरतात.

मांडवी आनी जुवारी न्हंयांचेर पूल बांदचे आदीं फेरी बोटिंनी न्हंय उतरुंची पडताली. तशेंच आतांय मांडवी पूल मोडलल्यान परत्यान फेरी बोटीन वेचें पडता. ल्हान गांवांनी तारी आसतात. थोडे कडेन लोंची आसतात. ते भायर मीन व्हरपाक व्हड व्हड बार्जो आसतात. पैलीं नुस्तें मारपाक व्हडीं व्हरताले. आतां ट्रोलर ना जाल्यार माक्न लायल्लीं व्हडीं वापरतात.

सेतेंब्र ते माय म्हैन्या मेरेन मुंबय—पणजी बोट चालू आसताली. बोटिचो प्रवास चड सुशेगाचो. सुवात जाय तशी मेळता. आगगाडयेनूय प्रवास बरो जाता. पूण वास्को ना

जाल्यार मडगांवां वचून गाडी धरची पडता. गाड्येच्या प्रवासांत मजा जाता. भरपूर पैशे आसलले विमानान प्रवास करतात. मुंबय वचपाक दाबोले थावन दिसाक दोन तीन विमानां सुटतात. दुसरीं विमानां कुवैत आनी कोचीन वेतात.

अशे तरेचीं जायतीं वाहनां आसलल्यान आतांचो प्रवास सुशेगाद जाता. आनी हाचे उपरांत कसलीं कसलीं वाहनां येतलीं देवाकूच खबर.

### उतरावळ VOCABULARY

थोडो (adj) little
साप्प (adv) very, completely
वच, वेता, गेलो (iv) go
वाफोर (m) motor launch
बैलगाडी (f) bullock cart
घे (tv) take, fetch
घोड्यागाडी (f) horse carriage
गिरेस्त (adj) rich
माचूल (n) palanquin
डांबर (m) tar
गर्दी (f) crowd, rush
जागो (m) place, space
नदर (f) view, sight
खेडेगांव (m) village
सडसडीत (adv) briskly, quickly
भाडें (n) rent, hire
दिश्ट (f) vision
दिश्टी पड = appear, come into sight
काळ (m) period, time
आंग (n) body
दूक (iv) ache, pain
आराम (m) comfort, ease
गत (f) state, condition
पाश्ट (adj) worse, awful
अपघात (m) accident
प्रमाण (n) number, quantity
प्रास (m) square, bus stand
उपेग (m) use
व्हड (adj) large, big
उतर (iv) cross
तार (f) small ferry boat
मोड (iv) break, collapse
मीन (n) ore
बार्ज (f) river barge
प्रवास (m) travel, journey
सुवात (f) place, position
आगगाडी (f) railway train
भरपूर (adj) abundant, plenty of
विमान (n) aeroplane
सूट (iv) start, leave, set loose
वाहन (n) vehicle
देव (m) god

### शिकपाचें घोळौप REPETITION LESSON

– आरे, इतल्या वेळान सो आयलो तूं? मुंबयची बस सुटच्या अर्धा वरा पैलीं हांगा पावूंक जाय म्हूण खबर ना तुका?
– कितें सांगूं , कालापुरा सावन मालीं येवप म्हळ्यार सादें काम? एक वराचेर घरांतलो भायर सरललों. पुतान सायकलीर रस्त्यार हाडून पावयलो.

– इतले बेगीन भायर सरललो जाल्यार हांगा पावूंक वेळ कित्याक?
– तेंच सांगतां, देडाची बस चुकतच बेगीन बस मेळना.
– टॅक्सीन येवपाचें.
– एकूय टॅक्सी दवरण्यार नासलेली. निमणें रिक्षा करून आयलों.
– रिक्षान म्हूण सरळ पावता?
– हय, ही फेरिची आडकळ, पावसाची पिरपीर. रिक्षांतल्यान सामान काडून फेरींत घालतासर पावसान अर्दो जीव केलो.
– हय रे, सामान फेरींत घालप–काडप म्हळ्यार नाका पुरो जाता.
– तूं केन्ना पावलो?
– म्हजीय दैनाच जाली. मिनी–बस चुकली. मागीर पायलट मेळलो म्हूण हांव साल्वार. ताणें म्हाका मोटारसायकलीन कितले बेगीन पावयलो.
– पावस लागलो ना तुका? वेऱ्यां पावस ना काय कितें?
– ना, सकाळीं इल्लो शिरशिरतालो, आतां ना.
– चल, कशेय करून हांगा पावले. मुंबय बरे भाशेन पावल्यार पुरो.
– हय, पावसाचे दीस. रस्ते बुळबुळीत आसतात. कांय आडकळ येनासताना पावल्यार पुरो.

## उतरावळ VOCABULARY

दवरणें (n) bus stop
आडकळ (f) hindrance
पिरपीर (f) drizzle
घाल (tv) put, place
दैना (f) sorry state
साल्वार (adj) saved, delivered
शिरशीर (iv) drizzle
बुळबुळीत (adj) slippery

## GRAMMAR NOTE :

Both noun phrases and noun clauses can have the same functions in the matrix sentence (main clause), viz. subject, object, complement or noun in apposition. Infinitive, participial and gerundial forms of verbs are used in noun clauses. The following examples illustrate the use of noun clauses :

i. Subject : पैशे आसलले विमानान वेतात. *Those who have money go by plane.*

ii. Object : पैशे चोरतल्याक ताणें धरलो. *He caught the one stealing money.*

iii. Complement : ताचें काम न्हीद काडचें. *His work is to sleep.*

iv. In apposition : वेळेर खेळतलो जुवांव धुळीन बुडला. *John, the one playing on the beach, is covered with dust.*

**A. वाक्यां करात : *Structural Table Drill :***

| | | |
|---|---|---|
| रमेशान<br>ताणें<br>उमान<br>तुमगेल्यान<br>तुज्या पुतान | घरा येवचें<br>पुस्तक वाचचें<br>विमानान वेचें<br>तशें सांगचें<br>तें काम करचें | थारायलां<br>बरें न्हय<br>चड बरें<br>म्हाका बरें दिसना<br>ताका आवडना |
| रवीन<br>म्हजे भैणीन<br>शिलान | पेपरार बरयललें<br>आवयक सांगललें<br>ताच्या भावाक विचारललें | म्हाका आवडूंक ना<br>ताका बरें दिसूंक ना<br>खरें आसा |

**B. दिल्ल्या वाक्यांचे प्रस्न करून तांकां जापी बरयात : *Frame questions from the following statements and give brief answers to them :***

1. पणजे थावन माशेल व्हडें घेवन वेताले.
2. आमचे रस्ते सगळे तांबडे मातयेचे आसलले.
3. गिरेस्त लोक माचुलां वापरताले.
4. ओफिसांनी काम करतले चड करून स्कूटर वापरतात.
5. ज्या खेड्यांनी बशी नांत थंय मोटारसायकली वापरतात.
6. गोंया भायर वचपी चड करून आराम गाडयांनी वेतात.
7. प्रास शारा भायर आसलल्यान शारांत येंवक टॅक्सी आनी रिक्षा वापरतात.
8. गोंया भायलो वेपार व्हडल्या ट्रकांनी हाडतात.
9. पूल बांदचे पैलीं फेरी बोटिंनी वेचें पडतालें.
10. ल्हान गांवांनी तारी आसतात.
11. नुस्तें मारूंक ट्रोलर वापरतात.
12. आगगाडयेन प्रवास बरो जाता.
13. जायते पैशे आसलले लोक विमानान वेतात.
14. जायतीं वाहनां आसून प्रवास सुशेगाद जाता.

**C. कंसांत दिल्लीं उपवाक्यां वापरून नवीं वाक्यां करात : *Frame new sentences making use of the clauses given in the brackets :***

1. ओफिसांनी काम करतले स्कुटरी वापरतात. (खेड्यांनी रावतले, कोलेजीक वेतले, शारा भायर वेतले)

2. पैशे आसलले तरेकवार मोटारी घेतात. (विमानान वेतात, मजा करतात, दुबळ्यांक नाचयतात, जाय तशें करतात)
3. गोंया भायर वेतले आराम गाडयेन वेतात. (पैशे आसलले, बरे नासलले, बेंगळूर वेतले)
4. ट्रोलर आसलले खोल दर्यांत वेतात. (सुंगटां धरतात, व्हड व्हड नुस्तें धरतात, जायतो फायदो करतात)
5. मीन काडतले व्हड ट्रक वापरतात. (वेपार करतले, बेळगांव थावन भाजी हाडतले, लांकडां हाडतले)
6. आगगाडयेन वेतले मडगांव थावन गाडी धरतात. (मुंबय वेतले, बेगीं वचूंक पळेतले, कारवार वचूंक सोदतले)
7. रिक्षा चलयतले बरेच पैशे करतात. (लोकांक फटयतात, खूप कश्ट करतात, शारालागीं रावतात)
8. चा करतली आज येंव ना. (टायप मारतली, नांवां बरयतली, दूद हाडतली)
9. पूल बांदतले सारके बांदी नांत. (सारकें काम करी नांत, सामान चोरतात, चड आळशी)
10. टॅक्सीन वेतल्याक चड पैशे पडतात. (त्रास पडनांत, चड वेळ लागना, सुशेग मेळता)
11. शारांनी रावतल्यांक सिटी बशी मेळतात. (नळाचें उदक मेळता, ताजी भाजी मेळता, बरे खेळ पळौंक मेळतात)
12. वाहनां नासलल्यांनी बशीन वेचें. (पैस वेतल्यांनी, गाडी चुकलल्यांनी, चलूंक जायनासलल्यांनी)

**D. सुचयल्लीं उतरां घेवन वाक्यां वाडयात :** ***Increase the length of sentences making use of the suggested words :***

1. दर्यांत वेतात । खोल । नुस्तें मारूंक । ट्रोलर आसलले । व्हड
2. गाडी धरतात । आराम । मडगांवा थावन । मुंबय वेतले
3. प्रवाशांक व्हरतात । खेडेगांवांतल्या । शारांत । मोटारसायकलकार । जायते
4. त्रास पडतालो । खूब । गाडयेन वेतल्यांक । बैल । पैस । पयलीं
5. रावचें पडता । लायनींत । बशिचे । शाळेक वेतल्यांक । सकाळीं । वेळ जाल्यार
6. बार्जो वापरतात । ट्रक आनी । मीन व्हरूंक । मीन काडतले
7. वेचें पडता । फेरी बोटीन । पूल मोडलल्यान । बारदेस रावतल्यांक
8. वाहनांची गरज ना । गांवाक वचूंक । लागसारच्या । पांय घट आसलल्यांक
9. त्रास सोसचो पडता । पावसाचो । फेरीन वेतल्यांक । सामान घेवन । पूल मोडलल्यान
10. गाडयो आसतात । आराम । विमान आनी । आगगाडी । वेतल्यांक । गोंया भायर

# पाठ 29 : एकुणतिसावो पाठ

## गोंयचे उद्यम

– नमस्कार सर, कशे आसात तुमी?
– नमस्कार, रवी मुरे?
– ना सर, हांव अशोक, रवीचो भाव.
– ताचे भाशेन दिसूंक लागला तूं. कितें काम करतारे?
– हालींच हांव शिपयार्डांत कामाक लागलां.
– थंय कितें चल्लां?
– थंय बोटी बांदतात.
– बोटी? कसल्यो बोटी?
– व्हड, व्हड सागरांनी फिरपी बोटी, चड करून नौकादलाचीं तारवां.
– आनी तूं थंय कितें करता?
– हांव जुनियर इंजिनियर म्हण काम करतां.
– अशें? इंजिनियरींग खंय शिकलो?
– मुंबय.
– आनी तुजो भाव कितें करता?
– आमचो नाल्लाचो धंदो आसा तो तोच चलयता.
– कसो चलता?
– जायते त्रास काडून ताणें तो वाडयला.
– आजकाल सिर्विसो करच्या बदलाक स्वताचो धंदो बरो. आरे, ती सांखळे काजुची फॅक्टरी घाल्या तो आमच्याच इस्कोलाचो भुरगो न्हय?
– हय, तो अनील आमच्या रवीचो वांगडी.
– हालीं गोंयांत बरेचशे उद्योग सुरू जाल्यात.
– हय सर, बारीक बारीक जायत्यो फॅक्टऱ्यो खोर्ली, म्हापशां, मडगांवां, फोंड्यां, ह्या वाठारांनी आसात.
– पैर दिसाळ्याचेर वाचललें म्हापशांच्यो पितळिच्यो दिवल्यो भायल्या गांवांनी पावल्यात खंय.
– दिवल्योच कित्याक, काथ्याच्यो वस्तू , मातयेचें सामान, प्लास्टीक पिशव्यो हांकांय बरीच मागणी आसा.
– दिवचले चिकण माती मेळता म्हण थंय मातये सामानाचो धंदो बरो चलता.
– सर, तुमी पत्रार पर्यटन मास्टर प्लानाची खबर वाचल्या?
– हय, कसलीं पिशेपणां? आमच्या लोकांक धांवडावन परकी लोकांक भितर हाडचें म्हळ्यार?
– फॅक्टऱ्यांनी प्रदुशण जाता म्हण पर्यटन उद्यम वाडौपाक सोदतात.

– आनी पर्यटन उद्यमांत प्रदुशण जायना? हांतूं नितीक प्रदुशण जातलें. शिवाय, वेतात थंय होटेलां घालून गोंयची सोबितकाय वेतली तें वेगळें.
– पूण होटेलां घाल्यार तरणाट्यांक सिर्वीस मेळतली. टॅक्सिवाले आनी हातकाम उद्योगवाल्यांक बरो फायदो जातलो.
– पैशे मेळतले ते खरे, पूण गोंयची अब्रू वेतली ताचें कितें? जेन्ना होटेलां चालू जातलीं तेन्ना बरें बरें नुस्तें, भाजयो, असल्यो वस्तू हांगाच्या लोकांक मेळच्यो नांत.
– सर, नुस्त्याचो उद्योगूय वाडता.
– आतां कितें भायर नुस्त्याक मागणी उणी आसा? सुंगटां गोंयकारांक खंय मेळतात? भायले दुडू घेवन आयल्यार होटेलांनी सगळेंच मेळता.
– पर्यटन उद्यम आमकां नाका जाल्यार इलेक्ट्रोनीक उद्यमूच बरो जायत. तांतूं प्रदुशण उणें.
– जुवारी सान्याच्या कारखान्यांत तुजो इश्ट काम करता ताचें नांव कितें?
– तो सुरेश. सर तो आतां थंय ना. बेकार आसा.
– कित्याक?
– तो तात्पुरतो आसललो.
– आनी शाम रे, तो कितें करता?
– तो फोंड्यां बँकेंत आसता. तशे म्हजे बरेचशे सहपाठी बँक, विमो, आनी पोस्टखात्यांनी आसात.
– तुजें बरें चल्लां मुरे?
– हय सर, येंवच्या वर्सा म्हाका जर्मनीक शिकपाक धाडतले.
– हय, बरे तरेन शिकून यो.

## उतरावळ VOCABULARY

उद्यम (m) business, occupation
ताचे भाशेन = like him, like that
सादो (adj) simple
सागर (m) ocean
नौकादल (n) navy
तारूं (n) vessel, ship, boat
स्वता (adj) self (reflexive)
दिसाळें (n) daily newspaper
पत्र (n) newspaper, letter
पितूळ (f) brass
दिवली (f) brass oil lamp
काथो (m) coconut fibre
मातयेचें सामान = clay vessels, pottery
चिकण माती (f) clay
पिसो (adj) mad, foolish
धांवडाय (tv) drive away
परको (adj) strange, foreign
प्रदुशण (n) pollution of environment
नितीक (adj) moral
शिवाय (adv) besides

उद्योग (m) business
फायदो (m) profit, advantage
अब्रू (f) prestige
मागणी (f) demand
गोंयकार (m) Goan
भायलो (adj) outsider
उणो (adj,adv) less
कारखानो (m) factory, mills
बेकार (adj) jobless, umemployed
तात्पुरतो (adj) temporary
सहपाठी (m,f) classmate
विमो (m) insurance
खातें (n) department
धाड (tv) send

## शिकपाचें घोळौप REPETITION LESSON

नाल्लाचो उद्यम आमच्या घराण्यांत पयलीं पासून आसा. म्हज्या आज्याचे मुस्तींत बाणावलेचो व्हडलो नाल्लकार म्हण ताका वळखताले खंय. त्या वेळार बाणावले लागसारचो सगळो नाल्ल तो घेतालो. मडगांवच्या बाजारांत आमचे नाल्ल बरे खपताले. शिवाय, गोंया भायरूय ताका बरी मागणी आसताली.

म्हज्या बापायन जेन्ना तेलाचो घाणो घालो तेन्नाच्यान तेलूय काडून भायर ध़ाडतात. हो उद्यम जायते त्रास घेवन बापायन वाडयल्लो.

आतां जायते जाण हो उद्यम करतात. सर्त वाडल्या आनी त्रासूय वाडल्यात. खप बरो आसा जाल्यारूच धंदो करपाक बरें. पूण आतां भायलो नाल्ल गोंयांत येंवक लागला. तो मात्सो सवाय आनी दिसूंक मोटो. म्हण ताचो खप चड. गोंयच्या नाल्लाची रूच बरी. आमी सोण्णां आनी कट्ट्योय विकतात. कट्ट्यो होटेलांनी आनी मडवळ भट्टे खातीर व्हरतात. शिवाय, कायो फोंडेच्या काथ्या फॅक्टरींत दितात.

## उतरावळ VOCABULARY

घराणें (n) household
आजो (m) grandfather
मुस्त (f) generation
नाल्लकार (m) dealer in coconuts
त्या वेळार = at that time
घाणो (m) oilpress
सोण्ण (n) coconut husk
कट्टी (f) coconut shell
मडवळ (m) washerman
भट्टी (f) furnace

**GRAMMAR NOTE :**

Six types of adverb clauses can he identified in Konkani. They are adverb clauses of time, place, manner, purpose, condition and concession.

i). Time : तो घरा पावताना पावस पडलो. *It rained as he reached home.*

ii). Place : चिकण माती मेळता थंय मातये सामानाचो धंदो बरो चलता. *The business of pottery flourishes where good clay is found.*

iii). Manner : राय पालकेंत बसून काशी गेलो. *The King went to Benares sitting in a palanquin.*

iv). Purpose : रवी तिका पळौंक आयलो. *Ravi came to see her.*

v). Condition : अशोक आयल्यार हांव वेतां. *I will go if Ashok comes.*

vi). Concession : रमेश आयलो तरीय ती येंव ना. *Though Ramesh came she did not come.*

**A. कंसांत दिल्लीं उतरां वापरून नवीं वाक्यां करात : *Substitution drill :***

1. पैर दिसाळ्याचेर वाचलें. (गेल्या आयतारा, काल, गेल्या म्हैन्यांत)
2. पर्यटन उद्यम नाका जाल्यार नुस्त्याचो उद्यम बरो. (चड खर्च, काथ्याचो उद्यम, शेताचे कश्ट)
3. जेन्ना काजू पिकता तेन्ना फॅक्टरी चलता. (सुंगटां मेळतात, नाल्ल चड आसता, उदक मेळता)
4. खंय माल चड खपता थंय धंदो बरो चलता. (पैसो चड आसता, फेस्त आसता, वीज सारकी मेळता)
5. जायते त्रास घेवन तो धंदो चलयता. (तेल काडता, नुस्तें धरता, होटेल चलयता)
6. सुरेश सामान हाडूंक मुंबय गेला. (नाल्ल विकूंक, दिवल्यो घेवन, भैणीक पळौंक)
7. बोट तयार जातच दर्यांत सोडतात. (नुस्तें मारूंक वेतात, भोंवडेक वेतात, मुंबय वेतले)
8. दुडू जाय जाल्यार कश्ट करूंक जाय. (काम मेळूंक जाय, धंदो वाडयतलो जाल्यार, बरें शिकूंक जाय जाल्यार)
9. आईन सांगल्यार भुरगीं आयकनांत. (रवी शिकूंक बसता, बाबा सामान हाडता, ताई खांवक दिता)
10. गोंया भायर जाल्यार ताका चड मागणी आसा. (चड शिकूंक मेळता, चडशें नुस्तें मेळना, विमानान वचूंक येता)
11. आजो धंदो करतालो त्या वेळार खप बरो आसतालो. (चड लोक काम करताले, बापूय भायर शिकतालो, भायलें सामान येतालें)
12. सर्त वाडलल्यान त्रास वाडल्यात. (काम चड जाल्यान, भुरगीं ल्हान आसलल्यान, पूल मोडलल्यान)

**B. वाक्यां जोडून बरयात : *Match the following :***

| A | B |
|---|---|
| 1. आजकाल सिर्विसो करच्या बदलाक | a. तेन्ना तो बरें शिकतालो |
| 2. जंय उदक आसा | b. ताणें काजुची फॅक्टरी वाडयली |
| 3. तुका जेवण नाका जाल्यार | c. ती दर्यांत सोडतात |
| 4. बोट तयार जातच | d. लोक ताका पातयेना |
| 5. जायते त्रास काडून | e. वाचल्यार बरें |
| 6. बस सुटताना | f. तेन्ना तेल विकूंक लागलो |
| 7. तो लोकांक फटयता म्हण | g. तें लुंवतात |
| 8. शेत पिकतच | h. स्वताचो धंदोच बरो |
| 9. भायली भाजी आयलेल्यान | i. थंय भात बरें पिकता |
| 10. जेन्ना तो ल्हान आसलो | j. गोंयची भाजी खपना |
| 11. जेन्ना तेलाचो घाणो घालो | k. तो तिकेट दितलो |
| 12. तुवें खेळचे परस | l. कितें तरी खा |

**C. प्रस्नांक जापी दियात : *Answer the following questions :***

1. काजुची फॅक्टरी खंय आसा?
2. व्हड बोटी कित्याक वापरतात?
3. पितळिच्यो दिवल्यो खंय करतात?
4. मातयेचें सामान खंय तयार करतात?
5. बापायन केन्ना तेल काडूंक सुरू केलें?
6. गोंयचे नाल्ल कित्याक खपनांत?
7. अशोक जर्मनीक केन्ना वेतलो?
8. पर्यटन उद्यम नाका जाल्यार कितें करूं येता?
9. नुस्त्याचो धंदो खंय करतात?
10. होटेल धंदो कित्या खातीर आमकां नाका?

**D. सुचयल्लीं उतरां वापरून वाक्यां वाडयात : *Lengthen the sentences as suggested :***

1. धंदो बरो । स्वताचो । सिर्विसो करच्या बदलाक । आजकाल
2. धंदो बरो चलता । मातये सामानाचो । थंय । माती बरी मेळता म्हण । चिकण । दिवचले
3. सिर्वीस मेळतली । तरणाट्यांक । जायत्या । होटेलां घाल्यार । व्हड व्हड
4. नुस्तें मेळचें ना । बरें बरें । लोकांक । हांगाच्या । तेन्ना । होटेलां चालू जातलीं । जेन्ना
5. फॅक्टरी आसा । काजुची । सांखळे । काजू जातात म्हण । चड
6. दिवल्यो पावल्यात । पितळिच्यो । भायल्या गांवांनी । म्हापशांच्यो
7. उद्यम वाडौंक सोदतात । पर्यटन । सरकार । प्रदुशण नाका म्हण । व्हड व्हड कारखान्यांचें
8. सगळें मेळता । जायजायतें । होटेलांनी । आयल्यार । दुडू घेवन । भायले
9. उद्यम बरो जायत । इलेक्ट्रोनीक । आमकां नाका जाल्यार । पर्यटन उद्यम

# पाठ 30 : तिसावो पाठ

## नुस्तें आनी नुस्तेकारां

नुस्तें आवडना असो गोंयकार म्हाका आजून गावलो ना. जांव तो गिरेस्त, जांव तो दुबळो, दिसाक एक फावट नुस्त्या जेवण ताका जायच जाय. एक दीस सोमारा शिवराक जेवल्यार म्हाका वाय जाता. म्हजे बायलेक तर नुस्तें म्हळ्यार जीव. तरीपूण सोमार, बिरेस्तार, पंचम असल्या दिसांनी ती कशी नुस्त्या शिवाय रावता देवाकूच खबर. आमच्या शेजरा एक बायल आसली. ती सोमारा बरें नुस्तें आसल्यार रातच्या एकाक मंगळार जालो म्हण नुस्तें खाताली.

म्हजी आजी एक काणी सांगताली : तिच्या गांवांत एक बायल आसली. तिका देवाची भक्ती आसली आनी नुस्त्याचेंय पिशें आसललें. तिणें सदांच ठरौंचें आपूण पंचम धरतलीं. पूण त्या दिसा बरें नुस्तें हाडतच तिचो निचेव तुटतालो. ती मनांत म्हणताली आपूण दुसरी पंचम करतलीं. पूण तीय पंचम अशीच नुस्त्याक लागून सुटताली. अशी तिची पंचम केन्नाच जाली ना खंय.

गोंयांत तरेतरेचीं नुस्तीं मेळतात. हांगाच्यो न्हंयो, तळीं आनी दर्या हांतूं तरेतरेचें नुस्तें मेळता. चड करून दर्यांत बांगडे, ताल्ले, विस्वोण, मोरी अशीं जायते तरेचीं बारीक मोटीं नुस्तीं मेळतात. न्हंयत शेवटे, काळुंदरां, मुड्डोशो, असलीं रुचीक नुस्तीं मेळतात. शिवाय तिसऱ्यो, आनी कालवां न्हंयत मेळतात. सुंगटां आनी सांगटां तर न्हंयतूय मेळतात आनी दर्यांतूय मेळतात. गोंयांत इतलेय तरेचीं नुस्तीं मेळुनूय आजकाल लोकांक जाय तितलें नुस्तें मेळना. बरें बरें नुस्तें व्हड व्हड होटेलांक वेता. बांगडे, ताल्ले, आनी सुंगटां फॅक्ट्रींक वेतात. बरीं सुंगटां आनी नुस्तीं भायल्या देसांत धाडतात. उरललें सुरललें नुस्तें गोंयच्या बाजारांत विकतात. कुवैट, मुंबय रावपी गोंयकार आनी भोंवडेकारांक लागून ह्याय नुस्त्याचें मोल वाडत आसता. वाडत वेता त्या मोलाक लागून फुडें गोंयकारांक शिवराक जेवनूच दीस काडचे पडतले.

पयलीं खारवी लोक एकटांय रावून नुस्त्याचो धंदो करताले. एक व्हडें आनी एक रांपण वीस तीस खारव्यांक नुस्तें धरूंक उपकारतालीं. खारवी कुटुंबां एकटांय काम करतालीं. दादले पागूंक वेताले आनी बायलो बाजारांत बसून नुस्तें विकताल्यो. कांय बायलो नुस्तें विकूंक दारांदारांनी वेताल्यो. बाजारांत बसतल्यो बायलो घरा वेताना आपणांक जायतो वेपार घेवन वेताल्यो. दारांनी फिरतल्यो बायलो नुस्तें सवाय विकताल्यो.

सुकते वेळार गांवच्यो बायलो धोंपरभर उदकांत वचून तिसऱ्यो काडतात. कालवां काडतल्या बायलांचें जिवीत बरेंच त्रासांचें आसता. गांवचे भुरगे भरती येता तेन्ना नुस्तें गरौंक वेतात.

आदीं खारवी लोकूच नुस्त्याचो धंदो करताले. पूण आतां ह्या धंद्यांत मेळता तो फायदो पळौन जायतो हेर लोक हो धंदो करूंक लागला. आतां ट्रोलरान एकेच फावटीन कितलेंशेंच नुस्तें धरूंक येता. ते शिवाय खारवी सुद्दा आपल्या व्हड्यांक मोटर लावन नुस्तें पागूंक वेतात.

आदल्या काळार आसलले तसले कश्ट काडपी रांपणकार आतां उरूंक नांत. माक्नां आसलल्या रांपणकारांचीं कामां जायतीं सोंपीं जाल्यांत. तशेंच नुस्तें विकचें कामूय मोटार गाडयांक लागून चड सोंपें जालां.

चड जाल्लें नुस्तें मिठाक लावन कडक वोतांत सुकयतात. तें खारें पावसाच्या दिसांनी चड उपकारता. बारीक नुस्तें आनी पोंवशेल्लें नुस्तें सान्याक वापरतात.

हांवें आतां तुमकां नुस्त्याचोच येदो व्हड शेर्मांव सांगलो. आतां हांव नुस्तें हाडूंक बाजारांत वेतां. आज नुस्त्याक कितें मेळता पळौंया.

**उतरावळ VOCABULARY**

मेळ (iv) get, be available
मेळ (tv) visit, meet
गाव (tv) find
दुबळो (adj) poor
जांव तो गिरेस्त जांव तो दुबळो = whether it be the rich or the poor
जाय (aux.v) want, should
म्हाका तर = as for me
जिवो / जितो (adj) live, fresh, alive
खारें (n) salt fish, dry fish
कुडको (m) piece
वाय (f) gas [in Indian medicine]
जीव (m) life
म्हळ्यार (conj) means, involves
तरिपूण (adv) even then, even if
देवाकूच खबर = God knows
भक्ती (f) devotion [to God]
पिशें (n) madness, craze
निचेव (m) resolution
तूट (iv) break
मन (n) mind
पंचम (f) fifth day of Hindu calendar
सूट (iv) lose, break
बांगडो (m) mackerel
ताल्लो / तार्लो (m) sardine
विस्वोण (m) King fish
मोरी (f) shark
काळुंदर (n) flat grey river fish
मुड्डोशी (f) lady fish
तिसरी (f) striated clam
कालूं (n) oyster
सांगट (n) catfish
देस (m) country
उरललें सुरललें = remnants
हेर (adj) other
रांपण (f) long dragnet
उपकार (m) be of use
पाग (tv) fish with net
सुकती (f) low tide
धोंपर (n) knee
भरती (f) high tide
गरय (tv) angle, fish with line
कश्ट (m) trouble, pains
सोंपो (adj) easy, simple
कडक (adj) severe, stiff
सुकय (tv) dry
सूक (iv) dry
पौंशे (iv) go bad [fish]
शेर्मांव (m) sermon
येदो (adj) this big

## शिकपाचें घोळौप REPETITION LESSON

– मिलाग्रीन, कितें घेंवक आयलां? पिशवी बरी व्हड हाडल्या.
– नुस्तें व्हरूंक आयल्यां. एकदम चार दिसांचें नुस्तें व्हरून फ्रिजांत दवरतां. सदां सदां कोण येतलो बाजारांत?
– फ्रिजांत दवरललें नुस्तें तुमकां उपकारता? आमकां बाये ताजें ताजेंच जाय. पयल्या दिसा हाडून दवरल्यार सुद्दा हुमणाक रूच लागना म्हणतात.
– सावियोच्या डॅडिकूय मानवना. तो गोंयांत आसता तेन्ना सदां बाजारांत वचून नुस्तें हाडता. हांव सदांच कशीं वेतलीं? हांव खारें हाडून दवरतां.
– काल नुस्त्याक फकटो पडललो. हांवें सुकीं सुंगटां व्हेलीं. तीं तरी खंय सवाय मेळतात?
– नुस्त्याच्या बाजारांत म्हूण वचपाचें ना. पयलीं बांगडे, वेल्ल्यो कितल्यो सवाय आसताल्यो. आतां नुस्तें लातांत भरूंक त्यो फॅक्टऱ्यो म्हूण जाल्यात, आनी नुस्तें आमकां मेळना.
– आतां मूट भर सुंगटां घेंवक गेल्यार कचकचीत पैशे दिंवक जाय.
– सुमन, नुस्त्याच्या नांवान मेल्लीं जितीं जावपी आमी, एक दीस भटावरी जावन पडतलीं.
– हय, पळौंक गेल्यार तो दीस पैस ना सो दिसता.

## उतरावळ VOCABULARY

ताजो (adj) fresh
मानव (iv) please, agree with
फकटो (adj) dried up, (m) dearth
वेल्ली / वेर्ली (f) small white sea fish
लात (n) tin, can
कचकचीत (adj) jingling, abundant
जितीं (adj) live

## GRAMMAR NOTE :

An adjective clause functions as a modifier of a noun, a noun clause, or a noun phrase in another clause. Thus for example:

1. *चड जाल्लें* नुस्तें मिठाक लायतात.
2. *पावसांत भिजललो* काम करतलो मनीस घरा गेलो.
3. *भायर बसललो* तो मनीस ह्या चल्याचो बापूय.

A. वाक्यां करात : ***Structural table drill :***

| | |
|---|---|
| जे बांगडे काल सुकयल्ले ते<br>आंगणांत सुकत घाल्ले पापड<br>जाळांत आसलले ते ताल्ले<br>मिठाक लायल्ले घरे | कावळ्यान व्हेले<br>आज भाजले<br>तांकां दिले<br>आमकां थोडे दी |
| बापायन दिल्ले पयशे<br>काल हाडलले खुबे<br>थंय आसलले आंबे<br>भाजून हाडलले चणे<br>लिपौन दवरलले काजू<br>मोलाक घेतलले बांगडे | काबार जाले<br>अमकां पावनांत<br>हांवें भावाक दिले<br>थंय आसात<br>कोणाक जाय?<br>ताणें मागून घेतले |
| बाजारांत नुस्तें विकतली बायल<br>बँकेंत काम करतली बायल<br>शाळेक वेतलो भुरगो<br>धांवून आयल्ली चली<br>आमच्या ऑफिसांतलो चेडो | बाजारांतली फुलां हाडता<br>पैशे बोलसांत घालता<br>बशीन घरा वेता<br>वाटेर आमकां मेळता<br>बेगीन बेगीन वेता |

B. रिकामे जागे भरात : ***Fill in the blanks with appropriate expressions :***

1. नुस्तें आवडना असो गोंयकार----------
2. देवाची भक्ती आसलेली ती ---------
3. न्हंयत मेळतलें नुस्तें---------
4. लातांनी भरललें नुस्तें---------
5. मुंबय रावपी गोंयकार आनी भौंडेकारांक लागून -------
6. बाजारांत नुस्तें विकपी बायलो --------
7. दारांदारांनी नुस्तें विकपी बायलो-------
8. उरललें सुरललें नुस्तें--------
9. तिसऱ्यो काडतल्या बायलांक --------
10. सुकती येंवच्या वेळार भुरगे--------

11. ह्या धंद्यांत मेळतलो फायदो पळौन जायतो हेर लोक-----
12. तसले कश्ट काडपी रांपणकार---------
13. वोतांत सुकयल्लें खारें--------
14. पौंशेल्लें नुस्तें--------

**C. विशेशणीय पदबंद खंय आसा तें सांगात :** ***Pick out the adjective clauses :***

1. सुंगटां धरपी ट्रोलर पैस दर्यांत वेतात.
2. पयलो येवपी तो भुरगो चड अभ्यास करता.
3. मेजार दवरलां तें पुस्तक म्हाका जाय.
4. काल रातीं, चोरी करतल्या त्या मनशाक पोलिसांनी धरलो.
5. पैशे मेळतच, तिणें हाताक घालचीं कांकणां घेतलीं.
6. फुलां काडतली चली पोरसांत उबी आसा.
7. रवी कडे तांतयां घालपी कोंबयो आसात.
8. अशोकान पेन्सिली शाळेक वेतल्या भावाक दिल्यो.
9. उंडे हाडपी भुरगो सायकलीर आयलो.

**D. दिल्लें उतर वापरून नवीं वाक्यां करात :** ***Substitution drill :***

1. नुस्तें विकपी बायल ताल्ले विकता. (बांगडे, धरपी, दादलो, सुकयता)
2. गाडी चलयतलो ड्रायवर घरा आयलो. (टेम्पो, मनीस, गांवाक, गेलो, धुवपी)
3. मातयेचीं आयदनां करपी बायल वाज करता. (लांकडाचीं, विकपी, भुरगो, कळसो, फोडता)
4. ट्रोलर घेवन दर्यांत वेतलो सुंगटां हाडता. (व्हडें, न्हंयत, विस्वोण, काडता)
5. बैलगाडयांनी वेतल्या लोकांक वेळ लागतालो. (घोड्या, मनशांक, त्रास जातालो, फिरतल्या)
6. नुस्त्याचो धंदो करतले बरेच दुडू करतात. (सोन्याचो, वेपार, चड, पैशे)
7. मिनाचो धंदो करतले ट्रक वापरतात. (काजुचो, चलयतले, बार्जो, चलयतात)
8. पर्यटनाक लागून गोंयांत आसलेल्यो वेळो विबाडल्यो. (नुस्तेकारांक, गांवांत, न्हंयो)
9. नुस्तें आवडना असो गोंयकार मेळूंक कुस्तार. (भाजी, खायना, मुंबयकार, दिसूंक, कठीण)
10. मोटारसायकल आसलल्या दोतोराक गांवांत फिरूंक बरें. (मोटार, मास्तराक, शारांत, उपकारता)
11. केळ्यांचो धंदो करतले बायलेन दुकान घालां. (पेरांचो, हालव्याचो, चलयतले, चलयेन, गाडो, घेतला)
12. कोलेजीक वेतले भुरगे आगगाडयेन वास्को वेतात. (खेळूंक, शिकूंक, बशीन, सांवड्यां, देंवतात)

# पाठ 31 : एकतिसावो पाठ

## वाचपाघराच्या दारांत

– आगो रिता, इतले ताकतिकेन खंय वेता गो?
– खंय ना, हांगाच वाचपाघरांत.
– तुवें आयकलां मुगो, आमच्या प्रशांताचो पंगड फुडल्या सातोळ्यांत बेंगळूर खेळूंक वेतलो खंय.
– व्हय, केन्ना जाली निवड?
– तुमच्या अनीलान सांगलें ना? तो खेळांत सगळ्यांत मुखार मुगो.
– ना, ताणें कांय म्हळें ना.
– म्हळें ना, कशें तर? हरशीं खेळाची कसलीय खबर तुका सांगतालो न्हय?
– सविता तें सोड. ते केन्ना वेतात?
– प्रशांत म्हणतालो ते फुडल्या सोमारा ना जाल्यार मंगळारा भायर सरतले खंय. थंय जिकले तर मुखार वेतले.
– आं, आतां येवजलें म्हाका. पैर अनील आपणाक सुटी मेळना म्हूण मांयकडे गुणगुणतालो.
– तो कितें म्हणतालो तें तुवें आयकलें ना?
– पैर तो म्हण, आपली सिर्वीस नवी म्हूण, स म्हैने तरी रजा घेंवक मेळची ना.
– पूण रिता, तो पंगडांत आसा न्हय, आतां कितें करतलो?
– संदेश आसा न्हय गो, ताका खेळपाची संद मेळतली.
– प्रशांत केन्नाय म्हण, अनील आसल्यार आपणाक खेळांत मजा येता म्हूण.
– सविता, येताय मुगो वाचपा घरांत?
– ना, म्हाका समाजशास्त्राच्या प्रोफेसरान आपयलां.
– बरें तर हांव वेतां.
– मात्शें राव मुगो.
– प्रोफेसरान कित्याक आपयलां?
– ह्या म्हैन्याचे अखेरेक आमचो एक कँप जांवचो आसा. शिवोले जागर म्हण आसा खंय. हिंदू आनी क्रिस्तांव वांगडाच जागर करतात खंय.
– थंय तुमी कितें करतलीं?
– जागर पळौपाक प्रोफेसर आमकां थंय व्हरता खंय.
– कितें गो, प्रोफेसर आनी तुमी तांतूं नाचतलीं काय कितें?
– ना बाये, नाच खंयचो? आमी तो पळौन ताचेर निबंद बरौंचो अशें प्रोफेसरान सांगलां.
– आवय, एक निबंद बरौंक इतलें करूंक जाय तुमकां? हांव वाचपा घरांत कित्याक वेतां जाणाय? म्हाका अर्थशास्त्रांत एक निबंद बरौंचो आसा. पुस्तकांतले एक दोन पाठ वाचून निबंद बरौंचो अशें आमच्या प्रोफेसरान म्हळां.

– म्हळ्यार दोन तीन वरांचें काम तुमकां, इतलेंच मुगो?
– इतलेंच? तेंच करपाक तकली फोडची पडता.
– तशें जाल्यार वच बाये, हांवूय वेतां.

## उतरावळ VOCABULARY

वाचपाघर (n) library
ताकतीक (f) hurry
निवड (tv) choose, select
वेंच / वींच (tv) select, choose
हरशीं (adv) ordinarily, usually
गुणगूण (iv) murmur
रजा (f) leave
संद (f) opportunity
समाजशास्त्र (n) sociology
अखेरेक (adv) at the end, finally
जागर (m) vigil
निबंद (m) essay
अर्थशास्त्र (n) economics
तकली (f) head
तकली फोड = take pains
तशें जाल्यार = in that case

## शिकपाचें घोळीप REPETITION LESSON

– आरे अनील, तूं बेंगळुराक येंवचो ना अशें कित्याक सांगून धाडलें तुवें?
– प्रशांत, हे विशीं तूं म्हाका कांयच विचारनाका. तकली फुटून गेल्या म्हजी.
– आरे, असो उबगता कित्याक? कितें जालें तें सांग. कितेंय उपाय आसा जाल्यार पळौंया.
– उपाय आसा एकूच : हांवें सिर्वीस सोडप.
– शी, कितेंय उलय नाका. तूं हालीं खूप बदल्ला अशें अमीत म्हणतालो. खरेंच ताचें. वोगीच तिडक नासताना सांग पळौंया.
– कितें सांगूं? तो बारकेलो आसासर म्हाका खेळूंक मेळतशें दिसना.
– कोण बारकेलो? सारको उलयरे अनील.
– आरे, आमचो मेनेजर, बडये परसूय बारीक आसा. आपूण मळा वयल्या वाऱ्यान उडून वचन ह्या भंयान तोय खेळना आनी आमकांय खेळूंक दिना.
– वोगी रावरे. खरें सांग कितें म्हळें ताणें.
– तो म्हणता हांव सिर्विसेक लागून तिनूच म्हैने जाल्यात, म्हण इतले बेगीन सुटी मेळची ना.
– तूं सांग मुरे, आपूण पंगडाचो मुखेल खेळगडी म्हूण.
– सांगलें, सगळें सांगलें. ताणें सांगलां सोमतोच राजिनामो दी आनी चल म्हूण.
– वोगी राव तूं , तुका आमच्या कोचान कितें सांगलां जाणा, तूं हे पावटीं नासल्यार नासूं. दुसरे पावटीं तुकाच व्हरतले. तूं खेळपाची संवय मात सोडूं नाका म्हळां.
– बरें, पळौंया, दुसऱ्या वेळा संद मेळता जाल्यार.

## उतरावळ VOCABULARY

सांगून धाड = send word, send a message
फूट (f) crack
उबग (iv) be bored
उबगण (f) boredom
उपाय (m) solution
सोड (iv) leave, abandon, give up
बदल (iv,tv) change
तिडक (iv) be irritated
बारकेलो (adj) lean
आसासर = as long as it is so
उड (iv) fly, be blown away
मुखेल (adj) chief, main
खेळगडी (m) player, playmate
सोमतो (adj,adv) straightaway
राजिनामो (m) resignation
संवय (f) habit

## GRAMMAR NOTE

Reported speech in Konkani is much simpler compared to English indirect speech. Most of the time, the exact words of the speaker are repeated without inverted commas and म्हणलें, सांगलें, अशें म्हणता, म्हण and similar expressions are added at the end.

Another way of reporting speech is to use the infinitive or participle with a reporting verb, for example :

1. ताणें म्हाका येंवक सांगलें.
2. म्हज्या भावान म्हाका घरा वचूंक सांगलां.
3. टिचरीन आमी फाल्यां येंवचें म्हळां.

If the reported speech is in the first person the forms of म्हण and the appropriate forms of the reflexive pronoun आपूण are used to avoid confusion, as in the following examples :

आपूण येतलो अशें तो म्हणतालो.
आपलें घर बांदपाक आपणाक पैशे जाय म्हण ताणें सांगलें.

**A. सुचयल्लीं उतरां वापरून नवीं वाक्यां करात :** ***Substitution drill :***

1. प्रशांत बेंगळुराक वेतलो खंय. (म्हण आयकलें, अशें ताणें सांगलां, अशें तो म्हणतालो)
2. अनील खेळचो ना अशें मास्तर सांग. (रमेश येंवचो ना, अजय मुंबयच्यान येता, शाळेक सुटी मेळची ना )
3. तो कसलीय खबर म्हाका पयलीं सांगता. (पयलीं कळयता, सांगल्या शिवाय रावना, म्हाका रोकडीच सांगता)

4. प्रशांत म्हणतालो तो सोमारा येतलो खंय. (तो वचना खंय, रवी खेळचो ना म्हण, फाल्यां आमकां सुटी दिल्या)
5. प्रोफेसरान कँपाक तयार रांवक सांगलां. (बाबान म्हका शाळेक वचूंक, आईन म्हाका नुस्तें हाडूंक, ताईन ताका भायर वचूं नाका म्हण)
6. पुस्तक वाचून निबंद बरौंक सांगला. (लायला, जाय म्हणलां, आमकां सुचयलां, तांकां मन आसा)
7. तूं सदांचो खेळ सोडूं नाका म्हण सांगलां. (तुवें बरें काम करचें, तुका सगळेंच मेळतलें, तूं फाल्यां वच)
8. आपूण वाऱ्यान उडून वचन अशें ताका दिसता. (परिक्षेंत फेल जायन, दोंगर चडन, सगळें काम सोंपयन)
9. ताणें सांगलां, सोमतोच राजिनामो दी आनी वच. (मन आसल्यार काम कर, पावस थांबतच यो, बशिनूच वच)
10. तो फाल्यां येतलो ही खबर आमकां मेळली. (तें पास जालें, बाजारांत बरें नुस्तें आयलां, दोन नवीं पत्रां येतलीं)

**B. सकल दिल्लो संवाद तुमच्याच उतरांनी सांगात :** ***Put the following conversation into reported speech :***

रिता : खंय वेता गो तूं?
सविता : हांव फिरूंक वेतां.
रिता : हांवूय येंव?
सविता : यो.
रिता : खंय वचूं या?
सविता : वेळेर वचून बसूं या.
रिता : रेंवेंत खेळूंक मेळतलें.
सविता : मागीर तुका आईन आपयलां.
रिता : मावशेन कितें खांवक केलां?
सविता : तूं येवन पळे.

**C. फावो तीं उतरां घालून रिकामे जागे भरात :** ***Fill in the blanks :***

1. प्रशांताचो पंगड बेंगळुराक वेतलो------.
2. आपणाक सुटी मेळना ------ आई कडेन गुणगुणतालो.
3. ताची सिर्वीस नवी ------ ताका रजा मेळना-----.
4. प्रशांतान अनीलाक येता काय ------ विचारलें.
5. प्रशांत केन्नाय -----, अनील आसल्यार खेळांत मजा येता.

6. ह्या म्हैन्यांत आमचो कँप आसा---------.
7. ताणें म्हाका शिवोले जागराक येता ------ विचारलें.
8. आपूण वाचपाघरांत वेतां अशें ताणें-------.
9. तुका कितें जाय अशें रितान ------.
10. आपूण येंवचो ना अशें कित्याक ----------- धाडलें?
11. आमी -----, तूं हालीं खूप बदल्ला-------.
12. आपूण उडून वचन --------- ताका दिसलें.
13. आपूण पंगडाचो मुखेल खेळगडी अशें----------.
14. तुका कोचान कितें---------- जाणा, तूं दुसरे फावट खेळपाक यो.
15. ताणें ------- पळौंया दुसऱ्या वेळा संद मेळता जाल्यार.

**D. सुचयल्लीं उतरां वापरून वाक्यां वाडयात :** ***Increase the length of the sentences as suggested :***

1. खबर मेळल्या । आमकां । खेळूंक वेतलो म्हण । बेंगळूर । फुडल्या सातोळ्यांत । प्रशांताचो पंगड
2. वचूंक मेळना । खेळूंक । रजा ना म्हण । अनीलान सांगलें
3. संद मेळतली । एक । संदेशाक । अनील नासलल्यान
4. चड मजा येता । खेळांत । आपणाक । अनील आसल्यार । प्रशांत केन्नाय म्हण
5. म्हाका आपयलां । प्रोफेसरान । समाजशास्त्राच्या । तयारी करूंक । कँपाची
6. जागर करतात खंय । वांगडाच । हिंदू आनी क्रिस्तांव । शिवोले
7. प्रोफेसरान सांगलां । अशें । निबंद बरय । ताचेर । जागर पळौन
8. सांगून धाडलें । कित्याक । अशें । खेळूंक येंवचो ना । बेंगळूराक । तूं
9. खेळूंक दिना । आमकां । भंयान । ह्या । उडून वचन । मळावयल्या वाऱ्यान आपूण
10. सुटी मेळची ना । इतले बेगीं । तिनूच म्हैने जाल्यात म्हण । सिर्विसेक लागल्यार । तूं

# पाठ 32 : बत्तिसावो पाठ

## उंचलें शिकप

उबाळाच्या दिसांनी भुरग्यांक सुटी आसली म्हण हांवेंय धा दिसांची रजा काडली. पूण मनाक सुशेग नासलो. ह्या दिसांनी भुरग्यांचो रिजल्ट येता. आनी तेन्ना भुरग्यांच्या फुडाराचो विचार करचो पडता. भुरगीं इतलीं चड जाल्यांत की कितल्योय शाळा वा कोलेजी आसूं पावच नांत. म्हणताना आवय बापायक आपल्या भुरग्यांच्या शिकपाचो हुस्को.

म्हजे व्हडले चलयेन बी. ए. ची परिक्षा दिल्या. तिचे विशीं आमकां हुस्को ना. ती साहित्यांत एम. ए. करतली. पूण आमचो अशोक बारावेचे परिक्षेक बसला. ताका दोतोर जांवक उर्बा आसा. दोतोरकी शिकूंक आज इतलीं भुरगीं येतात की बरे मार्क आसुनूय प्रवेस मेळना. इंजिनियरींग घेतल्यांचीय तीच गत. वचत त्या कोर्साक आज गर्दी आनी सर्त. म्हणून म्हाका अशोकाची चड चिंता. ताचे पेपर बरे गेल्यात अशें तो म्हणता. पूण आज काल सांगू येता? ऐशीं टक्के मार्क मेळल्यार कितेंय जायत. चड चड डोनेशन दिंवक म्हजेकडे पैशे खंय आसात? कशेय भाशेन आमच्या चल्यान बरे मार्क घेतल्यार पुरो.

इश्कोल मेदिकांत प्रवेस मेळचे पैलीं म्हजी म्हाकाच चड चिंता पडलेली. म्हज्या घरच्यांक ताची कांयच पर्वा नासली. उरफाटें, म्हाका प्रवेस मेळचोच न्हय अशें तांकां दिसतालें. म्हाका दोतोरकेची इत्सा, आनी तांकां दिसतालें हांवें भाट–बेंस सांबाळचें. म्हज्या शिकपाकडेनूय अशोच आडकळी आयल्ल्यो. गांवचे शाळेंत मराठी चौथी करतच लिसेव करूंक भायर वेचें पडलें. त्या वेळारूय आजेन आनी आईन खूप आडकळ केली. दोतोरकी शिकूंक पणजे वेताना तर घरांत बोवाळूच जालो. पणजे आसलल्या म्हज्या काकान घट धरलल्यान आज हांव दोतोर जांवक पावलों. पूण आमच्या काळार प्रवेस मेळूंक इतले पैशे दिंवचे पडनासले आनी त्रासूय नासले.

आतां म्हज्या चल्याक घरच्या सगळ्यांचो तेंको आसा. पूण प्रवेस मेळुंकूच आडकळी. पळौंया कितें जाता तें. नशिबांत आसल्यार मेळत.

म्हजी धाकटी धूव उशा अंदूं नवेक पावल्या. ती चड हुशार. ती आतांच कंप्युटर सायन्साक वचूंक येवजिता. गणिताची तिका चड आवड आसा. तिची बारावी जातासर कंप्युटर सायन्साक कितली गर्दी वाडतली देवूच जाणा. पूण तिची चिंता आतां नाका.

गोंय मुक्त जायत सावन गोंयांत शिकप वाडत चल्लां. गांवांगांवांनी इश्कोलां, तालुक्यांनी उंचल्यो शाळा आनी कोलेजी जाल्यात. गोंय विद्यापीठ हालींच सुरू जालां. आदीं तर कोलेज शिकपा खातीर गोंया भायर वेचें पडतालें. म्हजेच वांगडी कोलेज शिकप घेंवक धारवाड, बेळगांव आनी मुंबय पावले. आनी थंयच सिर्वीस करूंक रावले. आयची गोंयची पिळगी नशिबवंत. तांणीं शिकपाचेच त्रास घेतल्यार पुरो.

## उतरावळ VOCABULARY

उंचलो (adj) high, higher
शिकप (n) education
उबाळ (m) summer, hot season
फुडार (m) future
हुस्को (m) concern
साहित्य (n) literature
बारावी (f) XII standard
उर्बा (f) burning desire
प्रवेस (m) admission
चिंता (f) worry
इश्कोल मेदिक = school of medicine
पर्वा (f) care
उरफाटें (adv) on the contrary
दोतोरकी (f) medicine
इत्सा (f) desire
भाट–बेंस (n) goods and land
लिसेव (m) lyceum
तेंको (m) support
नशीब (n) luck
हुशार (adj) clever, smart
येवजी (tv) plan
मुक्त (adj) free
विद्यापीठ (n) university
पिळगी (f) generation
नशिबवंत (adj) lucky
त्रास (m) efforts, trouble

## शिकपाचें घोळौप REPETITION LESSON

– रवी, आट दिसांनी धावेचो रिजल्ट खंय. तुमचो केन्ना? धावेचो जातच रोकडोच तुमचो जाता न्हय?
– हय बाबा, सुमार पंदरा दिसांनी आमचो रिजल्ट जातलो खंय. भंय दिसता बाबा.
– भंय कित्याक? पेपर बरे गेल्यात म्हणतालो न्हय तूं?
– पेपर बरे गेल्यात, पूण बोर्डांत तपासताना जायते फावट चुकी जातात म्हणतात न्हय?
– भिवूं नाका तूं. एक दोन फावट चूक जाली म्हूण सदां जायना. तुका कितले मार्क मेळतलेशे दिसतात?
– हांवें पेपर बरयल्यात त्या कोंतान 85 टक्के पूण मेळ्ूंक जाय.
– पळे, मेडिकलाक प्रवेस मेळ्ूंक बरें कुस्तार जालां. चड चड डोनेशन मागतात. निदान 80 टक्के पूण मेळ्ूंक जाय. ना जाल्यार कितें येवजिलां तुवें?
– म्हजो इश्ट चौकशी करूंक दावणगेरे गेला.
– सगळी तयारी पयलींच करूंक जाय. धारवाड आनी बेळगांव दोनूय कडे चौकशी कर म्हूण हांव तुज्या बेळगांवच्या मामाक फोन करतां.
– खंय पूण एक जागो म्हाका मेळ्ल्यार पुरो.

## उतरावळ VOCABULARY

चूक (f) mistake

कोंत (n) estimate, account
निदान (adv) at least
चौकशी (f) enquiry

**GRAMMAR NOTE:**

The regular order of words in a Konkani sentence is : subject - (indirect object) - direct object - verb. All modifiers come before the noun that is modified, except when a modifier is used predicatively. Examples :

1. पुतान बापायक पैशे दिले.
2. ताणें आपलो तांबडो लेंस व्होगडायलो.
3. ताचो लेंस तांबडो.

Examples 1, 2, and 3 show the normal order of words. For the sake of special emphasis the order in 1 can be changed but the intonation will also change. The word emphasized is often placed towards the end of the sentence so that the terminal rising-falling intonation falls on the word emphasized.

**A. वाक्यां करात :** ***Substitution table drill :***

<table>
<tr><td>उबाळाच्या दिसांनी<br>माय म्हैन्यांत<br>ह्या दिसांनी<br>परिक्षा सोंपतच</td><td>भुरग्यांक सुटी<br>सुशेग घेतलों<br>फिरून येतलों<br>भैणीक मेळूंक</td><td>म्हण</td><td>हांवें रजा काडली<br>वचूंक तिकेटी काडल्यो<br>हांव मुंबय वेतलों<br>हांव भायर सरलों</td></tr>
<tr><td>खालचें शिकप<br>चौथेचें शिकप<br>मुळावें शिकप<br>सातवी क्लास</td><td>जातच<br>सोंपतच<br>काबार जातच<br>करून जातच</td><td>लिसेव करूंक<br>कोलेज शिकप घेंवक<br>उंचल्या शिकपा खातीर<br>दोतोरकी शिकपाक</td><td>भायर वेचें पडलें<br>पणजे वेचें थारायलां<br>गांव सोडचो पडता<br>त्रास घेंवचे पडतात</td></tr>
</table>

**B. दिल्ल्या वाक्यांचे प्रस्न करून तांकां जापी दियात :** ***Frame questions and answer them :***

1. उबाळाच्या दिसांनी हांवें रजा काडली.
2. त्या दिसांनी भुरग्यांचो रिजल्ट येता.

3. आवय बापायक आपल्या भुरग्यांच्या शिकपाचो हुस्को आसता.
4. व्हडली चली साहित्यांत एम. ए. करतली.
5. अशोकाक दोतोर जांवक उर्बा आसा.
6. 80 टक्के मार्क मेळल्यार दोतोरकेक प्रवेस मेळता.
7. घरच्यांक दिसतालें हांवें बेस—भाट सांबाळचें.
8. मराठी चौथी करतच भायर शिकूंक वेचें पडतालें.
9. म्हज्या चल्याक घरच्या सगळ्यांचो तेंको आसा.
10. धाकटी धूव कंप्यूटर सायन्साक वचूंक येवजिता.
11. गोंय मुक्त जायत सावन गोंयांत शिकप वाडत चल्लां.

**C. कर्तो, कर्म, क्रियापद ह्या क्रमान वाक्यां परत बरयात :** ***Rearrange the sentences with the regular subject-object-verb order :***

1. गणिताची चड आवड ताका.
2. खारें हाडून दवरतां हांव.
3. देवाची ती करताली भक्ती.
4. जाली केन्ना निवड?
5. खेळूंक मेळतली संद संदेशाक.
6. भैणीक वेतलो मेळूंक तो.
7. निबंद बरयतलीं हांव जागराचेर.
8. वेता मुंबय खेळूंक प्रशांत.
9. नवी मेळल्या सिर्वीस ताका.
10. आयलो काल तो.
11. जातलो अशोक दोतोर.
12. जाय तें आपणाक करता तो.

**D. योग्य ते प्रत्यय लावन कर्तो, कर्म, क्रियापद ह्या क्रमान वाक्यां परत बरयात :** ***Build sentences in the subject-object-verb order from the words provided :***

1. सुटी भुरगीं उबाळ दीस.
2. रिजल्ट दीस येता ह्या भुरगीं.
3. हुस्को भुरगीं आवय बापूय शिकप आपल्या.
4. बी. ए. ची म्हजे चली परिक्षा दिल्या व्हडली.
5. उर्बा जावपाची ताका आसा दोतोर.
6. आयल्ल्यो आडकळी शिकपा म्हज्या अशोच कडेनय.
7. तेंको घरच्या चलो सगळ्यांचो म्हज्या.
8. तें वेता कंप्युटर सायन्स.
9. गोंयची नशिबवंत पिळगी आयची.
10. फुडार भुरग्यांच्या करचो पड विचार.
11. परिक्षा बारावी बसला अशोक.
12. फोन तुज्या कर मामाक बेळगांव.

# पाठ 33 : तेत्तिसावो पाठ

## कोंकणी बरपावळ

अरबी समदीर आनी सह्याद्री मदेकत आसा तो प्रांत कोंकण. कोंकण प्रांतांत उलयतात ते भाशेचें नांव कोंकणी. गोंय हे भाशेचें कुळार. कोंकणी उलौपी अदमासान तीस–पस्तीस लाख लोक आसात. हालींच ती भास गोंयची राजभास जाल्या. पुर्तुगेज राजवटीक लागून गोंयांत कोंकणी भास वयर सरली ना. गोंयां भायर गेल्ल्या कोंकणी लोकान आपली भास आपले भितर सांबाळून दवरली. थंय दुसऱ्या भासांची राजवट आसलेल्यान कोंकणीची कुचंबणा जाली.

कोंकणीचे वाडीक आनीक एक आडकळ म्हळ्यार लिपी. गोंयांतूच दोन लिपयो चालू आसात : रोमन आनी देवनागरी. कर्नाटकांत कानडी, केरळांत मलयाळी, आनी थोडे कडेन अरबी लिपयांनीय कोंकणी बरयतात. ह्या लिपयां वांगडाच वेगळ्यो वेगळ्यो बोलयो वापरल्यो म्हूण कोंकणी साहित्य एकटांय येंवक पावलें ना.

चड आदलें कोंकणी साहित्य म्हळ्यार रामायण आनी म्हाभारतांतल्यो काणयो. आख्या भारतांतलें पैलें छापून काडललें पुस्तक म्हळ्यार कोंकणींतलें "दौत्रीन क्रिस्तां". तशेंच सगळ्यांत पैलें छापून काडललें भारतीय व्याकरण म्हळ्यार तॉमास स्टीवन्स हाणें बरयल्लें कोंकणीचें व्याकरण. सोळाव्या–सतराव्या शेकड्यांतलें थोडेंशें कोंकणी बरप आजून वाचूंक मेळता. ह्या काळाचे कोंकणी–पुर्तुगेज आनी पुर्तुगेज–कोंकणी कोश आजून वाचूंक मेळतात.

आधुनीक कोंकणीचो वावर एकोणिसाव्या शेकड्याचे अखेरेक सुरू जालो. मंगळूर वावर करूंक आयल्लो फादर आंजेलो माफेय कोंकणी शिकलो इतलेंच न्हय, ताणें दोन कोंकणी व्याकरणां बरयलीं, इंग्लेज–कोंकणी आनी कोंकणी–इंग्लेज अशे दोन कोश बरयले. ह्याच काळार कोंकणीचो वावर कोंकणी मनशांनीय सुरू केलो. मोन्सिञोर दाल्गादान व्हड कोश आनी हेर पुस्तकां बरयलीं. ह्या शेकड्यांत शणै गोंयबाबान गोंयकारांक कोंकणी भाशेची गिरेस्तकाय दाखौन दिली. आपल्या उलौपांनी आनी बरपांनी कोंकणी लोकांक जागयले. कोंकणीक मराठीची बोली म्हणपी लोकांक ती एक स्वतंत्र भास म्हण सिद्ध करून दाखयली. शणै गोंयबाबा कडसून स्फूर्त घेवन कोंकणींत बरौपी पिळगी गोंयांत तयार जाली. तांणीं आपल्या साहित्यांतल्यान कोंकणी खातीर झूज मांडलें. हांच्याच बरोबर रोमन, कानडी, मलयाळम लिपयांतल्यान बरौप्यांनी साहित्य वाडयलें आनी कोंकणीचे चळवळींत वांटो घेतलो.

गोंय मुक्त जातच कांय शाळांनी कोंकणी पावली आनी तेन्नाच्यान कोंकणीचो अभ्यास सुरू जालो. आज तर गोंय विद्यापिठांतूय तिका जागो मेळला. आतां हे भाशेचो आमी खोलायेन अभ्यास करूंक जाय. तिची गिरेस्तकाय वाडौंक जाय. तिचे खातीर वावुरप्यांची आतांच चड गरज आसा.

## उतरावळ VOCABULARY

बरप (n) writing
बरपावळ (f) writings, literature
अरबी (adj) Arabian, Arabic
समदीर (m) sea
सह्याद्री (m) Western Ghats
मदेकत (adv) midst, among
प्रांत (m) province, region
कुळार (n) married woman's parental home, [therefore the place of origin or one's rightful place]
अदमास (m) estimate
लाख (adj) lakh, hundred thousand
हालीं (adv) recently, of late
राजभास (f) state language
राजवट (f) rule
सर (iv) go, proceed, give out
कुचंबणा (f) constraint
लिपी (f) script, alphabet
बोली (f) dialect
बरय (tv) write
छाप (tv) print
व्याकरण (n) grammar
शेंकडो (m) century
शब्दकोश (m) dictionary
आधुनीक (adj) modern
गिरेस्तकाय (f) wealth
जागय (tv) awaken
स्वतंत्र (adj) independent
सिद्‌ध कर = prove
स्फूर्त (f) inspiration
खातीर (adv) for the sake of
झूज (n) war, battle
चळवळ (f) movement
खोल (adj) deep
वावुरपी (m) worker
गरज (f) need, necessity

## शिकपाचें घोळौप REPETITION LESSON

– रवी, खंय वेता रे पुस्तकां घेवन?
– कोंकणी वर्गाक.
– कोंकणी वर्गाक? कोंकणीय शिकची पडता तुमकां? पिशेपणांच शीं.
– हांसनाका राजू. तूंय शीक. ती आतां राजभास जाल्या म्हणतकच तुका उपकारतली.
– कितें घेवन बसला रे कोंकणी, कोंकणी. मराठीची ती एक बोली मुरे?
– राजू , राजू म्हाका बेश्टेंच चाळय नाका. शणै गोंयबाबान केन्नाच दाखौन दिलां कोंकणी आनी मराठी कितल्यो वेगळ्यो त्यो.
– पुरो रे रवी. केन्ना काळाच्या गोंयबाबाक घेवन नाचतात तुमी. पूण आजून तुमचेकडेन बरें व्याकरण ना, शब्दकोश ना.
– आरे, आरे, तुजी ही रेकोर्ड आतां बाद जाली. मराठी–कोंकणी वादा वेळार झरौन झरौन उडयल्या ती. यो म्हजे बरोबर तुका व्याकरणां आनी शब्दकोश दितां.

– तीं दिशी गा तूं.  पूण साहित्या विशीं कितें?
– आमच्या वाचपाघरांत येवन पळे आनी उलय.  कादंबऱ्यो, नाटकां, कथासंग्रह, कवितासंग्रह कितें जाय तें सांग.  म्हाभारत सुद्दा आसा.
– आरे, म्हाभारतूय कोंकणींत आसा?  कोंकणींत उतरावळ चड मेळना म्हणतात मुरे?
– कोण सांगता तुका?  तुवें कोंकणी बरप वाचलां?  आमचीच खाशेली उतरावळ खूप आसा. वेगळ्या वेगळ्या बोलयांनी ती भरसल्ली आसा.  म्हणून कोंकणी भास शिकची गरज आसा. उलौंक आयली म्हूण बरौंक येता अशें न्हय.
– पळौंची पडली तर कोंकणी शिकून.

**उतरावळ VOCABULARY**

वर्ग (m) class
बेश्टो (adj,adv) needless, needlessly
वाद (m) argument, discussion
झरय (tv) wear out
कादंबरी (f) novel
कथासंग्रह (m) anthology of stories
कविता (f) poem
खाशेलो (adj) special, one's own
भरशी (tv) mix, blend
वाचपाघर (n) library

**A. कंसांत दिल्लें वाक्य, कुरू केल्ल्या उपवाक्याच्या जाग्यार घालून नवें वाक्य करात :**
***Substitution drill : Replace the italicized phrase with one from the bracket :***

1. कोंकणीचे वाडीक *एक आडकळ म्हळ्यार लिपी.* (चड जाणांनी आदार दिंवचो, शाळांनी कोंकणी शिकौंची, आतां आडकळ ना)
2. *पुर्तुगेज राजवटीक* लागून कोंकणी भास वयर सरली ना. (मराठीक, इंग्लेज भाशेक, लोकांच्या पिशेपणाक)
3. शणै गोंयबाबान दाखौन दिलां *कोंकणी आनी मराठी कितल्यो वेगळ्यो त्यो.* (कोंकणी कितली गिरेस्त, कोंकणी कशी सुदारची, कोंकणी कितली म्होंवाळ भास)
4. तॉमास स्टीवन्स हाणें *कोंकणीचें व्याकरण बरयलां.* (कोंकणीचो अभ्यास केलो, कोंकणींत "दौत्रीन क्रिस्तां" बरयलां, मराठींत "क्रिस्त पुराण" बरयलां)
5. कोंकणीची खाशेली उतरावळ *वेगळ्या वेगळ्या बोलयांनी आसा.* (हेर आर्य भासांनी मेळना, चड सोबीत आसा, चड गिरेस्त आसा)
6. *सोळाव्या शेकड्यांतलें* कोंकणी बरप आजून वाचूंक मेळता. ( तॉमास स्टीवन्स सारकिल्या मनशाचें, पोरणे कोंकणी बोलयेंतलें, शणै गोंयबाबाचें)
7. *मोन्सिञोर दाल्गादान* कोंकणीचो जायतो वावर केला. (ह्या शेकड्यांत, शणै गोंयबाबान, तॉमास स्टीवन्स हाणें, सोळाव्या–सतराव्या शेकड्यांत जायत्या जाणांनी)

8. आतां आमी *कोंकणी भाशेचो* अभ्यास करूंक जाय. (कोंकणी साहित्याचो, कोंकणी व्याकरणाचो, गोंयच्या समाजाचो)
9. कोंकणी उलौपी *अदमासान पस्तीस लाख* लोक आसात. (गोंयांत धा लाख, गोंया भायर खूप, आनी बरौपी बरेच)
10. कोंकणी बरौंक *गोंयांत देवनागरी* लिपी वापरतात. (गोंयांत रोमी, कर्नाटकांत कानडी, केरळांत मलयाळी)

**B. एका वाक्यांत जाप दियात : *Answer in a sentence each :***

1. कोंकण प्रांत खंय आसा?
2. कोंकण प्रांतांत खंयची भास उलयतात?
3. गोंयांत कोंकणी भास कित्याक वयर सरली ना?
4. कोंकणीचे वाडीक आनी कसली आडकळ आसा?
5. कोंकणींतलें चड आदलें साहित्य खंयचें?
6. आख्या भारतांत पैलें छापून काडललें पुस्तक खंयचें?
7. पैलें छापून काडललें कोंकणी व्याकरण कोणें बरयलें?
8. आधुनीक कोंकणीचो वावर केन्ना सुरू जालो?
9. मोन्सिञोर दाल्गादान कितें बरयलां?
10. शणै गोंयबाबान कोंकणी खातीर कसलो वावर केला?
11. कोंकणी मराठीची बोली म्हणतल्यांक शणै गोंयबाबान कितें दाखौन दिलां?
12. कोंकणींत बरौपी आमची पिळगी कशी तयार जाली?
13. कोंकणी चळवळींत गोंयकारां शिवाय आनी कोणें वांटो घेतलो?
14. शाळांनी कोंकणी केन्ना पावली?

**C. दिल्लें उतर वापरून वाक्यां बदलात : *Substitution Drill :***

1. हालींच ही भास गोंयची राजभास जाल्या. (ह्याच वर्सा, कोंकणी, आमची, मुखेल)
2. आमच्या वाचपा घरांत जायतीं पुस्तकां आसात. (हांगाच्या, शाळेंत, खूप, पत्रां, मेळतात)
3. कोंकणींत उतरावळ चड मेळना. (मराठींत, पुस्तकांत, फावती, आसा)
4. आमची खाशेली उतरावळ वेगळ्या वेगळ्या बोलयांनी मेळता. (कोंकणीची, बरी बरी, बरपावळ, दुसऱ्या दुसऱ्या राज्यांनी)
5. कोंकणी वर्गांत वचून शिकची पडता. (इंग्लेज, शाळेंत, बसून, बरौंची)
6. तुजी रेकोर्ड आतां बाद जाली. (आमची, साडी, केन्ना, सारकी)
7. शणै गोंयबाबान कोंकणी खातीर जायतो वावर केलो. (मोन्सिञोर दाल्गादान, गोंया खातीर, खूप, काम केलें)

8. वेगळ्यो वेगळ्यो बोलयो वापरल्यो म्हूण कोंकणी साहित्य एकटांय येंवक पावलें ना. (पांच स, लिपयो, बरयतात, कानडी, बरपी, मुखार वचूंक)
9. शणै गोंयबाबान कोंकणी भाशेची गिरेस्तकाय दाखौन दिली. (तॉमास स्टीवन्स हाणें, आमचे, साहित्याची, सोबितकाय, उगती केली)
10. आतां कोंकणी शाळांनी पावली. ( हालीं, हिन्दी, कॉलेजिंनी, शिकयतात)

**D. कंसांत दिल्लें प्रस्नार्थक उतर वापरून प्रस्न तयार करात :** ***Frame questions using each of the interrogative particles given in the bracket :***

1. कोंकण प्रांतांत उलयतात ते भाशेचें नांव कोंकणी. (खंय, कितें)
2. हालींच कोंकणी गोंयची राजभास जाल्या. (केन्ना, खंयची)
3. थंय दुसऱ्या भासांची राजवट आसलेल्यान कोंकणीची कुचंबणा जाली. (कित्याक, कितें)
4. गोंयांतूच दोन लिपयो चालू आसात. (खंय, कितल्यो)
5. कर्नाटकांत कानडी लिपयेंत कोंकणी बरयतात. (खंय, कशें, कितें)
6. तॉमास स्टीवन्स हाचें कोंकणी व्याकरण पैलें छापून आयलें. (कोणाचें, कितें)
7. गोंय मुक्त जातच कांय शाळांनी कोंकणी पावली. (केन्ना, खंय, कितें)
8. आधुनीक कोंकणीचो वावर एकुणिसाव्या शेकड्याचे अखेरेक सुरू जालो. (केन्ना, कितें)
9. आज तर गोंय विद्यापिठांतूय कोंकणीक जागो मेळला. (खंय, कोणाक, कितें)
10. आतां हे भाशेचो आमी खोलायेन अभ्यास करूंक जाय. (कसो, कितें, कोणें)
11. कोंकणी खातीर वावुरप्यांची आतांच चड गरज आसा. (कित्या खातीर, कोणाची)

# पाठ 34 : चौतिसावो पाठ
## गोंयचें फेस्त

– ओ कायतान, आयलो रे?
– व्हय, आतांच आयलों.
– कसो आयलो तूं? बशिंनी सामकी लूट आसता.
– कशेंय आयल्यांव, भुरगीं तिचे मांडयेर आनी हांव दांडयेक उमकळोन.
– शी बाबा, फेस्ता दिसांनी बशिंनी वेचे परस चलून गेल्लें बरें. फामील घेवन आयला मुरे तुजी?
– व्हय व्हय, सगळीं सांगाता आयल्यांव. बायलभुरगीं इगर्जेकडें देंवलीं. आमच्यो जेवणाच्यो वस्तू मात्शो दवरताय मुरे?
– तुगेलें सदांचें तें, म्हजें दर्शन घेवनूच तूं इगर्जेंत वता. बसना मात्सो, रोकडोच चल्लो?
– ना, हांव येताना पैलें मीस सुरू जाल्लें. दुसऱ्या मिसाक वेळ आसा.
– बस तर पांच मिनटां.
– ह्या लातार बसूं? चेपचें ना मुरे?
– बस, बस. तुजे तसले दोग जाण बसल्यारूय चेपचें ना तें.
– तूं केन्ना आयलोय? वेपार बरो करताय मुरे?
– गेल्ल्या पांच दिसांत गिरायक वायट ना.
– अंवदूं लोक चड दिसना.
– तूं निक्तोच आयला. पांच मिनटां बस आनी पळे, बशी कशो लकत लकत येतात त्यो.
– लकच्यो नांत कित्याक? शेंबर शेंबर लोकांक चेपून भरून हाडतात. आमीय चिड्डून–मुड्डून आयल्यांव.
– फाटल्या तीन दिसांत गर्दीच गर्दी. गोंयचो लोकूच न्हय, भायले टुरिस्ट चड. आज तर फेस्ताचो दीस.
– तुजो वेपार बरो जातलो सुरेश.
– वर्साक एक फावट. अशी संद आनी केन्ना मेळता?
– तुजो व्हडलो चलो तुजे बरोबर येंवक ना?
– मडगांवा गेला माल हाडूंक. धा मेरेन येतलो.
– हरशीं कितें करता तो?
–ह्या वर्सा कोलेजीक वता. आतां फोंड्यांच कोलेज जाल्या. फुडल्या वर्सा चलीय थंयच वतली. तुगेलें रोजिंदा कितें करता?
– तें शोर्टहेंड करता. आयलां तें.
– बिंदा आनी चिंटूचें कशें चलता?

– आसात न्हय तांचीं सदांचीं केस्तांवां. आतां आवयकडें हें जाय, तें जाय म्हूण एक व्हड खरडो दिला.
– कायतानाचीं भुरगीं न्हय तीं, तुजेवरीच जांवचेलीं. आरे तो हो सांग, तुजो चिंटू बरो नासलो म्हण.
– गोंयच्या सायबान ताका बरो केलो. पांय सारको बरो जाला आतां. मेणाचो पांय करून हाडला सायबाच्या पांयां लागीं दवरूंक.
– जांव बाबा, देव पावलो ! म्हाका परतून खबर घेंवकूच मेळली ना.
– तांबण बी आयलां रे? म्हाका तस्त आनी कळसो घेंवक जाय.
– आयलां जायतें. दर खंय पावल्या? नोटिंचो कवळोच घेवन भितर सरचें. तुका आतां तस्त कित्याक? रोजिंदाची तयारी?
– रोजिंदाक खंयचें? आमकांच जाय.
– मीस सोंपलें दिसता. लोक भायर सरतात पळे.
– बरें तर. चल्लों हांव. तीं रावतलीं म्हाका.
– बरें. मीस जातकीर घेवन यो तांकां. तितले म्हणसर म्हजीय बायल भुरगीं येतलीं.
– बरें, येतां तर.

**उतरावळ** VOCABULARY

लूट (f) rush
मांडी(f) lap
उमकळ / हुमकळ (iv) hang
फामील (f) family
दर्शन (n) audience, visit
चेप (tv) push in, pack
निक्तो (adj,adv) just
लक (iv) tilt, sway
चिड्डी (tv) crush
मुड्डी (tv) squeeze
केस्तांव (n) quarrel, fight
जांवचेलो = which will become
मेण (n) wax
तांबण (n) copper vessels [collectively]
तांबें (n) copper
तस्त (n) basin
कळसो (m) water pitcher
जायतो (adj) plenty
कवळो (m) roll, bundle
चूक (f) fault, mistake

**शिकपाचें घोळीप** REPETITION LESSON

अशोक : सर, हो पीटर पळे कितें म्हणता, उटल्या बसल्या "तूं वेताय", "आमी गेल्यांव" कितले सांगलें तरी सुदारच ना.
मास्तर : ताणें कितें सुदारचें? तो सारकें म्हणता.
लता : पूण सर, आमी "वेतात" म्हणप न्हय? तो "वेतांव" म्हणता.

मास्तर : पीटर बारदेसचो. ताचे बोलयेंत तशेंच उलयतात.
अनील : पूण आमी तशें म्हणनांत.
मास्तर : तूं अंत्रुजितलो. तुजे बोलयेंत तशें म्हणनांत.
लता : आमचें लिंदा 'ते करतात' म्हणच्या बदला 'ते करताय ' म्हणता.
मास्तर : लिंदा साश्टिची बोली उलयता.
लिंदा : बोली म्हळ्यार कितें सर?
मास्तर : गांवांगांवांनी कोंकणी दुसरे दुसरे तरेन उलयतात. तांकांच कोंकणीच्यो बोलयो म्हणतात.
अशोक : म्हणजे सर गोंयांत जितले गांव आसात तितल्योय कोंकणीच्यो बोलयो जातात तर?
मास्तर : ना अशोक, गोंयचे अदमासान तीन वांटे धरल्यात. एकेक वांट्यांतले लोक साधारण एकेच भाशेन उलयतात.
पीटर : खंयच्यो तीन बोलयो सर?
मास्तर : साश्टी, अंत्रुजी आनी बारदेशी.
लता : म्हळ्यार आमी तिनूय भासांनी उलयल्यार चुकना तर.
मास्तर : तीन भासो न्हय लता. एकेच भाशेच्यो तीन बोलयो. उलयताना खंयचीय बोली वापरूं येता. बरयताना मात चड करून बारदेशी आनी अंत्रुजी वापरतात.
अशोक : अशें तर, हांव बेश्टोच पीटराक चाळयतालों.

**A. कंसांत दिल्लीं क्रियापदां वापरात : *Substitution drill :***

1. कसो आयलो तूं? (आयलोय)
2. कशेंय आयल्यांव. (आयल्यात, आयले)
3. व्हय, सगळीं सांगाता आयल्यांव. (आयलीं, आयल्यांत)
4. जेवणाच्यो वस्तू मात्शो दवरताय मुरे? (दवरता)
5. तूं केन्ना आयलोय? (आयलो, आयल्लो)
6. वेपार बरो करताय मुरे? (करता)
7. आमी चिड्डून मुड्डून आयल्यांत. (आयल्यांव)
8. तूं निक्तोच आयला. (आयलाय)
9. बसताय जाल्यार बस, वेताय जाल्यार वच. (बसता, वेता, वता)
10. तूं चा पियेताय? (पिता, पियेता)
11. आमी उबे आसात. (आसांव)
12. आमी शेत रोयतात. (रोयतांव)

**B. प्रस्नांक जापी दियात : *Answer the following questions :***

1. बशिंनी चड लूट कित्याक आसली?

2. कायतान गोंया कसो आयलो?
3. कायतानाची फामील खंय देंवली?
4. इगर्जे वेचे आदीं तो कोणाचें दर्शन घेता?
5. सुरेश गोंया केन्ना आयल्लो?
6. सुरेशाचो पूत खंय गेल्लो?
7. सुरेशाची चली खंय कोलेजीक वेतली?
8. रोजिंदा कितें करता?
9. चिंटू बरो जालो म्हूण ताच्या बापायन सायबाक कितें हाडलां?
10. कायतानाक कसलें तांबण जाय आसलें?
11. पीटर 'वेताय' आनी 'गेल्यांव' कित्याक म्हणता?
12. बोली म्हळ्यार कितें?
13. गोंयचे कोंकणींत खंयच्यो बोलयो आसात?
14. कोंकणी बरयताना चड करून खंयच्यो बोलयो वापरतात?

**C. कंसांत दिल्ले धातू घेवन योग्य क्रियापदां करून रिकामे जागे भरात :. *Fill in the blanks with appropriate forms of the verbs given in the bracket :***

1. हांव आतांच ------ (ये)
2. बशिंनी लूट ------ (आस)
3. म्हजें दर्शन घेवनूच तूं इगर्जेंत -------- (वच)
4. हांव येतना पयलें मीस सुरू---------- (जा)
5. मिसाक वचूंक कितलो वेळ---------- (आस)
6. तूं निक्तोच ---------(ये)
7. बशी लकत ------- (ये)
8. बशी लोकांक चेपून ------(हाड)
9. तुजो वेपार बरो ------ (जा)
10. अशी संद केन्ना ------- (मेळ)
11. तुजें रोजिंदा कितें -------- (कर)
12. बिंदा आनी चिंटूचें कशें -------- (चल)
13. भुरग्यांनी आवयकडें खरडो ------ (दी)
14. सायबाच्या पांयांलागीं ------- मेणाचो पांय हाडला. (दवर)
15. नोटिंचो कवळो घेवन भितर ------- पडता. (सर)
16. लोक भायर ------ (सर)
17. फेस्ताक खूप तांबण ------- (ये)

**D. कंसांत दिल्लीं उतरां वापरून वाक्यां वाडयात :** ***Increase the length of sentences :***

1. उमकळोन आयल्यांव । दांडयेक । आमी । भुरगीं तिचे मांडयेर आनी
2. गेल्लें बरें । चलून । बशीन वेचे परस । फेस्ता दिसांनी । गोंयच्या
3. दवरताय मुरे? । वस्तू मात्शो । जेवणाच्यो । आमच्यो । तुजेकडे
4. इगर्जेंत वता । तूं । दर्शन घेवन । म्हजें । पैलें । सदांच
5. चेपचें ना तें । बसल्यार । दोग जाण । तसले । तुजे
6. भरून हाडतात । लोकांक । चेपून । शेंबर शेंबर । बशिंनी । फेस्ताक
7. कोलेजीक वेतली । फोंडेंचे । चली । व्हडली । म्हजी । फुडल्या वर्सा
8. केस्तांवां आसात । सदांचींच । चिंटूचीं । बिंदाचीं आनी
9. दवरूंक हाडला । पांयांलागीं । ताच्या । मेणाचो पांय । चिंटूचो पांय बरो केला म्हूण । गोंयच्या सायबान
10. उलयतात । एकेच भाशेन । साधारण । लोक । एका एका वांट्यांतले । गोंयच्या
11. अंत्रुजी वापरतात । बारदेशी आनी । चड करून । बरयताना मात । गोंयांत
12. उलयतात । गांवांगांवांनी । कोंकणी । दुसरे दुसरे तरेन
13. येंवक ना । चलो । व्हडलो । म्हजो । हांगा । म्हजे बरोबर
14. वायट ना । गिरायक । पांच दिसांत । गेल्ल्या । ह्या दुकानांत
15. चड येतात । टुरिस्ट । भायले । फेस्ताच्या दिसा । गोंयचो लोकूच न्हय
16. खरडो दिला । व्हड । एक । आवय कडे । हें जाय, तें जाय म्हण

# पाठ 35 : पस्तिसावो पाठ

## पुस्तक आमचो सांगाती

भास म्हळ्यार बरपी भास, असो जायत्यांचो गैरसमज आसा. मनीसजात पैलीं उलौंक लागली, आनी थोड्याच हजार वर्सां आदीं बरौंक शिकली. आमचे वेद हजारांनी वर्सां तोंडी भाशेंत घोळत उरले आनी लिपी वापरूंक शिकल्या उपरांत ते बरौन काडले. तशेंच संसारांतलें चड आदलें साहित्य तोंडी भाशेंत घडलें.

आज लेगीत, तोंडी भास रेडियो, टिवी, आनी सिनेमा ह्या माध्यमांतल्यान आमी आयकतात. पूण आज बरपी साहित्य चडान चड मेळता. आज तरेकवार भासो, तरेतरेच्या लिपयांनी बरयल्ल्यो मेळतात. इतलेंच न्हय, हें सगळें बरप तिगौन दवरूंक नवीं नवीं साधनां वापरतात.

आज वेता थंय पुस्तकां पळौंक मेळतात. दुसऱ्या दुसऱ्या विशयांचेर कितलिंशींच पुस्तकां आनी नेमाळीं मेळतात. दिसाळीं, सातोळीं, म्हैन्याळीं, आनी वर्सुकी पत्रांतल्यान आमकां देस–विदेसांच्यो खबरो आनी माहिती मेळतात. वीस पंचवीस खंडांचीं मोठीं पुस्तकां धरून ल्हानव्हड पुस्तिका संसारभर लाखांनी मेळतात.

ह्या काळांत संसाराचो खंयचोय भाग जांव, तांतल्यो खंयच्योय घडणुको कोणापासुनूच लिपून उरनांत. हाचें कारण म्हळ्यार पुस्तकां. जर तुका संसारांतले खंयचेय वस्तुची माहिती जाय, तर मोटे मोटे विश्वकोश आसात. भासो शिकूंक जाय जाल्यार प्रत्येक भाशेचीं व्याकरणां आनी शब्दकोश आसात. शिवाय, घरा बसून भासो शिकूंक, जाय तसलीं पुस्तकां आसात. साहित्याची तुका वोड आसल्यार कथा, कांदबरी, नाटक, काव्य, निबंद अशीं जायते तरेचीं पुस्तकां मेळतात. जर विज्ञानाची तुका आवड, तर सगळेच तरेच्या विज्ञानाचेर जाय तितलीं पुस्तकां वाचूंक मेळतात.

इतिहास समजून घेतलो जाल्यार शिलालेख, ताम्रपट, तसली आदली बरपावळ, तशेंच आधुनीक काळार बरयल्ले इतिहास वाचूंक मेळतात. त्या त्या काळाची लिपी शिकची वेवस्था आसा. समाजशास्त्र, अर्थशास्त्र, असलें शिकप करचें आसल्यार दर विशयाचेर हजारांनी पुस्तकां आसात. तशेंच धर्मीक, मनोरंजन, तंत्रीक आनी हेर चालंत विशयांचेर सगळ्याच भासांनी जायतीं पुस्तकां मेळतात.

पुस्तक म्हळ्यार एक निर्जीव वस्त न्हय. खऱ्यानीच पुस्तक हें वाचप्याचो सांगाती, शिकौपी. व्हड व्हड गिन्यानी आनी विचारवंत मनशांलागीं खासा वचनासताना तांचीं पुस्तकां आमकां वाट दाखयतात.

**उतरावळ VOCABULARY**

गैरसमज (m) misunderstanding
जात (f) class, caste, tribe

मनीसजात (f) mankind
वेद (m) Veda
तोंडी भास = spoken language
घोळ (iv) be in use
माध्यम (n) medium
तिगय (tv) preserve
नेमाळें (n) periodical
म्हैन्याळें (n) monthly [paper, magazine]
वर्सुकी (adj) annual
विदेस (m) foreign country
खंड (m) part, volume
पुस्तिका (f) booklet
विश्वकोश (m) encyclopaedia
वोड (f) attraction
जाणकार (m) expert
शिलालेख (m) rock inscription
ताम्रपट (m) copper inscription
मनोरंजन (n) entertainment
तांत्रीक (adj) technical
चालंत (adj) current
निर्जीव (adj) lifeless
विचारवंत (adj) intellectual
खासा (adj) special
वाट (f) way, direction

**शिकपाचें घोळौप** REPETITION LESSON

लता : नमस्कार ताई, म्हाका मात्सो तुजो आदार जाय.

ताराबाय : सांग, सांग. पुस्तकां विशीं काम आसल्यार हांव केन्नाय करूंक तयार आसां.

लता : आमकां मळब, ग्रह, आनी नकेत्रांचेर लेख बरौंक सांगला. कशें बरोंव हांव, म्हाका कांय खबर ना.

ताराबाय : ह्या खणांत सगळीं भुगोलाचीं मासिकां आसात. तुका जाय तें काड. ताचेर माहिती मेळतली तुका.

सुरेश : ताई, "सायन्स टुडे" येंवना? ताचेर मुंबयच्या अणुकेंद्राची खबर येंवची आसा.

ताराबाय : आयलां. पूण आज मेळचें ना तें. ताची नोंद करूंक जाय. छाप मारूंक जाय.

सुरेश : तशें जाल्यार हांव फाल्यां येतां. आनी कोणाक दींव नाका हां.

ताराबाय : बरें बरें.

रतन : आगो बाय, घरविज्ञानाची पुरवणी येता न्हय? ताचेर म्हजे भैणिचो लेख येवपाचो आसा. आसा ती? मात्शी वाचूंक मेळत?

ताराबाय : हे त्या मेजाकडे चल, थंय सगळ्यो पुरवण्यो आसात. आरे रवी, तूं काल पैले मोटारी विशीं खबर जाय म्हण न्हय? भितर चल. अशोकाकडे विश्वकोश माग. ताचेर तुका माहिती मेळतली.

रवी : रामाची ल्हानपणांतली खबर जाय आसली.

ताराबाय : रामायणांय भितरूच आसात. बालकांड काडून घे. ताचेर मेळतली.

उमा : ताई, म्हाका लोकां—नाच आनी लोकां—काणयो हांचेर उलौपाक सांगलां. कसल्या पुस्तकांत मेळतली माहिती?

ताराबाय : त्या कोनशाचे आरमारींत समाजशास्त्राचेर जायतीं पुस्तकां आसात. तुका जाय तें काड, चल.

उतरावळ VOCABULARY

ग्रह (m) planet
नकेत्र (n) star
लेख (m) article
खण (m) shelf
ल्हानपण (n) childhood
मासीक (n) journal
अणुकेंद्र (n) atomic reactor
छाप (m) stamp
छाप मार (tv) stamp
घर विज्ञान (n) home science
पुरवणी (f) supplement
लोक नाच (m) folk dance
बालकांड (n) section of the book dealing with the childhood of the hero
लोकां–काणी (f) folk tale
भुगोल (m) geography

**A. नवीं वाक्यां करात :** ***Structural table drill :***

| | | | |
|---|---|---|---|
| वाचपा घरांत<br>कोलेजींत<br>शाळेंत<br>विद्यापिठांत<br>दुकानांत | तरेतरेचीं<br>ल्हान व्हड<br>जायत्या भासांचीं<br>मनोरंजक<br>विज्ञानाचीं | पुस्तकां<br>नेमाळीं<br>सातोळीं | मेळतात<br>आसात<br>दवरल्यांत<br>वाचूंक मेळतात |
| कोलेज शिकप्यांक<br>रमेशाक<br>म्हाका<br>मास्तराक<br>आमकां | बरो लेख<br>रामायणाचो खंड<br>विश्वकोश<br>वेद<br>शिलालेख | वाचूंक<br>पळौंक<br>शिकूंक | जाय<br>मेळता<br>सांगला |

**B. सकल दिल्ल्या साद्या वाक्यांच्या जोडयेचें मिश्र वा संयुक्त वाक्य करात :** ***Frame complex or compound sentences from the given pairs of simple sentences :***

1. मनीस लिपी वापरूंक शिकले. वेद बरौन काडले.
2. वेद हजारांनी वर्सां तोंडी भाशेंत घोळले. ते बरौन काडले.

3. हें सगळें बरप तिगौन दवरतात. नवीं नवीं साधनां वापरतात.
4. भासो शिकूंक जाय. व्याकरणां आनी शब्दकोश मेळतात.
5. विज्ञानाची तुका आवड. सगळेच तरेच्या विशयांचेर पुस्तकां मेळतात.
6. ग्रह आनी नकेत्रांचेर लेख बरौंक जाय. भुगोलाचीं पुस्तकां आसात.
7. इतिहास समजून घेंवचो आसा. ताम्रपट आनी शिलालेख वाच.
8. पुस्तकांची नोंद घेंवक जाय. पुस्तकांचेर छाप मारूंक जाय.
9. साहित्याची वोड आसा. वाचपाघरांत कथा, कादंबरी, नाटक आनी काव्याचीं पुस्तकां मेळतात.
10. वीस पंचवीस खंडांचीं पुस्तकां आसात. ल्हान ल्हान पुस्तिका लाखांनी मेळतात.

**C. वर्तमान काळांतलें क्रियापद भूतकाळांत, आनी भूतकाळांतलें वर्तमान काळांत बदलून बरयात :**
***Transform the present tense verb into past tense and vice versa :***

1. भास म्हळ्यार बरपी भास असो जायत्यांचो गैरसमज आसा.
2. चड आदलें साहित्य तोंडी भाशेंत आसलें.
3. आमी कोंकणी भास रेडियोचेर आयकतात.
4. शणै गोंयबाबांचीं पुस्तकां वाचूंक मेळतालीं.
5. पत्रांतल्यान देस विदेसांतल्यो खबरो वाचूंक मेळतात.
6. संसारभर लोक इंग्लेजीन बरयताले.
7. वाचपाघरांत आदलीं व्याकरणां आसात.
8. हांवें कादंबरी वाचली.
9. श्रीपादबाब कोंकणी कोश बरयता.
10. मास्तर ताम्रपट वाचता.
11. दोतोरान पुस्तक बरयलें.
12. विदुशकान मनोरंजन केलें.
13. तो पुस्तकाचेर छाप मारता.
14. ती पुस्तकांची नोंद घेता.

**D. कंसांतलें एकेक उतर घेवन वाक्यां बदलात :** ***Substitute with suggested word :***

1. संसारांतलें चड आदलें साहित्य तोंडी भाशेंत घडलें. (भारतांतलें, खूप, पोरनें, काव्य, बोली भाशेंत, केलें)
2. हालीं टिविचेर कोंकणी नाटकां पळौंक मेळतात. (आतां, हिन्दी, नाच, जाता)
3. सगळें बरप तिगौन दवरूंक नवीं नवीं साधनां वापरतात. (बरें, साहित्य, सांबाळून दवरूंक, आधुनीक, यंत्रां)

4. आज वेता थंय तरेतरेचीं पुस्तकां पळौंक मेळतात. (हालीं, सगळेकडेन, बरीं बरीं, दुकानांत, वाचूंक, दवरतात)
5. पत्रांतल्यान आमकां देस–विदेसांच्यो खबरो कळतात. (नेमाळ्यांतल्यान, सगळ्यांक, संसाराच्यो, घडणुको, वाचूंक मेळतात)
6. साहित्य तुका आवडता जाल्यार कथा, कादंबरी तुका हांगा मेळता. (पुस्तकां, तुमकां, जायजाल्यार, काव्य आनी नाटक, थंय)
7. संसारांतले खंयचेय वस्तुची माहिती विश्वकोशांत आसता. (अमेरिकेंतले, दुसरे दुसरे, घडणुकेची खबर, पत्रांचेर, पळौंची)
8. त्या काळाच्या शिलालेखा वैली लिपी शिकची वेवस्था आसा. (आदल्या, मुस्तिंतली, ताम्रपटा वैली, भास, वाचची, सोय)
9. विचारवंत मनशांची पुस्तकां आमकां बरी वाट दाखयतात. (व्हड, बरौप्यांचीं, विचार, सगळ्यांक, सारकी रीत, शिकयतात)
10. घरविज्ञानाच्या आयच्या अंकांत म्हजे व्हडले भैणिचो लेख आयला. (सुनापरान्ताच्या, कालच्या, ताचे, धाकटे, भावाचो, फोटो, छापला)
11. तुका पैले मोटारी विशीं खबर जाय आसली न्हय? (पुस्तका, छापखान्याची, फोटो, तिका)
12. म्हाका लोक–काणयांचेर उलौपाक सांगलां. (घरविज्ञानाचेर, लेख बरौंक, जाय, वर्तमानपत्राचेर, ताका)
13. त्या कोनशाचे आरमारींत समाजशास्त्राचेर जायतीं पुस्तकां आसात. (मेजार, अर्थशास्त्राचीं, थोडिंशीं, लेख, दवरल्यात)

# SECTION - III

## कोंकणी – इंग्लेज उतरावळ

### अ

अखेरेक (adv) at the end, finally
अजाप, –पा (n) feat, surprise, miracle
अटरा (adj) eighteen
अडकळ (iv) hesitate, stumble
अडचण, –णे (f) difficulty
अणुकेंद्र, –द्रा (n) atomic reactor
अंत, –ता (m) end
अंतरपाट, –टा (m) veil [for religious purpose]
अदमास, –सा (m) estimate
अंदू (adv) this year
अनस, –सा (n) pineapple
अपघात, – ता (m) accident
अपुरबाय, –ये (f) fondness
अब्बा, –ब्बा (m) father
अब्रू , –ब्रू (f) prestige, good name
अभिनंदन, –ना (n) congratulation
अभ्यास, –सा (m) study
अमको, –की, –कें, (adj) a certain one
अमूक, (adj) precise, particular one
अरबी, (adj) Arabian
अर्थशास्त्र, –स्त्रा (n) economics
अर्देवर = half an hour
अर्दो, –र्दी, –र्दें, (adj) half
अर्दोकील = half a kilo
अवेरां (adv) two days after tomorrow
अळणी (adj) saltless, insipid
अळसांदो, –द्या (m) stringbean

### आ

आंकडो, –ड्या (m) figure, number
आंकवार (adj) unmarried, virgin
आग, –गी (f) fire
आंग, –गा (n) body
आगगाडी, –डये (f) railway train
आंगण, –णा (n) courtyard
आगोस्त, –स्ता (m) August
आंगोस्तर, –रा (n) plain dhoti
आज (adv) today
आजकाल (adv) these days, of late
आजी, –जे (f) grandmother
आजून (adv) up to now, till today
आट (adj) eight
आट तारकेच्यान = from the (date) 8th
आड (adv, pp) across, against
आड पडता = lies down
आडकळ, –ळी (f) hindrance, obstacle
आडाय, (tv) stop
आंत, –ता (n) custard apple
आंत, –ता (n) intestine, guts
आंतऱ्या पैऱ्यान = now and then
आतां (adv) now
आंतेर, –री (f) custard apple tree
आदलो, –ली, –लें (adj) previous
आदार, –रा (m) help
आदी = etcetera
आदीं (adv) formerly
आधुनीक (adj) modern

आनी (conj) and
आपय (tv) call, invite
आपलो, –ली, –लें (adj) one's own
आपार, –रा (m) nib of a pen
आपुलकी, – के (f) belonging
आपूण (pn) oneself
आपौणें, – ण्या (n) invitation, call
आंबट (adj) sour
आंबली, –ले (f) green mango
आंबसो, –शी, –शें (adj) [somewhat] sour
आंबो, –ब्या (m) mango
आबोलें, –ल्या (n) name of Indian flower
आब्रील, –ला (m) April
आमचो, –ची, –चें (adj) our
आमूड / आमडी (tv) drive away
आयक (iv,tv) hea., listen
आयचो, –ची, –चें (adj) of today
आयतार, –रा (m) Sunday
आयतेंच मेळ्ळें= got a good opportunity
आयदन, –ना (n) vessel
आयलो (past t.) came
आयेर, –रा (m) wedding present
आरत, –ती (f) Aarti
आरमार, –री (f) cupboard
आराम, –मा (m) comfort
आर्क, –र्का (n) arch
आलें, –ल्या (n) ginger
आल्तड, –डी (f) this side, near side
आल्तार, –रा (m) altar
आवड, –डी (f) choice
आवड– (tv) like
आवडिचो, –ची, –चें (adj) favourite
आवय, –य (f) mother
आवयगे (int) dear me
आवरो, –ऱ्या (m) bean, limabean
आवाज, –जा (m) sound, noise
आशीर्वाद, –दा (m) blessing
आस– (iv) be, exist
आसर (iv) [rain] subside
आसर, –रा (m) subsidence, relief
आसा = [there] is
आसासर = as long as it is so
आस्वेल, –ला (n) bear
आळशी (adj) lazy

इ

इकरा (adj) eleven
इगर्ज, –र्जे (f) church
इतले म्हणसर = in the meantime
इतिहास, –सा (m) history
इंत्रूज, –जा (m) carnival
इत्सा, –से (f) desire
इनाम, –मा (n) prize
इल्लो, –ली, –लें (adj) little
इश्कोल, –ला (n) school
इश्कोल मेदिक = school of medicine
इश्ट, –टा (m) friend
इश्टीण, –णी (f) friend
इस्पीक, –के (f) playing card

उ

उकतो, –ती, –तें (adj) open
उगड (tv) open
उगय (tv) comb
उंचलो, –ली, –लें (adj) higher
उजवो, –वी, –वें (adj) right
उडी, –डये (f) jump
उडी मार = jump
उंडी, –डये (f) morsel
उंडो, –ड्या (m) bread

